**SRINIVAS**
**(Novelette)**

❑



❑

पयली आवृत्ती:
ऑक्टोबर १९९६

❑

मुद्रण:
कुळागर अक्षर मुद्रा, मडगांव
आनी
कस्तुरी, धवळी

❑

प्रकाशन:
चंद्रकांत केणी
कुळागर प्रकाशन
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव (गोंय) - ४०३ ६०१

❑

मोल रु. २५/-

# श्रीनिवास

''रेल्वेच्या लायनी लागसार आमचें घर आशिल्लें. घरांतच ल्हानसो पसरो. किरकोळ वस्तू पसऱ्याचेर आसताल्यो. तांदूळ, कडधान्य, गोड, साकर, मीठ, केरोसीन, तेच भाशेन भुरग्यांचे कादेर्न, पेन्सिलीं, पेपरमिटां ह्या सारकिल्यो वस्तू. दिसाक धा रुपयांचो म्हाल खपतसर मारामार. पूण तो पसरो चलोवन म्हज्या बापायन आपलो संवसार सांबाळ्ळो. म्हाका स भयणीं सगल्यांचीं लग्नां करून दिलीं. भांवडांनी हांव निमाणो...'' इतलें उलयतासर श्रीनिवासाक खरस आयली.

खर्शेतां खर्शेतां तो खांकलो. कामाराल्या भात्याभाशेन तागेलीं फुफ्फुसां हालतात ती दिश्टीं पडटालीं. खांक खांक खांकून तो उठून भायले वाटेन गेलो. कफ थुकलो आसुये. परत आयलो आनी तांब्याच्या तांबयांत आशिल्ल्या उदकाची धार आपल्या ताळ्याचेर रकयली. थोडे उदक ताच्या आंगावयल्या मलमलच्या सदऱ्याचेर रकलें.

''हांव असो बसतां.'' अशें म्हणून तो कदेलावेलो उठलो आनी वणटीक तेकून पातळायिल्ले नाजूक लव्याचे शेंदरेचेर मांडी घालून बसलो. म्हजे लक्ष शेंदरेचेर गेलें. एक जपानी चली हातांत कागदाचो आयणो फुलोवन वारे घेता अशें ते चित्र आसलें.

म्हाका मुजरत आपोवन हाडिल्लो. कित्याक तें म्हाकाय सारकें खबर ना. तो एक करोडपती म्हळ्यार जाता. तागेलें कसले धंदे खंय चलतात हें ताका लेगीत सारकें खबर आसचें ना इतलो ताचो व्याप. पूण अजून सादेपण ताणें सोडूंक ना. हालींच्या दिसांनी लेंगे कोण घालिना. पूण श्रीनिवासालो भेस आदलोच उरला. धवो लेंगो, वयर धवें खोमीस. त्या खोमसाक चोख भांगराचे बुतांव. वयलो बुतांव उक्तो. ताका लागून छातयेवयल्या पिकूंक लागिल्ल्या केंसांमदीं ताच्या गळ्यांतली भांगराची सरपळी चकचकता. भायर भोंवतना तो एक कोट घालता. तो कोट लेगीत धवोच. चुकून हळदुवो आसता. पांयांत पठाण शूज. अशा भेसांत श्रीनिवास रस्त्यावयल्यान भोंवता आसतना कोणाकय तो कफल्लक दिसुंये. पूण जे ताका वळखतात ते कुशीक सरून ताका वाट दितात. पूण श्रीनिवासाक गर्व वा अहंकार ना. कोणूय वळखीचो मेळ्ळो जाल्यार ताज्या खांद्यार हात घालूंक तो फाटीं फुडें सरना. चडच वळखीचो आसत जाल्यार कोटाच्या बोल्सांत हात घालून बचकभर चणे ताज्या हातांत दवरता आनी खबरो करता.

म्हजी आनी श्रीनिवासाची आदीं वळख नासली. ताचें नांव हांवें आयकल्लें. ताचेविशीं लोक तरांतरांनी उलयता हेंय हांव जाणा आसलों. कृश म्हणपाइतलो बारीक आंगलोटाचो, मध्यम बांध्याचो, माथ्यार दाट- राठ केंस आशिल्लो, लांब नाकाचो, चेपट्या पोल्यांचो श्रीनिवास. तो चडशें शिकूंक ना. इंग्लीश आठ यत्ता शिकिल्लो आसत; घडये नासत. उलयतना कोंकणीच उलयता. पूण इंग्लीश उतरां खूब वापरता. ताणें म्हाका आपयलो हीच पयलीं अजापाची गजाल.

आयतार आसलो. हांव पुस्तक वाचीत जमनीर पातळायिल्ले शेंदरेचेर लोळटालों. तितले म्हणसर फोन वाजलो. उठून फोन घेवचोच पडलो.

''हांव श्रीनिवास.'' फोन करतल्यान सांगलें.

आवाजांत एक धार आसली. तंबोऱ्याची तार झंकारता तसो तो आवाज घुमलो. नांव आयकून

जाणां आशिल्लों तरी फोनाचेर नांव आयकनाफुडें हांव ताका वळखलोंना. देखून हांवें विचारलें, ''कोण श्रीनिवास ?''

''फोनाचेर कशें सांगतलो ?'' फोन करपी हांसलो, ''मेळुंया मागीर. तुका म्हजी वळख दितां.''

काम कसलें आसा ? असो प्रस्न तोंडार आयलो. पूण हांवे तो विचारलो ना. इतलेंच विचारले ''तुमी खंयच्यान उलयतात ?''

ताणें आपल्या गांवाचें नांव सांगलें ना. म्हळें, ''आतां फोनाक लागून अंतराक म्हत्व उरूंक ना. हांव म्हज्या घरच्यानच उलयता. आयतार जाल्ल्यान घराच आसलो. खूप खेपे तुका फोन करतलों अशें येवजितालों. तुजी- म्हजी वळख ना. पूण मेळ्ळेबगर वळख कशी जातली ? देखून हो फोन केलो. तुका म्हगेर आपोवंक तू सांगशीत त्या दिसा, त्या वेळाचेर तुका व्हरूंक मोटार धाडटां. तूं थंडसाणेन यो. म्हाका तुजेकडेन उलोवंचेलें आसा....''

''आज जावंचें ना.'' टाळपाच्या सुरांत हांवे म्हळें, ''फुडें केन्नाय हांवच तुमकां फोन करतां. म्हाका तुमचो फोन नंबर दियात.''

श्रीनिवासान आपलो फोन नंबर दिलो आनी म्हळे, ''आयतारच जाय असो ना, खंयचोय दीस म्हाका उपकारता. तुमी सांगशात त्या वेळार गाडी येतली.''

हांवें फोन सकल दवरलो आनी म्हजो आळस उडून गेलो. म्हाका सट्ट करून उगडास जालो की, श्रीनिवास हें नांव म्हज्या कानावयल्यान गेलां. पूण ते एका मोट्या मनशाचे नांव. तोच हो श्रीनिवास काय ? आसत जाल्यार ताजें म्हजेकडेन कसले काम आसूं येता ? हांव येवजीत बसलों. त्या दिसा मेळिल्ल्या मनशाकडेन हांवे श्रीनिवासाची वासपूस घेतली आनी म्हाका अजाप जालें. जाका ताचेविशीं विचारलें ताणें खूबशें सांगलें. सगळ्यांनी ताका पळयिल्लो. तागेल्या भेसाचें आनी रुपाचें वर्णन लेगीत ताणें केलें. पूण आपली ताचेकडेन वळख ना हें्य कबूल केले.

सप्तकभर हांव श्रीनिवासाची खबर घेत आसलों. पूण हांवें ताका फोन केलो ना. म्हाका उसरपत नासली अशें न्हय. पूण ताच्या घरा वचचें म्हळ्यार मन संकोचतालें.

फुडल्या आयताराक सकाळचो साडे स वरांचेरच श्रीनिवासालो फोन आयलो.

''हांव तुमकां हाडूंक तुमगेर येतां. तो हुस्को करूं नाकात. आज जमत !''

''हांवें हय म्हळें. वेळ थारायलो आनी सकाळच्या साडेणव वरांचेर म्हज्या दारांत एक कॉण्टॅसा गाडी उबीं रावली. ती श्रीनिवासाली आसतली हे म्हाका ड्रायव्हर सोपणां चडून घरांत येतनाच कळ्ळे. हांव मोन्यानी वचून मोटारींत बसलो. वातानुकूलीत गाडी भर वेगांत रस्त्यावयल्यान धावंक लागली. ड्रायव्हर सोडून गाडयेंत दुसरो मनीस नासलो. ड्रायव्हराक एक - दोन प्रस्न विचारले. ताच्यो जापो मेळनात हे पळयतकच हांवे तोंड बंद दवरलें.

गाडी जेन्ना फोच्यांत उबीं रावली तेन्ना म्हाका येवकार दिवंक खासा श्रीनिवासच मुखार आयलो. मलमलचो सदरो आनी धवो लेंगो. तो किडकिडीत मनीस होच त्या बंगल्याचो मालक म्हणपाचें म्हाका ताणें आपलें नांव सांगतासर खबर लेगीत नासलें. म्हज्या हाताक धरून ताणें म्हाका भितर कुडींत व्हेलो आनी मानान कदेलाचेर बसयलो. कुशीच्या कदेलाचेर बसून घेतकच ताणें आदीं आपले बायलेक आपोवन हाडली.

उलो मारिना फुडें ती कुडींत भितर आयलीं. जाण्टे पिरायेची. तिची पिराय सुमार पन्नास वर्सांची आसत - पिट्ट गोरी, आंगान खूबच मोटी अशी ती बायल चलता आसतना तिचीं पावलां जमनीर वाजतालीं. दोनीय हातांक कोंपरांमेरेन भांगर आनी गळ्यांतय भांगराच्यो वस्ती. एकतर ती मुजरत

न्हेसून राविल्लीं ना जाल्यार खंयूय तरी भायर वचपाची आसतलीं.

म्हजी ओळख करून दिली आनी म्हळें, ''आतां तुगेली च्या धाड. आनी पुताक - सुनांक ओळख करून घेवचेलीं आसत जाल्यार तांकांय यो म्हण सांग.''

च्याचे आदीं दोन सुनो आनी दोग पूत येवन गेले. एकली सून बरीच फुडारिल्ली दिसली. पंजाबी सूट घाललें ते सुनेन कैंसांचो बॉबकट केल्लो. दुसरी मातशी बाळबोध वळणाची दिसली. पूतय नम्र. मांयच्या मानान सुनांच्या आंगार भांगर नासलें. वळख जातकच तांकां परत वचूंक श्रीनिवासान खुणायलें. उपरांत एके ट्रेंत खावपाच्यो वस्तू आनी च्या घेवन एक बायल आयली. ट्रे टिपॉयचेर दवरून ती सकले मानेन परत वताली. श्रीनिवासान तिका आपलेसरीं आपयलीं आनी कदेलाचेर बसयलीं. म्हाका म्हळें, ''ही म्हजी चली, मंगल. ल्हानपणांतच तिचो घोव अपघातांत मेलो.. चल बाय तूं.''

ती वतकच श्रीनिवास इल्लो गंभीर जालो आनी ताणें सुरवातेक बरयिल्ल्या उतरांनी आपली वळख दिवंक सुरवात केली.

''हे चलयेखातीर हांव खंगतां. सुनो सगलीं सुखां भोगतात आनी ही नाका म्हणटा आसतना रांदचीकूड सांबाळून बसल्या. तिचेर नदर पडली म्हण्टकच हांव असो कासावीस जातां.'' मांडयेचेर हात मारून श्रीनिवासान म्हळें.

म्हाका ताणें कित्याक आपयला ताजो बोध जावंक नासलो. देखून हांव मातसो गोंधळून गेल्लों. निमाणें ताणें म्हाका म्हळें, ''हांवे जे कितें भोगलें आनी केलें तें बरोवन काडल्यार कशें ? हें विचारूंकूच तुमकां आपयिल्ले. तुमचें बरप हांव नेमान वाचतां आनी तें वाचतकच म्हाका दिसूंक लागलां की, हांवें म्हजी खबर तुका बरोवंक सांगची. तुमकां थंडसाणेन आयकून घेवपाची फुरसत आसा मूं ?''

''केदो वेळ लागतलो ?'' हांवें विचारलें.

''हांव सांगतां. याद जाता तशी सांगत रावतां. आज थोडी सांगता. उरिल्ली दुसरे खेपे सांगूं येता,'' श्रीनिवासान म्हळें.

हांवें आयकुपाची तयारी दाखयलीं तशें ताणें म्हळें, ''आमी मायले वटेन वचून बसुंया'' आनी तो उठलो.



जी कॉण्टॅसा गाडी म्हजेखातीर धाडिल्ली तेच गाडयेंत आमी परत बसले. श्रीनिवासान म्हाका विचारलें, ''तुमकां दोंगर आवडटा काय दर्या ?''

''खंयय जाता. सावळी आसतकच पुरो.'' हांवें म्हळें.

''सावळी जायच. आमी दोंगराचेर वचुंया. झाडांकुळांत दाट सावळी आसना आनी चारय दिकांचो मेकळो वारो व्हांवता. कोणाचेच त्रास नासतात. म्हाका ल्हानपणासावन दोंगरांचें पिशें. आयज लेगीत हांव दोंगराचेर वचून बसतां आनी सगली सृश्ट नियाळटा.''

गाडी सुरू जाली आनी श्रीनिवासान म्हजी वासपूस सुरू केली. आमच्या कुटुंबाची, गांवाची, म्हज्या वेवसायाची. खोदू खोदून तो प्रस्न विचारतालो. कांय प्रस्न खोंचक तर कांय सूचक आसताले. म्हजो एक्स रे तो घेता अशें खीणभर दिसलें. गाडी दोंगर चडून वयर गेली तरी तागेली तपासणी थांबूंक नासली. गाडी थांबली तशे आमी सकल देंवले. ताणें ड्रायवराक थंयच रावंक सांगलें आनी म्हाका हाताक धरून त्या उंचेल्या सड्याचे एके कुशीक आशिल्ल्या आंब्याच्या रुखासकल तो घेवन गेलो.

कुशीकच दोन चिंचेचीं झाडां आसलीं. तांच्योय फांदयो आंब्याच्या फांदयांनी भरसल्ल्यो. ताका लागून आंब्याच्या मुळांत बांदिल्ल्या पेडाचेर वताचें एकय कीर्ण पावनासलें. लेंग्याच्या बोल्सांतलो लेंस

काडून श्रीनिवासान पेड झाडलें आनी म्हाका बसूंक सांगलें. तो मात उबोच रावलो. चारय दिकांनी कडक वत आनी वाळवंटांत हिरवळ आसची तशे तरेची थंडसाण पेडाचेर आसली. मेकळो वारो व्हांवतालो आनी चिंचेची पिकिल्लीं पानां झडत आसलीं.

''हो जागो खूबच सुंदर. हांगा लोक येतात आसतले न्हय ?'' हांवें श्रीनिवासाक विचारलें.

''कोण येना, हांव एकलो येवन हांगा बसतां. आतां लोकांक एकांत आवडना. बोवाळाबगर तांकां सूख लागना. गर्देबगर ताका स्वास घेवंक येना. घरांत लेगीत थंडसाण उरूंक ना. टीवी, रेडिओ आनी स्टिरिओ - अखंड गजर चालू आसता. मनीस मानीत तातूंत सूख म्हणपाचें बेब्याक रेब्याचें सूख नासता ?'' श्रीनिवास हांसलो.

''मागीर हें पेड हांगा कोणें बांदलें ?'' हांवें विचारलें.

''हांवेंच बांदून घेतलें. हें झाड म्हजें न्हय वा हो दोंगरय म्हजो न्हय. केन्ना तरी सरकारान हो रस्तो केलो. सध्या तो गोरवां वापरतात. मोटार येता ती म्हजी एकल्याची. आदल्या काळार हांव चलून येतालों. हांगा म्हाका जे सूख मेळटा तें दुसरेकडेन मेळना. खरें सांगतलो जाल्यार मोटारीची लेगीत म्हाका संवय ना. चड वेळ मोटारीत बसलो जाल्यार म्हाका धुंवळ येता. पूण आतांच्या भुरग्यांक बाजारांत वतलो जाल्यार मोटार जाय. हे मोटारीक लागून लोक थोंटे जाल्यात. म्हजें चलपाचें जाल्यार हांव एकय मोटार विकती घेवपाचो न्ही. पूण आमगेर आतां चार मोटारी आसात. दोन ड्रायवर.''

''तुमी पिंडान वेगळे, देखून तुमकां मोटार आवडना.'' हांवें म्हळें.

''हे मात खरें तुमचें!'' श्रीनिवासान जाप दिली. ''म्हजो बापूय गरीब आसलो. हांवें तुमका आमच्या पसऱ्याची खबर सांगल्या. धा रुपयांच्या वेपाराची उलाढाल जातकच फायदो उरतलो कितलो ? बापायकडेन आसलें एक आंगवस्त्र आनी एक धवें पुडवें. शारांत वतालो तेन्ना पुडवें न्हेसतालो. हरशी दीसयभर आंगवस्त्र आनी खोमीस आंगार. रातीचें उमळून सुकोवप आनी सकाळीं परत घालप. एक दीस ताणें लक्तुबायेन म्हज्या हातार पिपिरमटां दवरली नात. एक खेपे हांवें चोरून खालें. चोरतना कोणें पळयलें ना. चोरी पचना म्हणटात तें खरें. त्या पिपिरमिंटाक लागून जीब आनी ओंठ तांबडे जाले. देखून बापायक कळ्ळें. ताणें म्हाका पिपिरमीटा खालें म्हणून इतलो मार दिलो की, म्हजें आंग जांबळें - निळें जालें. आयज लेगीत पिपिरमीट पळयतकच म्हजें मन कांचवेता.''

''तुमकां खरी देख मेळची हेखातीर बापायन मार दिलो आसत. पूण तुमची माया ताका नाशिल्ली अशें न्हय.'' हांवें म्हळें.

''तसो ताका नीत - अनितीचो हुस्को नासलो. गरिबी नांवांचो जो श्नाप आसता तो मनशाक सामको लाचार करता. त्या दिसा ताणें म्हाका मारलो तो चारी केल्या हेखातीर न्हय तर एक पिपिरमीट खालें हेखातीर. हांवें भायर चोरी केल्ली जाल्यार ताका वायट दिसपाचें न्हय. ताजी शिकवण कितें आसताली ती जाणात तुमी ? चोरी करप हो गुन्यांव न्हय. चोरी करून सांपडप हो गुन्यांव. होच संस्कार ताणें म्हाका दिलो. त्या संस्कारांत हांव व्हड जालों.'' श्रीनिवासान सांगलें.

''तुमी उलयतात ताचेवयल्यान कोणाचोय असो समज जायत की, तुमी आज जे साम्राज्य उबें केलां तें चोरी करुनूच...'' हांवें म्हळें.

''सामकें खरें. हें कबूल करूंक म्हाका भंय दिसना... कित्याक तर हांव सांपडूंक ना. आनी लज दिसना, कित्याक तर आज हांव व्हड मनीस जावंक पावलां. म्हजे गिरेस्तकायेची बुन्याद चोरयेचेर आदारिल्ली आसा आनी म्हज्या बापायनच म्हाका चोरी करूंक शिकयलो.'' श्रीनिवासान म्हळें.

हांव अजापून ताचेकडेन पळयत रावलों. हो मनीस गंभीरपणान उलयता कांय मस्करी करता तेंच

म्हाका समजलें ना. घडये हांवें सादेपणान उलयिल्ली उतरां ताका झोंबलीं आसत अशें येवजून हांवें म्हळें, ''हांवें त्या अर्थान कांय म्हणूंक ना... तुमी मनाक लावन घेवं नाकात.''

''म्हाका वायट दिसपाचो प्रस्नच ना.'' श्रीनिवासान सांगलें, ''खरें तें हांव सांगतां. गुन्यांवाचें हें वजें म्हज्या काळजाचेर चेपण कशें जावन बसलां. तें ल्हव करपाखातीर हांव तुजेकडेन उलोवंक सोदतां. वैजिणीक कांय लिपोवं नये म्हणटात. तशें हांव तुमकां सगलें सांगून उडयतां. तुमी तें सगलें बरोवचें. लोक म्हाका चोर म्हणटले वा गुन्यांवकार म्हटले जाल्यार म्हणू, हांव कांय लिपोवंक सोदिना.''

''तशें जाल्यार तुमी मेकळेपणान सगलें सांगात. एक खेपे आयकून घेतां आनी बरोवपाविशीं मागीर थारावं येता.''

''चोरयेचो पयलो प्रसंग घडलो तो आमच्या गांवांत. आमच्या शेजराक खूबशे माड आसताले. भाट दुसऱ्याचें. गिमांत नाल्ल सुकले म्हणटकच ते झडटाले. बापायन म्हाका सांगून दवरिल्लें, जो नाल्ल झडटा तो हाडून घरांत उडोवंक जाय. एक - दोन खेपे कोणाक कळनासतना नाल्ल हांवें घरांत हाडले. ते आमी घरांत वापरले ना जाल्यार पसऱ्याचेर विकले. एक दीस झडिल्लो नाल्ल घेवन येतना भाटकारान म्हाका पळयलो. तो म्हजे फाटल्यान आमगेर आयलो आनी म्हज्या बापायकडेन कागाळ केली. बापायन वेगळेंच सवंग घेतलें. म्हज्या तोंडार एक थापट मारलें आनी हांवें हाडिल्लो नाल्ल भाटकाराक परत दिलो... भाटकाराक इतलें वायट दिसलें की, ताणें तो नाल्ल व्हेलोच ना. भाटकार वतकच बापायन म्हाका समजायलो. म्हळें, 'नाल्ल हाडलो हें बरेंच केलें. पूण तुका भाटकारान पळयलो ही तुजी चूक. हांवें तुका थापट मारलें ते नाल्ल हाडलो म्हणून न्हय तर तूं भाटकाराक दिश्टी पडलो हे खातीर...' असल्या संस्कारांनी हांव ल्हानाचो व्हड जालों...''

''पूण आज तुमचें धंद्याचें साम्राज्य खूब मोटें जालां. ही सगली जोड तुमची स्वताची आसतली न्हय ?''

''बरे दीस बापायचे मुस्तीतच आयिल्ले. फुडली वाड म्हगेली. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या दिसांनी देशांत जेवणा खाणाची मारामार जावंक लागली त्या वेळार म्हज्या बापायन आपल्या धंद्याक वेगळी दिसा दिली. तो तांदूळ, गंव, भिकणां ह्या सारकिल्या धान्याचो वेपार करून खूब पयशे जोडटालो. त्याच दिसांनी ताणें म्हाका शिक्षण सोडून धंद्याक बसयलो.''

''धान्य खंयसावन हाडटालो ?'' हांवें विचारलें.

''तीच खबर तुमकां सांगतां. मुरगांव बंदरांत जे धान्य येतालें वा बंदरांतल्यान भायर वतालें ते हाडपा - व्हरपाचें काम रेल्वेच्यो म्हालगाडयो करताल्यो. तुमी जाणातच म्हालगाडयो चड करून रातीच्या वेळार सुटटाल्यो. ह्या गाडयांच्या वागणीनी तरेकवार धान्य आसतालें. धान्यांचे साकच वागणीनी भरिल्ले उरताले. एक दीस आमचे शाळेंतल्या एका भुरग्यान म्हाका आपल्या सांगातान आपयलो. तीनसांजचो वेळ. हातांत एक लांब सुरी घेवन तो रेल्वेच्या सिग्नलाकडेन वचून उबो रावलो. थोड्या वेळान एक म्हालगाडी येवन सिग्नलाकडेन उबी रावली. ते सरशी ताकतिकेन तो भुरगो वागणीच्या दाराचे खाचीनी एके वागणीच्या दाराच्या खाचीतल्यान भिकणांची रास गळूंक लागली. खोमसाचे झोळयेंत आमी भिकणां भरलीं. तरी भिकणां रकत उरली. आमचे झोळयेंत कितलींशीं वतलीं ? इतले म्हणसर सिग्नल पडलें आनी गाडी फुडें गेली. सगले वाटेक भिकणाची धार गळत उरली. वागणीच्या दारांत खांच आसता ती उणीच अर्द - पाऊण इंचाची. सुरयेक लागून जो साक पिनिल्लो तो रिकामो जायसर सगलीं भिकणां गळत उरतली. दुसऱ्या दिसा कावळे आनी सवणी तीं झडिल्लीं भिकणां खावन संतुश्ट जाल्लीं आसतलीं. पूण झोळीभर भिकणां घेवन जेन्ना हांव घरां गेल्लों तेन्ना म्हज्या बापायन

खुशालभरीत जावन म्हाका वेंगांत घेतलो आनी म्हजी अपुरबाय केली. म्हज्या हातार चार दाणे पडले. बाकीचीं भिकणां ताणें पसऱ्यार विकली.''

''तुमची ही पयली जोड आसतली...'' हांवें म्हळें.

''नाल्ल हाडून आदी पयशे जोडिल्ले. पूण हीं भिकणां पळोवन बापायक नवो धंदो येवजलो. ताणें सांजच्या वेळार रेल्वेचे लायनी कुशीक फातराचेर घरांतले चादर आनी हेर न्हेसणां सुक्त घालीं आनी रातचो म्हाका घेंवन सिग्नलाकडेन उबो रावलो. त्या दिसा गाडी थांबलेबगर गेली. पूण म्हजो बापूय निर्शेलोना. ताणें एक मांडणी केली. सिग्नलाचे सांखळेंत एक गुंडो भरलो. तो गुंडो काडलेबगर तार ओडली म्हणून सिग्नल कसोच पडना. दुसरी गाडी थांबली तेन्ना म्हज्या इश्टान तोंपिल्ली तशी सुरी दोन - चार वागणीनी भोंवडायली. पोर्टर सिग्नलामेरेन चलून येवन ताणे गुंडो काडलो तेन्ना म्हालगाडी सुटली. पूण ते रातीकडेन आमी चार साक गंव पुंजायले.'' श्रीनिवासान ही खबर सांगतना आपल्या कर्तुबांविशी अभिमान दिसचो तशी छाती फुलयली.

*

श्रीनिवास सादेपणान आपल्या बापायन केल्ले चोरयेची खबर सांगतालो. तो चोरयेंत आपलोय हातभार आसा हें सांगतना ताका अभिमान भोगतालो आसूंक जाय.

हांवें म्हळें, ''तुमी ह्यो सगल्यो खबरो कित्याक म्हणून सांगतात? पन्नास वर्सां फा टल्यो ह्यो गजाली. छापून कितें मेळटलें? आनी तुमच्या बापायची निंदा करून कितें सादतलें? आज तुमकां नांव आसा. फाल्यां तुमचें बरप तुमचे निंदेचो विशय जावंचेंना?''

''तुमकां खबर ना. ह्या जगांत दुडू हेंच ब्रह्म. दुडू आसल्यार नांव, कीर्त सगलें विकतें घेवं येता. हांव कोणाची निंदा करूंक सोदिना, पूण जें कितें घडलें तें बरोवन दवरचेलें आसा.''

''पूण हें सगलें बरयतलो जाल्यार खूब पाल्हाळ जातलो. तो व्हडलो ग्रंथूच जातलो.'' हांवें म्हळें.

''हय. जाणां हांव. एका अमेरिकी उद्योगपतीचें चरित्र निकतेंच हांवें वाचलें. म्हाका इंग्लीश व्हडली समजना, पूण मराठींत तें हांवें सगलें वाचून काडलें. ताणें कसल्यो कसल्यो गजाली बरोवन दवरल्यात म्हणून सांगतलों? लज - भीड कांय दवरूंक ना. तागेल्या बापायल्यो हजार मानगडी आनी बापायले रखेलीकडेन हाजे संबंद. सगले ताणें नांवा - गांवासयत सांगून उडयलां. ताजी एक गजाल म्हाका मानवली. पयशे जोडप ही कला न्हय, पूण पयशे मोडप ही कला. ती कला आंगांत केळयतलो जाल्यार पयशेकारागेरच जल्म घेवंचो पडटा. म्हजे भाशेन तो अमेरिकी उद्योगपती एका कफल्लकागेर जल्माक आयलो. दनपारां जेवलो जाल्यार रातीकडेन उपाशीं न्हिदपाचो जाचेर प्रसंग येतालो तो मनीस आपल्या प्रयत्नांनी - प्रयत्न म्हळ्यार सगले तरेचे प्रयत्न, बरे आनी वायट - लक्षाधीश, कोट्याधीश जालो. पूण जीणभर कफल्लकूच रावलो. ताजे भुरगे मोटारीनी भोंवताले. म्हारग - म्हारग न्हेसणां न्हेसताले. पार्टी केली जाल्यार एकेच रातींत हजारांनी डॉलर खर्चिताले. पूण बँकेंत पयशे आसुनूय हो उद्योगपती पोरणी वस्त्रां घालतालो, सवाय हॉटेलांनी सवाय खाण खातलो. कोणेंय तेविशी विचारल्यार कितें सांगतालो जाणा? तो म्हणटालो, ''म्हज्या भुरग्यांचें कांय विचारूं नाका. तांकां पयशाची दुखी ना. देखून ते खर्चितात. तांचोय गुन्यांव ना. तांचो बापूय लखपती. म्हजो बापूय कफल्लक आसलो.'' ताजें हें म्हणणें वाचतकच म्हाकाय दिश्टावो जालो. दिसलें, हांव जी जीण जगलां, हांवें जी बरी - वायट कर्मा केल्यांत, संवसाराविशी म्हाका जें दिसता तें सगलें बरोवन जगामुखार दवरचें.

''बरे भाशेन. असली आत्मचरित्रां आनी चरित्रां आमचें साहित्यूय समृध्द करतली.'' हांवें म्हळें.

''आतां कळ्ळें मूं हांवें तुमकां तकालस कित्याक दिली ती?'' श्रीनिवासान म्हज्या खांदार हात

दवरून म्हज्या तोंडार नदर फिरायली.

''हें सगलें हांवें बरोवन काडचें अशें तुमी सुचयतात आसत जाल्यार म्हाका तें जमत अशें दिसना हें तुमकां आदीच सांगून उडयतां. चारशें - पांचशें पानांचो ग्रंथ बरोवप म्हळ्यार ल्हान काम न्हय'', एकदम उठून उबो रावन हांव सांगलें.

''बसात, अशे उठून खंय वतात ?'' श्रीनिवासान म्हाका आडायलो, काम कठीण हें हांव जाणां. घडये वर्स दोन वर्सांय लागत. हांव फुकट काम करून घेवंक सोदिना. तुमच्या कामाची बिदागी दितलों... तसो हांव कंजूस म्हणुन समजुपाचें कारण ना. खूब पयशे जोडल्यात ते हांव म्हज्या सांगातान घेवन वचचोंना. थोडे सत्कार्याक लागले जाल्यार लागूं''

''तुमकां दुसरो कोणूय लेखक मेळटलो. अशे तरेन बरोवन दिवपी लेखक खूब आसात आनी तुमी म्हणटात तशे पयशे आसल्यार अडचण येना. तुमकां जाय आसत जाल्यार हांव लेखक सोदून दितां,'' हांवें म्हळें.

हांव कोणाक वळखना आनी सोदुंकूय वचचोंना. तुमीच म्हजें काम करूंक जाय. इतलें बरयतात थंय तितलें. दुसऱ्याक सांगप म्हाका जमचेंना आनी सांगलें तरी ताका समजुचें ना.

म्हजेमुखार मोटें संकट उबें रावलें. श्रीनिवासाच्या हड्ड्यांत तरेकवार घडणुको आनी विचार खतखतताले आनी तो आपले भाशेन म्हाका सांगतालो. पूण जेन्ना भास उणी पडटाली तेन्ना तो हावभाव करतालो. तें सगलें समजून घेवन बरयतलो जाल्यार दुसरे सगले व्याप सोडचे पडटले. हांवें ताका समजायलो आनी म्हळें, तुमची परवानगी आसत जाल्यार मनोगतांत थोडें बरयतां, पुस्तकाचो विचार उपरांत करुंया. थोडें बरोवन कशें जातलें ? अजून तुमकां हांवें म्हजें भुरगेपणूच सारकें सांगूंक ना. तें एक वेळ सोडूं येता, पूण फुडल्यो गजाली खूब गरजेच्यो. हांव म्हळ्यार तुमी जाचो लोकीक आयकतात तोच श्रीनिवास न्हय. तें म्हजें एक सवंग. नाटकांतल्या सवंगाभाशेन. तुमी जसो म्हाका पळयतात तेंय म्हजें खरेलें रूप न्हय, कृष्णान खंय तोंड उकतें करून अर्जूनाक संवसाराचें दर्शन घडयलें. म्हजें मन उकतें केलें जाल्यार खूबशो गजाली दिश्टी पडटल्यो त्यो हांव सांगूंक सोदतां.''

म्हाका दिसलें, वाद घालून वेळ वगडावंचेपरस ताज्या चपक्यांतल्यान सुटपाखातीर तो सांगतालो ती गजाल सारकी आयकून घेवंची आनी हांवें म्हळें, रेल्वेचे वाघणीतलें धान्य तुमचो बापूय कशे तरेन चोरतालो तें तुमी सांगलें. पूण ती चोरी केन्ना सांपडली ना ?''

''हजारांनी साकांतले तीन - चार साक पिंजले आनी धान्य रकून गेलें जाल्यार कोण वासपूस करूंक वता ? कोणाक तें कळ्ळें लेगीत नासतलें. पूण एक गजाल घडली. रेल्वेच्या पोर्टरान म्हज्या बापायक अशे तरेन धान्य पुंजायतना पळयलो. पोर्टर म्हळ्यार कितें ? बापूय ताजेकडेन उलयलो आनी उपरांत तोय ते चोरयेंत सामील जालो. तेरी भी चूप, मेरी भी चूप !''

''तेन्नाच्यान तुमच्या बापायक बरे दीस आयले अशें तुमचें म्हणणें आसा ?'' हांवें विचारलें.

''दुबावूच ना'', श्रीनिवासान जाप दिली. कश्ट, प्रामाणीकपण बी म्हणटात ताका अर्थ ना. जिणेंत हांव इतलें शिकलां की जो आडमार्गान वता तो मुखार पावता. साव कोण चोर कोण हें कोण थरोवपाचें ? जो पिसो आसता तो सांपडटा. तो चार. लोक दोळ्यांनी पळयता तो झगझग, कानांनी आयकता तो पयशांचो खणखण. एके खेपे मनशाकडेन पयसो जालो म्हणटकच ताका मान - प्रतिश्ठा आपसूक मेळटा आनी पयसो आसा हें लोकांक कळोवंचेखातीर थोडें दान दिल्यार पुरो. तुवें कावळ्याक केन्ना दाणे घाल्यात ?'' अचकीत विशयांतर केल्लेवरी श्रीनिवासान विचारलें.

''कित्याक विचारतात तुमी ?'' गोंदळून हांवें परतो प्रस्न केलो.

''घालून पळयात. मूठभर दाणे पुरो काव - कव करून एक कावळो गांवभर बोवाळ करतलो. इतल्यान सोंपना. दीसपट्टे तुमच्या दारांत कावळे जमतले दानाचेंय तशेंच आसता. पंचकातायेखातीर हात फुडें करचो तसो हात करून म्हज्या दारांत लोक आयिल्ले आसतात. हांव येवजितां, गोडाचो गणपती थापला आसत जाल्यार सोंडयेच्या इल्ल्या कुडक्याचो निवेद्य दाखोवंक अडचण कसली ?''

आपली खबर सांगता आसतना हरदासामाशेन श्रीनिवास आपले सिध्दांत समजायतालो. देखून हांवे म्हळें, 'फुडें बापायचें कितें जालें ?'

''दुसरें कितें जातलें ? धंदो तरतरलो. पसऱ्याचें व्हडलें दुकान जाले. माड्याच्या घरांत तो रावतालो तेंच घर विकतें घेवन ताणें बांदून काडलें. भयणीची लग्नां जाली आनी बापायक पयशांचें चटक लागलें. हांव पसरो सांबाळूंक लागलों आनी तो नवे - नवे धंदे करीत भोंवंक लागलो.''

दनपार माथ्यार आयिल्ली. हांवें श्रीनिवासाक म्हळें, ''आतां आमी या. हांव परत तुमचेसरी मुजरत येतां.''

''असो तुमकां वचूंक दिवचों ना. बऱ्या हॉटेलांत वचून जेवंया. आयतार आज. उपरांत तुमकां घरा पावयतां. जेवीसर तरी उलोवंक मेळटलें.''

ना म्हणप म्हज्या हातांत नासलें.



दोंगर देंवता आसतना श्रीनिवासान ड्रायवराक गाडयेचो ऍर कंडिशनर सुरू करूंक सांगलो. ताणें म्हाका म्हळें, ''आतां वत तापला. म्हाका ऍर कंडिशनराची थंडसाण निखालस सोंसना. रोखडेंच नाक चोंदता. पूण तुमकां आतां उजो जातलो देखून चालू करूंक सांगला.''

''नाका, म्हाकाय ऍरकंडिशनराची संवय ना. हांगा मेकळो वारो घोळटा, तो थंड आसता.'' हांवें म्हळें.

''तुमचेखातीर मुद्दाम ऍर - कंडिशनर हाडूंक ना. गाडयेंत बसयिल्लो आसा. आमी रोखडेच हॉटेलांत पावतले. ही पंचतारांकीत हॉटेलां लेगीत ऍर कंडिशण्ड आसतात... तुमका फुरसत आसत जाल्यार आमच्यांनी खंयय आंबोली, महाबळेश्वर बी वचूं येता. थोडे दीस दोगांयकय थंडसाण आनी म्हाका पोटभर उलोवंक मेळटलें.'' श्रीनिवासान सुचयलें.

''तशे सलग चड दीस भायर रावप म्हाका परवडचें ना.'' हांवें म्हळें, ''पूण मदीं मदीं तुमकां मेळटा आनी तुमी सांगतात तितलेंय आयकून घेतां.' हांवें म्हळें.

''तें कळ्ळें, पूण तुमी कांय बरोवन घेनात. हांवें सांगलें तितलीय तुमकां याद उरतलीं ?''

''जें विसरूंक जायना तें हांव केन्नाच विसरना. तुमी जें कितें सांगलें आनी फुडें जें कितें सांगतले तें म्हजे तकलेंत घोळत उरतलें. पोलपोर्के घडये उडून वचत. जें थड आसता तें मनांत रुजतलें... म्हजी बरोवपाची रीत तशीं.'' हांवें ताका समजायलो.

गाडी चलत आसली, ताणें ड्रायवराक हॉटेलाचें नांव सांगलें आनी म्हाका म्हळें, ''तुमी वायट मानून घेवं नाकात. ल्हवू ल्हवू तुमकां म्हजी वळख जातली. हांव सादो सरळ मनीस. पूण म्हजो एक दोश आसा. म्हाका लागिल्लो तो एक कलंकच म्हणूं येता...''

'भुरगेपणांतली खबर म्हणटात मूं तुमी ?'' हांवें म्हळें, ''ती आतां विसरात.''

''विसरात म्हणप सोंपें पूण विसरूं कसो ? ती खबर आसाच पूण म्हजो दुसरो गुन्यांव म्हळ्यार म्हजेकडेन पयशे आसात. तुका अदमास येवचो ना इतले पयशे आसात. हरशीं म्हजेकडेन बोट दाखोवंक कोणाक आदार ना.''

'पयशे तुमी जोडिल्ले न्ही ? ते आसले म्हणून कोणाकय दोश कित्याक दिवचेलो ? निदान तो कलंक तरी न्हय.'' हांवें म्हळें.

''तुमी म्हणटात ते खरें पूण जग तसो विचार खंय करता ? हालींच्या दिसांनी पयशे आसप, बंगलो आसप, गाडयो आसप हो गुन्यांवच अशें लोक मानता. तुमी तशें मानीनात ती गजाल वेगळी. पूण उपरांत तुमकां राग येवचो न्हय हेखातीर आतांच सांगलें, ''श्रीनिवासान म्हळें.

हॉर्टेलाच्या डायनींग हॉलांत एका कोनशाक आशिल्लें मेज श्रीनिवासान निवडलें. सकाळच्यान हांव ह्या मनशाक नियाळीत आसां. आयजमेरेन खूबशे मनीस हांवे पळयिल्ले. पूण श्रीनिवास वेगळेच तरेचो; विचित्र मनीस जाणटेपण जालें तरी तो चपळ आसलो. सकाळीं घराकडेन खांकतना खरशेल्लो तितलोच. उपरांत तो एकय वेळ खांकलो ना. मेनू कार्ड म्हजेमुखार दवरून ताणें म्हळें, ''निवड तुमची, जाय तें मागयात. पूण आदीं सांगात तानेखातीर कितें घेतले ?''

तो कितें सुचयता तें म्हाका कळटालें. हांवे म्हळें, ''म्हाका लिंबू - सोडा पुरो.''

''संकोच करपाचें कारण ना.'' ताणें म्हळें, ''म्हाका जेवंचेआदीं एक पॅग लागता. पूण तुमकां घेवपाचो आग्रो करिना.''

ताणें वेटराक पेयांची ऑर्डर आदीं दिली आनी उपरांत म्हाका म्हळें, 'म्हाका ब्लडप्रॅशर आसा, डायबिटीस आसा, गॅसाचे त्रास जातात. तरीय हांव म्हजो देह घोळयतां, पांयांनी चलतां, हातान काम करता. प्रसंग आयलोच जाल्यार तांदळाची मुडी फाटीर उखलतां. तुमचे आनी म्हजे पिरायेंत अंतर आसा...''

'तेंच येदो वेळ म्हाका खटकता.'' हांवें म्हळें, ''तुमी म्हाका जाणट्यामशेन, तुमी म्हणटात तें म्हज्या जिवाक लागता.''

''परकी मनशाक एकदम तूं कशें म्हणटलो ?'' ताणें म्हळें, ''तेभायर हांव तुका एक लेखक म्हणून मान दितां. बरें आसा. हांव तुका तूं म्हणटां तूंय म्हाका तूं म्हण. आमचेमदीं उपचाराचें परकीपण उरलें ना जाल्यार संभाशण बरें जातलें.''

मेनूचेर हांव नदर भोंवडायतना श्रीनिवासान परत म्हळें, ''हांव निखटोच सूप आनी उकडिल्ली भाजी खातलों. तें तुका लागना. तूं तुजे आवडीचे पदार्थ मागय.''

इतलें सांगून तो तरेकवार पदार्थ सुचोवंक लागलो. हांवें म्हळें, ''इतलें सगलें खंयच्या पोटांत वतलें ?'' आनी सादेंच जेवण मागयलें.

ताणें व्हिस्कीचो घोंट घेतकच हांवें ताका विचारलें, ''तुजें मन अशांत दिसता. तूं सगलें उलयता पूण मनांत गोंदळ आसचो तसो वागतो. तसो कितें प्रस्न आसा जाल्यार तो आदींच कित्याक सांगिना ?''

'सामकें खरें उलयलो तूं ! म्हजें कितें जालां ते तुका एकाच वाक्यान म्हज्यान सांगूं येता. पूण सगली खबर आयकलेबगर तुका कांयच समजुंचें ना,'' ताणें सांगलें.

''अशी कसली गजाल ती ?'' हांवें विचारलें.

''गजाल म्हणचेपरस मनाची अवस्था म्हण,'' ताणें जाप दिली. ''एकाच वाक्यांत आदीं सांगतां. हांव हारलां !''

विचित्र दोळे करून खीणभर म्हजेकडेन पळयत रावलेउपरांत श्रीनिवास व्हडान हांसलो. म्हाका तागेलो हांसो विचित्र दिसलो. खीणभर तो हांसता काय रडटा तेंच कळना जालें.

भरवेगांत धांवतले गाडयेन अचकीत ब्रेक लावंचो तसो तो हांसपाचो थांबलो आनी ताणें म्हाका

विचारलें, ''म्हज्या मनाचीं अवस्था तुका कळ्ळी. पूण सगली खबर खंय कळ्ळ्या ? ती हांवें सांगचीच पडटली. हांव लेखक न्हय, वाचक. हांव खूब वाचतां. बरें पुस्तक मेळ्ळें जाल्यार हांव रातभर वाचीत बसतां. टीवीवयल्या प्रोग्रामापरस म्हाका वाचप आवडटा.''

''कसलीं पुस्तकां वाचता तूं ?'' हांवें विचारलें. ''हाताक मेळत तें पुस्तक हांव वाचतां. भुरग्यांच्या काणयांचें, भुतां - प्रेतांचें, डिर्टेक्टीव कादंबरी, प्रेमकथा, जशी हांव वाचतां तशीं हांव चरित्रां, पुराणकथांचीं पुस्तकां नितीबोधाचे ग्रंथ... सगलें सगलें वाचतां आनी पुस्तक विकतें घेवन वाचतां. पूण म्हजी एक मर्यादा आसा. वेळाची न्हय, पयशांचीय न्हय, मर्यादा भाशेची. म्हाका हिंदी समजना, इंग्लीश वाचल्यार अर्थ समजना, कोंकणी वाचपाची संवय ना... तसो हांव कोंकणी विरुध्द न्हय... हांव मराठी पुस्तकां वाचतां. तूं केन्नाय परत आमगेर येतलो तेन्ना हांव तुका म्हजें ग्रंथालय दाखयतां.''

तो जे तरेन उलयतालो तीं पळयली जाल्यार म्हाका तो मोटो मनीस दिसलो. ताज्यांत एक नम्रताय आसा, प्रामाणिकपण आसा आनी लज मानपाचे पलतडीन तो पावलो. देखून आपले दोशय उलोवन दाखयता. हांव ताका मोटो पयशेकार म्हणून आयकून वळखतालों. आतां तो म्हाका मनाचोय मोटो मनीस दिसलो.

''तुवें तुजी ही खबर कोणाय इश्ट - मित्रांक आदीं सांगूंक ना ?'' हांवें विचारलें.

''अशें कित्याक विचारता ?'' ताणें म्हाका परतो प्रस्न केलो.

''मनांत जेन्ना कितेंय खतखतता तेन्ना तें दुसऱ्यांक सांगून उडयलें जाल्यार मन ल्हव जाता. एके भाशेन मनाची कूड निवळ दवरपाखातीर कोयराचो डबो म्हणून मित्रांचो उपेग करून घेवं येता. तुका मित्र बी कोण नात ?'' हांवे म्हळें.

'खूब आसात. पूण तांकां ह्यो गजाली सांगून फायदो काय ना. तें खुशमस्करे. शितां आसतात थंय भुतां जमतात. आतांच हांगच्यान फोन केलो जाल्यार पांच - पंचवीस मित्र धांवत येतले. म्हज्या पयशांनी जेमेरेन तांकां फोल्गां मारूंक मेळटलीं तेमेरेन तांचो म्हाका सांगात मेळटलो. म्हजे पयशे सोंपले म्हुण तांकां कळ्ळे जाल्यार सगले कावळ्यांसारके उडून वतले. तांकां ह्यो गजाली कशो सांगतलो ?''

जेवण मेजार आयलें आनी उलोवप थांबलें. म्हजी नदर ताज्या मनाचो थाव घेवपाचो यत्न करतालीं. म्हाका दिशिल्लो तसो रूक्ष वा क्लिश्ट हो मनीस न्हय. ताजेकडेन पयसो आसा. तो रसीक - वाचक, तो खंय हारलो ? कसो हारलो ? आपले विधवा चलयेविशीं तो सुस्कारतालो. घडये तें दुखब ताज्या मनांत आशिल्लें काय ? वा दुसरें कसलें दुखब ताका पिडटालें ? ओगीच म्हज्या मनांत आयलें. दर एका दादल्याच्या दुख्खाक एक बायल कारण आसता', अशें एका लेखकान म्हळां, तशें कितें घडूंक ना मूं ? पुजेक बशिल्लेकडेन आचमन करचें तसो तो सूप घेतालो.

✳

श्रीनिवासाचें वेगळेपण अशें की तो आपूण खाता आसतना एकूय उतर उलयलोना. एका फाटल्यान एक कुलेर तोंडांत घेत ताणें सूप सोंपयलो आनी उपरांत अधाशाभाशेन उकडिल्ली भाजी सोंपयली. तेमेरेन हांव मुखार बसलां हाजें भान दवरिनासतना तो वागलो. रिकामी प्लेट कुशीक सारून ताणें म्हाका म्हळें, ''हांवें एक खेपें तुगेलें भाशण आयकल्लें. हांवय भाशणां करतां. पूण तीं तुजेसारकीं

जायनात. म्हाका सदांच एक कुवाडें पडटा. कसलोय कार्यक्रम आसल्यार म्हजे सारकिल्या मनशाक हे लोक कित्याक आपयतात ? आनी हांव तरी कित्याक वतां ?''

जापेची अपेक्षा म्हजेकडच्यान करता अशें ताज्या तोंडावयल्यान म्हाका दिसलें. हांवें म्हळें, ''कार्यक्रमाक भारदस्तपण येतलो जाल्यार निकतचें भाशण उपकारना. मोटे मनीस येतकच कार्यक्रम सोंपता.''

''तशें न्हय.'' श्रीनिवासान म्हळें. ''हांव वतां थंय देणगी दिता. तुका अजाप दिसतलें, देणगेच्या आंकड्याविशीं हांव आपोवणो दिवंक येतल्याक आदींच सांगून उडयतां. फाटल्यान अपेक्षाभंग जाल्लो म्हाका नाका. तेय खूश आनी पेपरांत फोटो छापून येता हेखातीर हांवूय खूश. आपलोच फोटो छापिल्लो पळोवपाक एक आनंद आसता.''

''पूण ह्या कार्यक्रमाखातीर तूं वेळ दिता ही गजाल तितलीच म्हत्वाची.'' हांवें म्हळें.

''आतां म्हजेकडेन वेळ खूब आसा. धंद्याचो व्याप खूबच वाडला. पूण ल्हानपणांत पसरो चलोवचेखातीर जसो एक मनीस बांदून उरतालो तशें आतां घडना. हांव आसलों आनी नासलों कांयच फरक पडना. आदीं वर्साक आमी जितले जोडिनासले ताज्या कितलेशाच पटींनी चड पगार हांव आतां म्हयन्याक वांट्टां. पूण म्हाका कितें आवडटा जाणा तूं? बोल्सांत चणे दवरचे आनी ते खायत रस्त्यावयल्यान भोंवचें ना जाल्यार खेड्यांतल्या हॉटेलांत वचून तोर्राद उंडो आनी पातळ भाजी खावंची. हाव अजुनूय तशें करतां. म्हज्या भुरग्यांक लज दिसता. पूण तांचे लजेखातीर हांव म्हजी उमेद कित्याक मारूं ?''

''तूं तुजे हारीची खबर सांगतालो...'' हांवें म्हळें.

''हय तीच सांगूंक तुका हांवें आपयला. म्हजो एक मास्तर आशिल्लो. मास्तर म्हळ्यार सारकी कल्पना येवंची ना. सगल्या तरांचीं कामां तो करतालो. ताजें नांव उश्णो. हांव त्या वेळार भुरगो आसलों. खणीच्या धंद्यांत पावल दवरूंक सोदतालों. त्या वेळावयलीं गजाल. उश्णो नोकरी मागूंक आयलो.''

''त्या मास्तराचें कितें जालें ?''

''सांगतां. आदीं तूं खावन घे. तुजेखातीर गोड कितें मागूं? हांव गोड खायना हें तूं जाणाच.''

''म्हाका कांय नाका. आनी इतलें हें सगळे म्हज्यान खावंकय जावंचें ना.''

''नाका जाल्यार खावं नाका'' ताणें म्हळें. ''भायर पडटा म्हणून पोटाचो उश्टवारो केलो जाल्यार मागीर त्रास जातले.''

''हें तुमचें म्हणणें बरोबर.'' हांवें जेवण सोंपयत म्हळें.

''म्हजें कितें बरोबर आनी कितें चूक तें हांवच नकळों. जिणेंत हांवें सगलें जोडलें. म्हाका आनीक दुख्ख आसत अशें लोकांक दिसचें लेगीत ना. श्रीमंतांचीं दुख्खां वेगळीं. गरिबांच्या दुख्खांचेर सगलेच बरयतात. गरीब दुख्खांत जल्म घेतात आनी दुख्खांत मरतात. गिरेस्तांचीं दुख्खां वेगळीं आसतात.''

श्रीनिवासान आपलें क्रेडीट कार्ड दाखोवन बिलाचेर सय केली आनी वेटराक उदार टीप दवरली. तेबरोबर वेटरान ताका सलाम केलो.

''पळयलें ? दाम करी काम आनी वेटर करी सलाम ! इतलो वेळ आमच्या भेसावयल्यान ताका दिशिल्लें आमी चुकून ह्या जाग्यार पावल्यात. बील येतकच आमचे दोळे वरशे जातले. पूण आतां ही टीप पळयतकच ताणें सलाम केलो... हांव तुका सांगतां तें हें. पयशांनी कितेंय विकतें घेवं येता. मान, प्रतिश्ठा, अध्यक्षपद. जाय जाय तें विकतें घेव येता.''

हांव निखटो हांसलों. आमी हॉटॅलांतल्यान भायर आयले. म्हाका ड्रायवराचो उगडास जालो. आमी थंडसाणेन जेवले. तो बावडो उपाशीं आसतलो.

हांवे श्रीनिवासाक म्हळें, ''ड्रायवर जेवपाचो आसतलो...''

''ताचो हुस्को तूं करूं नाका. कामार आसतना भायर जेवलो जाल्यार जेवणाचो खर्च कंपनी दिता. आनी हांगा लागीं हॉटॅलां आसात. तो जेवला आसतलो.''

मोटारींत बसनाफुडें श्रीनिवासान ड्रायवराक विचारलें, ''तुका जेवण खंय मेळ्ळें ?''

ताणें भायले वटेन आशिल्ल्या एका ल्हानशा हॉटॅलाकडेन बोट दाखयलें.

''बरें आसता जेवण ?'' हांवें ड्रायवराक विचारलें.

''बरें म्हणून कितें विचारता ? मोटीं हॉटॅलां केन्ना केन्नाय ल्हान हॉटॅलांतल्यान वस्तू मागयतात आनी म्हारग दरेन गिरायकांक विकतात.'' श्रीनिवासान म्हळें.

गाडी सुरू जातकच ताणें विशयाक सुरवात केली आनी उश्ण्याची खबर तो सांगूंक लागलो.

एक मळकट पिंजकें मोटवें काल्सांव आनी हातकापें खोमीस घालून उश्णो श्रीनिवासा सरीं आयलो आनी काम मागूंक लागलो.

''कसलें काम ?'' श्रीनिवासान ताका विचारलें. ''कसलेंय काम हांव करीन.'' उश्ण्यान जाप दिली, ''भुरग्यांक शाळेंत व्हरपा - हाडपाचें काम, दुकानाचेर रावपाचें काम, झाडलोट करपाचें काम. म्हाका लज दिसची ना. बरोवपाचेंय काम हांव करीन.''

''तू कितें शिकला ?'' श्रीनिवासान ताका विचारलें.

''मॅट्रीक पास जालां. घरांत कोणाचो आदार ना.''

''सर्टीफिकेट हाडलां ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

''घराकडेन आसा. जाय जाल्यार हाडून दाखयतां.''

''तूं कोणाक वळखता ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

उश्ण्यान व्हडल्या व्हडल्या फुडाऱ्यांचीं नांवां घेतलीं तेन्ना श्रीनिवासाकच अजाप जालें.

''ह्या व्हडल्या व्हडल्या मनशांक वळखता जाल्यार तूं नोकरी मागूंक म्हजेकडेन कित्याक आयला ?'' ताणे विचारलें.

''आनीक खंय वचूं ?''

''त्या मनशांकडेन वचून मागलो जाल्यार ते आदार दिलेबगर रावचेनात, खंयय सरकारी वा बरे कंपनींत नोकरी मेळटली.'' श्रीनिवासान म्हळें.

''ते म्हाका वळखनात. ते वळखल्ले जाल्यार हांव थंय वतलों आसलों. हांव तांकां वळखता देखून हांवें तांचीं नांवां घेतलीं.'' उश्ण्यान भोळेपणान जाप दिली.

''तूं म्हजेसरीं कसो आयलो ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

''तुमकां आयकून वळखतालों. देखून आयलों.''

''असल्या वळखीविशीं तुका हांव विचारिना. तुजी हमी घेत असो कोण वळखीचो आसा ?''

उश्ण्यान ना म्हणून तकली हालयली आनी म्हळें, ''सर्टीफिकेटाचें वेगळें. तें म्हजेकडेन आसा.''

''ते सर्टीफिकेट तरी खरे मरे ?'' श्रीनिवासान दुबाव उक्तायलो.

''हांवें तुमकां हांव बी ए जालां अशी बडाय मारूक बी ए चें सर्टीफिकेट म्हज्या एका इश्टान विकतें घेतला आनी सरकारी नोकरी मेळयल्या. तसलीं फटींगपणां हांवें करूंक नात. म्हाका काम करूंक लज दिसना. म्हाका काम जाय.''

श्रीनिवासाक हो मुरगो आवडलो. ताणें ताका आनीक एक प्रस्न विचारलो. ''ल्हान ल्हान कामां करतना आपणेंय एक दीस व्हड जावंचो अशें तुका दिसना ?''

''दिसून कित्याक उपकारता ?'' उशण्यान जाप दिली. ''म्हजी उमेद सामकी मोटवी. दोन वेळचें जेवण मेळचें आनी फुडें - फाटीं लग्न जावन संवसार थाटचो. हांव कोणाची वळख तुमकां दितलों ? तशे खूब लोक म्हाका वळखतात. पूण हमी घेवपाचीं भास काडल्यार फाटीं सरतले.''

''घराकडेन तुका कोणच ना ?''

''एका काळार खूब लोक आसले. आज कोण ना.''

''अशें कशें घडलें ?''

''सगल्यांनी म्हाका सोडलो.''

''कित्याक ?''

''म्हज्या नशिबाक लागून. आतां म्हजो हो भेस पळयात. म्हजेकडेन बरे कपडे आशिल्ले जाल्यार हांव ते घालून येतलों आसलों. खूब जाणांनी म्हाका सांगलें, हे कमडे पळोवन तुका कोण दारांतय उबो करचोना. हांवें म्हळें ''हांव आसां तसो वतलों. जागेर नोकरी करपाचीं ताका फटोवप समा न्हय.''

ह्या संभाशणाचो तपशील सांगले उपरांत श्रीनिवासान म्हाका म्हळें, ''असो हो उशणो. हांवें त्याच दिसा ताका दवरून घेतलो. हांव तुका सांगतां. पगार दिलोच म्हणून बरे मनीस मेळनात. ते मेळुंकूय नशीब लागता.''



उशणो श्रीनिवासागेर रावलो आनी म्हयन्याभितर सगल्यांच्याच तोंडांत ताचें नांव घोळूंक लागलें. कोणालेय कसलेय काम आसूं. ताणें तें उशण्याक सांगचें आनी उशण्यान तें करचें.

म्हयनो जातकच पगाराचो प्रस्न उपरासलो. हेरांभाशेन उशणो मॅनेजरासरीं गेलो तेन्ना मॅनेजरान विचारलें,

''तूं कोण ?''

उशणो ओगी रावलो. श्रीनिवासाचें थंय लक्ष गेलें. ताणें मॅनेजराक कुशीक आपयलो आनी विचारलें, ''कसो लागलो तो तुका ?''

''सादो सरळ, कामचुकारपण ना आनी फट उलयना.''

''ताका अडेजशें रुपया दी.'' श्रीनिवासान मॅनेजराक फर्मायलें आनी तेन्नाच्यान उशण्याची नोकरी पक्की जाली.

''फुडें अशी परिस्थिती जाली की, उशण्याबगर पानय हालना जालें.'' श्रीनिवासान म्हाका सांगलें.

''अशें कशें घडलें ?'' हांवें विचारलें.

''ऑफीस म्हळें म्हणटकच कामचुकारपण खूब येता. उशण्याची गजाल वेगळी. सगल्या आदीं तो येतालो आनी सगल्याच्या निमाणें तो भायर सरतालो... हांव तुका एक सांगतां, ''श्रीनिवासान म्हळें, ''जो मनीस ऑफिसांत आंग मोडून काम करता ताज्या चारित्र्याविशीं म्हाका सदांच दुबाव येता.''

''तूं कितें म्हणटा तें समजलोंना.'' हांवें म्हळें.

''खरें सांगतलो म्हळ्यार असल्या मनशाक हांव पातयेना. जो कामचुकारपण करिना, आडवाटेन पयशे जोडपाची संद जो सादून घेना तो मनीस नॉर्मल आसता अशें म्हाका दिसना. तो भितल्ले बुद्‌दीचो, ठक, भोळो वा खुळो आसूं येता.''

''अशें मानपाक कारण कितें ?'' हांवें विचारलें.

''तुका म्हजें म्हणणें पिशेंपणाचें दिसतलें हें हांव जाणां. पूण म्हजे कांय सिध्दांत आसात. जिणेंत अणभवाच्या पावसांत भिजून, वतांत तापून आनी शिंयांत कुडकुडून हांवें ते निश्कर्श काडल्यात. म्हजें चुकलें अशें तूं कशें म्हणटलो ? जिणेंत म्हाका सदांच जैत मेळ्ळां. शिक्षण ना आनी तशें कोणाचें फटबळ ना. तरी हांव कोट्याधीश जालों. म्हाका तरी दिसता हांवें जे सिध्दांत घडयल्यात तांकां लागुनूच हे जैत म्हाका मेळटा. त्या सिध्दांतांक धरुनूच हांव चलतां. मनीस सात्विक आसचो अशें म्हणटात. पूण सात्विक वृत्ती मनीसधर्मांत बसना. नाय जाल्यार मनीस हें एक जनावर. दुसऱ्या मनशाक चिड्डून, फटोवन वा मारुनूच मनशाक जैत मेळूं येता. मनीसकुळयेचो इतिहास पळय. सगल्यांक मारूंक शकता तो राजा जातालो. आज कोण राजा जायना, पूण तीच वृत्ती चलता. बाकी सगलीं फकाणां. मनांतलें लिपोवंचेखातीर बुद्द तोंडाचेर रुपडें चडयता इतलेंच.''

''उश्ण्याविशीं तूं कितें सांगतालो न्हय ?'' हांवें विचारलें.

''उश्णो कामाक लागून वर्सां उलगलीं. सगळ्यांकच तो जाय जायसो जावन बशिल्लो. कित्याक तर तो आपलें काम करतालोच तेभायर दुसऱ्याच्याय कामाक आदार दितालो. कंपनीचो विस्तार जायत रावलो. धंद्याचे व्याप वाडत - बदलत रावले. हांव असो अक्षरशत्रू. मॅनेजरान पत्र बरोवन मुखार दवरलें म्हणटकच सय करतालों. सयेक म्हत्व आसा इतलें म्हाका कळिल्लें. म्हजी सगळी मदार मॅनेजराचेर आसलीं. मिनाची एक खण त्याच दिसा हांवे घेतिल्लीं. अचकीत मॅनेजर बरो ना जालो. तो केन्ना बरो जायत हें सांगूंक नजो. म्हजी अडचण जाली. ऑफिसांत खूब मनीस आसले पूण ती जापसालदारकी आंगार घेवपी कोण नासलो आनी कोणूय तयार जाल्यारय म्हजो ताजेर विस्वास कसो बसतलो ?''

श्रीनिवासाक मॅनेजर जाय ही खबर सगल्यांक पावनाफुडें तरातरांचे लोक ताका येवन मेळूंक लागले. ती गजाल उश्ण्याच्या कानार गेली. आनी तो आपूण जावन धनयासरीं गेलो.

''तुमकां मॅनेजर मेळसर तें काम हांव करूं ?'' ताणें श्रीनिवासाक विचारलें,

''श्रीनिवासाक अजाप जालें. ताणें विचारलें, ''मॅनेजराचें काम कसलें आसता तें तूं जाणा ?''

''इतले दीस पळयत आयलां आनी तागेलें थोडें काम आर्दी हांवें केलांय.''

''म्हाका कोणें सांगलेंना.''

''जाय जाल्यार मॅनेजराकच विचारून पळयात. म्हजें अक्षर निवळ देखून तो म्हजेकडच्यान पत्रां बरोवन घेतालो. केन्नाकेन्नाय हिशोब बरोवंक लायतालो.'' उश्ण्यान जाप दिली.

''इतलीं सगलीं कामां तूं कित्याक म्हणून करता ?''

''म्हाका काम करूंक आवडटा.''

''काम करप कोणाकच आवडना. काम करी नासताना पगार कसो घेवंचो हेच विवंचनेंत लोक आसता. तुकाच काम कित्याक आवडटा ? चड काम केल्यार तुजो पगार वाडटलो अशें तुका दिसता ?''

''पगाराविशीं म्हजी कसली कागाळ ना आनी अपेक्षाय ना.'' उश्ण्यान जाप दिली.

''फाल्यां मॅनेजराचें काम तुका करूंक सांगलें जाल्यारय तुका पगारांत वाड नाका ?'' अजापान श्रीनिवासान ताका विचारलें.

''नाका. जितलो आयज मेळटा तातूंत हांव संतुश्ट आसां.''

''तुजो हेतु तरी कितें तें सांग.'' आपलो दुबाव उक्तायत श्रीनिवासान विचारलें.

''तुमचो म्हजेर विस्वास नासत जाल्यार गजाल वेगळी.'' अशें म्हणून मान सकल घालून उश्णो गेलो.

थोड्या वेळान श्रीनिवासान ताका परत आपोवन हाडलो आनी विचारलें, ''तुका अडेजशीं रुपया मेळटात, तितल्यान तुजें भागता ? कितल्या जाणांचो भार तुजेर आसा ?''

''हांव तुमगेर रावतां, घरांत जेवतां, सुटी घेना, मेकळो वेळ मेळ्ळ्यार भोंवून येतां तितलोच. म्हाका कसलो खर्च ? विम्याची एक पॉलिसी घेतल्या. उरिल्ले पयशे बँकेंत आसात. अडिल्ल्या इश्ट - मित्रांनी मागले जाल्यार तांकां पयशे दितां.''

''व्यसन ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

''ना, पान लेगीत खायना.''

हो संवाद जशाचो तसो म्हाका सांगून श्रीनिवासान म्हळें, ''तागेली ही जाप आयकून म्हाका भंय दिसूंक लागलो.''

गाडी म्हज्या घरालागसार पावत आयिल्ली. श्रीनिवासान ड्रायवराक झाडामुळांत सावळेंत थांबोवंक सांगली आनी म्हाका म्हळें, ''आमी पावत आयले. तुज्या घरांत अडचण जातली. हांगाच थोडो वेळ उलोवया.''

''उश्ण्याक मॅनेजर केलो काय ना ?'' हांवें विचारलें. ''तो गेलो. पूण येवजीत तितलो म्हाका ताजो भंय दिसूंक लागलो.'' श्रीनिवासान म्हळें, ''एक मनीस काम सोदता पूण ताका पगारवाड नाका, ताका कसलीच उमेद - हावेस ना, व्यसन ना. असल्या मनशाचो भंय दिसचो ना जाल्यार कितें ?''

''पूण भंय दिसपाचें कारण कितें ?'' हांवें विचारलें.

''म्हजे नदरेन तो भयंकर मनीस आसतलो. तो बैल काय गाढव ? मनांत उमेदच ना असलो कसलो मनीस ? हांव येवजूंक लागलों. हांवें इतले पयशे मोडले पूण म्हाका लेगीत काम करपाचो आळस. सगल्योच भानगडी. हिशोबाची भानगड, टॅक्सांची भानगड, सरकारी अधिकाऱ्यांक चिरीमिरी दिवपाची भानगड. ह्या भानगडींक लागून हांव वयर सरलों. हांवें फटींगपणांच केलीं. संवसारांत जितले मनीस व्हड जाले ते फटींगपणांच करतात अशें हांव मानतां. पूण उश्णो सामकोच वेगळो. देखून म्हाका ताचो भंय दिसलो.''

''निमाणें ताका मॅनेजर केलो काय ना ?'' हांवें विचारलें.

''केलो, केलो.'' श्रीनिवासान जाप दिली.

''तुका आतां घरां परतुपाचीं ताकतीक आसा... कळ्ळ्या म्हाका.''

ताणें गाडी म्हज्या घराकडेन व्हरूंक सांगली. म्हज्या सांगातान तो देंवलो. भोंवतणीं नदर फिरावन घर पळोवन घेतलें. हांवें भितर आपयलो पूण तो आयलोना. परत मोटारींत बसून गेलो.

✷

श्रीनिवासाल्या वाडट्या व्यापाचो भर उश्ण्यान समर्थपणान उखललो. पूण ताजेविशीं श्रीनिवासाच्या मनांत एके तरेचो दुस्वास उपजलो.

''हांव उजू मार्गान वचपी मनीस न्हय.'' दुसरे खेपे आमगेर आयिल्ल्या वेळार श्रीनिवासान म्हाका सांगलें, ''महात्मा गांधींचीं पुस्तकां हांवें वाचल्यांत. गांधीन सांगलां तेप्रमाणे कायदो पाळपी चोर आनी कायदो मोडपी लेगीत चोर. संवसारांत चोरी करूंक ना असो मनीसच आसचो ना. कोण गरजेखातीर करता, कोण सुवार्थाखातीर करता. पूण चोरी ही चोरी. मनशाक जितो रावतलो जाल्यार गांधींच्या अस्तेय (चोरी करप ना) वृत्तीचो भंग करचोच पडटा. पूण समाजाचे नदरेन हांव चोर थारूंक जाय. तरी समाज म्हाका चोर मानिनासतना मान दिता हाजें कारण म्हळ्यार हांवें चोरी पचयली. केन्ना कायद्याचे

चौकटींत रावन जाल्यार केन्ना कायद्याच्या लांब हातांत सांपडना आसतना रावन हांव साव उरलां. चोरी केलेबगर पयशे मेळनात आनी पैशे आसले बगर प्रतिश्ठा मेळना. जगाचो न्यायच असो. पूण म्हज्या मानान उश्णो उजू मार्गान चलतालो, आंग मोडसर कश्ट करतालो, खिणाची उसरपत घेना आसलो. तरीं आसतना ताका चड पगार नासलो. सुरवातेक हांवें ताका अडेजशीं रुपयांचेर दवरिल्लो. मॅनेजराचो मान राखचेखातीर हांव ताका एक हजार दिवंक लागलों. कसलीच कागाळ नासताली. धंद्याचो सगलो भार ताणें आपल्या माथ्यार घेतलो आनी इतलें करुनूय आमच्या घरांत तो सगल्यांक जाय जायसो आसलो. ताका लागून म्हज्या मनांत नसाय आसताली.''

एक दीस उश्णो श्रीनिवासासरीं आयलो आनी ताणें म्हळें, ''तिजोरेंत आनी बँकेच्या खात्यांत खूब पयसो आसा. ताजें चीज जायना. तो गुंथोवंक जाय.''

''म्हळ्यार धंदो वाडोवंक जाय अशें तुजें म्हणणें ?'' श्रीनिवासान म्हळें. ''कोण सांबाळटलो ? म्हजे दोन चले दोगय आज ल्हान आसात. आसा तो धंदो व्हड जातकच तांणी चलयलो जाल्यार तांकां कांयच उणें पडचें ना. एक धूव. हांवें थारायलां, एक गरीब भुरगो सोदून ताका जांवय करतलों आनी ताका धंदो सुरू करून दितलों. अशे परिस्थितींत व्याप वाडोवन कितें करूं ?''

उश्ण्यान म्हळें ''धंद्याचो भरवंसो नासता. संवसारांत खंयय गडबडले जाल्यार एकाद्रो धंदो बसूंक शकता. देखून वेगळेवेगळे धंदे आसप बरें.''

''उश्णो खूब येवजून उलयतालो.'' श्रीनिवासान म्हाका सांगलें, ''तागेलें उलोवणें तर्काक धरून आसतालें आनी बुदवंत मनशाक लेगीत तें खोडून काडप जमनासलें. हांवें ताका त्या वेळार जाप दिली ना. पूण म्हाका ताजें म्हणणें खरें दिसूंक लागलें. मॅनेजर जाल्ल्यान पयशांचो हिशोब ताजेकडेन आसतालो... पुर्तुगेज राजवटींतली गजाल ही. त्या वेळार टॅक्साचो प्रस्न नासलो. देखून पयसो लिपोवन दवरपाची गरज नासताली. गुंथवणूक करप म्हळ्यार जमीन घेवप, भांगर घेवप इतलेंच हांव मानतालों. पूण गोंयांत मिनाचो धंदो सुरू जाल्लो, शेतांभाटांनी काम करपी लोक मिनावयलीं चाकरी करूंक धांवताले. माती हातांत घेवंची आनी तिजें भांगर जावंचें अशी ती गजाल आसली. पूण त्या धंद्यांतल्यो बारीकसाणी म्हाका कळनासल्यो. सरकारी ऑफिसरांच्या घरांत वचप म्हाका जमनासलें. पूण उश्ण्याकडेन तो विशय काडलो तेन्ना ताणे पुराय जापसालदारकी पत्करली.''

अशे तरेन मिनाच्या धंद्यांत श्रीनिवासान पावल दवरलें. कोणें एकल्यान एक खण घेतिल्ली. ती निवळ करपाक हजारांनी रुपया खर्चिल्ले. तितल्यान तो बुडलो. तीच खण घेवंची अशे उश्ण्यान श्रीनिवासाक सुचयलें.

''पूण थंय तो बुडला न्हय ?'' श्रीनिवासान आपलो दुबाव उकतायलो.

''तो भांडवल नासून बुडला. आमचेकडेन भांडवल आसा.'' उश्ण्यान धनयाक समजायलो.

उश्ण्याली भास आतां बदलिल्ली. तो घरचो जाल्लेभाशेन उलयतालो. तीय गजाल श्रीनवासाक एका अर्थान रुचिल्ली. पूण मानवनासली. ल्हवू ल्हवू उश्णो माथ्यार बसतलो असो ताका दुबाव येतालो. तरी दुसरो मॅनेजर तो खंयच्यान हाडटलो ? ताणें उश्ण्याक सांगले, ''एक प्रयोग करून पळोवया.''

मिनाची खण जोडीचें मोटें साधन जालें. उश्ण्याची श्रीनिवासाक लक्तुबाय दिसताली. पूण ताजी भिरांतय ल्हवू ल्हवू वाडिल्ली. आपल्या धंद्याच्यो सगल्यो नाडयो उश्ण्याच्या हातांत पावल्यात. एकाद्र्या बेसावध खिणाक तो घात करीत असो ताका दुबाव येतालो. धंद्याचो व्याप वाडिल्ल्यान किरकोळ धंदे बंद जाल्ले आनी श्रीनिवांसाक उसरपत मेळटाली.

''म्हाका कांयच करचें पडनासलें. उश्णो म्हाका दीसपट्टो रिपोर्ट दितालो. तो घरांतच रावतालो जाल्यार चोवीसय वरां म्हऱ्यांतच उरतालो.''

श्रीनिवासाक सदां सांजच्या वेळार व्हिस्की घेवपाची संवय आसली. त्या वेळार ताणे व्हडल्या व्हडल्या वेपाऱ्यांक आनी अधिकाऱ्यांक आपोवंचें अशें उश्ण्यान सुचयलें.

''हांव सोरो पियेवंक बसतना दुसऱ्यांक आपोवंचे म्हणटा तूं? म्हजें हांशें जावंचें ना? गांवभर बदनामी जावंची ना?'' श्रीनिवासान रागान विचारलें.

''आतां व्हिस्की पिवप हें वेसन उरूंक ना.'' उश्ण्यान जाप दिली. ''तें प्रतिश्ठेचेंच लक्षण जावन बसलां. तेन्ना तुमी व्हिस्की पितात म्हणून तुमकां कोण कांय म्हणचो ना. जे मेळूंक येतले तेय व्हिस्की पितले. घडये जेवणाक रावतले.''

''घरांत कामां वाडची नात?'' श्रीनिवासान विचारलें.

''ना. सगली वेवस्था भायले भायर जातली. थोडो खर्च येतलो. पूण असलो खर्च लेगीत गुंथवणुकीचोच भाग आसता.''

श्रीनिवासाक कल्पना व्हडलीशी रुचली ना. तरी पूण उश्ण्याक नकार दिवपाचें धाडसय जालें ना.

''व्हडले व्हडले लोक आमगेर येवंक लागले आनी अडचल्लीं कामां उश्णो करून घेवंक लागलो. आमच्या घरांत आमी एक बारच उक्ते केलें. जेवणखाण उंची हॉटॅलांतल्यान मागोवंक लागले. पूण हें सगलें घडटना उश्णो मात व्हिस्कीच्या ग्लासाक आफुडनासलो.'' श्रीनिवासान म्हाका सांगलें.

''मॅनेजर जालो तरी तो आदलोच उललो आसतलो'' हांवें म्हळें.

''ना. तो बदललो. ताज्या आंगावयलो भेस बदललो. ताज्या तोंडांतली भास बदलली. पयल्या दिसा नोकरी मागूंक आयिल्लो उश्णो वेगळोच आसलो. तो उश्णो मॉडर्न जाल्लो. पूण इतलें करुनूय ताचो सभाव बदलोना.''

एक दीस उश्णो श्रीनिवासासरीं आयलो आनी ताणें म्हळें ''हांव वेगळें बिराड करतां.''

''करच तूं'' श्रीनिवासान म्हळें. ''कितले दीस असो एकोडो रावतलो? आतां लग्न जावन घरसंवसार चलय.''

उश्ण्यान जाप दिली ना. श्रीनिवासान ताका पगार वाडयलो. दुप्पट केलो. पूण उश्णो सकाळीं आठ वरांचेर येतालो तो रातीचो पार्टी सोंपले उपरांत आपल्या घरा वतालो. धंद्याविशीं कितेंय विचार, उश्ण्याली जाप तयार आसताली. सप्तकांतलो एक दीस तो खणीचेर वचून येतालो. वर्सभरयांत ताणे दोन - तीन नव्यो खणी घेतल्यो. सगलो धंदो श्रीनिवासाच्याच नांवान आनी सयेन जातालो.

एक दीस श्रीनिवासान उश्ण्याक विचारलें, ''धंदो कसो चलला?''

''बरो चलला.''

''हिशोबाचेर तुजें लक्ष आसता न्हय?''

''हय.''

''खणीचो धंदो फायद्याचो खरो. पूण तो सारको चलोवंक जाय.'' श्रीनिवासान म्हळें.

''म्हजें लक्ष आसता.'' उश्ण्यान जाप दिली.

''कुरापत काडटलो म्हळ्यार निमित्त लेगीत मेळनासलें,'' श्रीनिवासान म्हाका सांगले. ''सगलीं कामां जयापथ जातालीं. मेळिल्लो मनीस उश्ण्याची वाखाणणी करतालो. घरांत, ऑफिसांत तो सगल्यांक जाय आशिल्लोच, भायर लेगीत लोकांच्या तोंडांत ताजें नांव घोळटालें. खूब जाणांक दिसतालें तो म्हजो धाकलो भाव आसतलो.''

''पूण तुका नसाय जावपाचें कारण कितें ?'' हांवें विचारलें.

''कारण म्हणटलो म्हळ्यार कारणच नासलें. एक दीस आमचे खणीर अपघात जालो. एक कामगार मेलो. पूण सगलें जाग्यार घालुनूच उश्ण्यान ती खबर म्हाका दिली. हांवें आकांतून वचचें न्हय म्हणपाची जतनाय घेतली. इतलें ताजे काम चोख आसतालें. तरी पूण म्हज्या मनांत ताजेविशींचो दुस्वास वाडत आसलो'' श्रीनिवासान म्हळें.

आमच्या घरांतच हीं उलोवणीं जातालीं. एकदम तो उठून उबो रावलो आनी ताणें म्हळें, ''चल, आज थोडें भोंवन घेवंया.''

''भोंवंक वचचें पडटलें म्हणपाची कल्पना ताणें आदीं दिल्लीच. हांव मोन्यांनी ताजेफाटल्यान वचून मोटारींत बसलों.

*

''आज आमी गांवाभायर पयस खंय तरी वचुंया.'' गाडी सुरू जायनाफुडें श्रीनिवासान म्हाका सांगलें. ''उश्ण्याच्यो खबरो आमी खूब उलयले. आज हांव तुका म्हज्या घरची खबर सांगतां. ती कळ्ळेबगर तुका म्हजी सारकी वळख मेळची ना.''

''तूं आपूण हारलों म्हणटालो तेविशीं तुवें कांयच सांगलें ना ?''

''हारलों म्हळ्यार फूटबॉलाची मॅच न्हय ती.'' श्रीनिवासान हांसून म्हळें, ''जिणेची हार ही एक लांब काणी आसता. फूटबॉलाची मॅच वर - देड वराभितर सोंपता. एक सांग, तुका फूटबॉलाचो खेळ आवडटा ?''

आतां विशयांतर जातलें आनी घरची खबरय थंयच उरतलीं म्हणपाचें हांवें मनांतले मनांत येवजिलें. पूण जाप दिवंक जाय आसली देखून म्हळें, ''म्हज्या ल्हानपणांत हांव फूटबॉल खेळ्ळों लेगीत. पूण हालीं फूटबॉल मॅची पळोवंक चडसो वचना.''

''तुका अजाप दिसतलें. हांव शाळेंत आसतना बरो खेळगडो आसलों. सॅंटराक सावन शूट मारली जाल्यार वयल्या कोनशांतल्यान थेट गोलांत देंवयतालों. बापायन म्हाका दुकानाच्या बंदीवासांत दवरूंक नाशिल्लो जाल्यार गोंयचे टिमींत आनी घडये देशाचे टिमींत लेगीत म्हजो आसपाव जातलो आसलो. पूण घडलें वेगळें. अजुनूय हांव फूटबॉलाची मॅच पळोवंक वतां आनी तो खेळ पळयतना म्हजे हातपांय शिंवशिंवतात... सोड ती गजाल. हांव तुका सांगतालों तें वेगळें. एक मॅच हारलों जाल्यार दुसरे खेपे मॅच जिखूं येता आनी जेन्ना एक मॅच जिखता तेन्ना आदली हार मनीस विसरून वता. जिणेंतली मॅचच वेगळी. एक मॅच हारलो,जाल्यार ताजी खंत आनी खत जीणभर उरता. एके तरेचो कांटो काळजाक रोमून उरता. सुखाचे दीस आयले तरी तें दुखख विसरूंक येना...''

''तूं म्हाका तुज्या घरची खबर सांगपाचो आसलो...''

''ह्य. तीच खबर तुका सांगतां. म्हज्या घरांत तूं पावला. घर म्हळ्यार कितें ? व्हडल्यो विस्कळ कुडी, विजेचे पंखे आनी ॲर कंडिशनर, सोफा आनी खाटी आनी कपडे धुवपाचीं मशिनां, गॅसाची शेगडी... हेंच घर अशें कोणाक दिसता आसत जाल्यार तो चुकता. म्हज्या घरांत हें सगलें आसा. जेवण खाण, न्हेसण - पांगरूण, भांगर - शिंगर, सगलें म्हळ्यार सगलें आसा. पूण थंय सूख ना. घराक घरपण ना. धर्मशाळा नासता ? तशें म्हजें घर. थंय आसात फकत थोमणे आनी तळमळो. आपल्याच घरांत मन मारून वावुरचें पडटा... केन्नाकेन्नाय तिडक येता. ही सगली गिरेस्तकाय मोखून मारची आनी संन्यास घेवन रानांत वचचें. पूण मागीर राग न्हिवता...''

''हें घर तुवेंच बांदिल्लें न्हय ?'' हांवें विचारलें.

''मोटे उमेदीन हांवें बांदिल्लें. कितली बारीकसाण घेतली ताजी तुका कल्पना ना. दीस उमेदीचे आसले. म्हजें लग्न थारिल्लें आनी व्हंकलपावणी नव्या घरांत हाडटलों हें येवजून लग्न लांबणेर उडयिल्लें. पुरतीं दोन वर्सां लग्न घराखातीर अडून उरिल्लें म्हळ्यार जाता. व्हंकलकारांचे तगादे आसताले. आनी लोक नाका नाका तें उलयताले. पूण हांवें थारायिल्लें आमच्या पोरण्या भाड्याच्या घरांत घरचे लक्ष्मीक घेवन वचचोंना. पोरण्या घराविशीं तुका हांवें सांगलां. फुडले वटेन पसऱ्याची नाब आनी फाटले वटेन चार काळखी कुडी. तें आमचें घर. घराफाटल्यान उकतें मान्नें, मान्न्या पलतडी पोरसूं, पोरसाचे एके कुशीन पयस संडास, पोरसांतच बांय, धुंवरेल्ल्यो वणटी आनी वयल्यान हुमकळटो घयरांव, मातयेच्या वणटींचे कपचे झडटाले आनी घुशी तशेंच हुंदीर दिसा उजवाडाक भोंवताले. असल्या घरांत बायलेक व्हरचों ना, अशें हांवें थारायिल्लें. देखुनूच लग्न लांबणेर पडत वतालें.''

''पूण निमाणें तुजे इत्सेसारकें जालें मूं?'' हांवें विचारलें.

''जालें म्हळ्यार करून घेतलें. पूण आज हांव तुका सांगतां, ह्या तिजुल्याच्या बंगल्यांत सगलें आसुनूय थंय सूख ना. त्या मानान आदल्या पोरण्या घरांत हेर कांय नासलें तरी सूख उपाट भरून रकतालें. जिणेंतली ही एक हार न्हय? ती आतां कशी सुदारूं येता?'' श्रीनिवासान म्हाका विचारलें काय तो स्वगत उलयलो तें कळ्ळें ना.

''अजून तें पोरणें घर आसा तर?'' हांवें विचारलें.

''तें मोडून गेलें आनी थंय रेल्वेन आपलो यार्ड केला. मोडके स्लिपर, पोरणे रूळ थंय हाडून उडयल्यात. तशें तें घर रेल्वेचे हद्‌दींतच आसलें. आमी सोडलें आनी रेल्वेन तो जागो मेकळो केलो. वांशे, कांबी आनी नळे भाटकारान व्हेले आसतले... पूण त्यो चार वणटी उब्यो आशिल्ल्यो म्हणून थंय वचून कसो रावतलों आसलों? आनी राविल्लों म्हणून आदलें सूख थंय कशें मेळटलें आसलें?'' श्रीनिवासान म्हळें.

''सूख ही मनाची अवस्था आसता. मानीत तातूंत सूख.'' हांवें म्हळें.

''अशें म्हणप सोंपें. इंगळो हातार घेवन तें फूल मानलें म्हणून फोड येवंचो उरता?'' श्रीनिवासान दोळे घुंवडावन अशे तरेन प्रस्न विचारलो जशें कितें तो म्हाका सुचयतालो, काव्याची भास उलोवंक आपणाकय येता.

नव्या घरांत येतसावन तुजें सूख गेलें अशें म्हणटा तूं? बायलेचो पांयगूण अशें तुका सुचोवपाचें ना मूं?'' हांवें विचारलें.

''तसो दुबाव लेगीत म्हज्या मनाक केन्ना आफुडचो ना. ती बायल म्हळ्यार साक्षात लक्ष्मी. तिजेर म्हजो शीण ना वा कसली कागाळ ना. म्हजेंच नशीब तसलें म्हणूंक जाय. बापायन मरचेआदीं सांगिल्लें, कितेंय कर पूण पसऱ्याची नाब सोडूं नाका. नवें घर पळोवंक म्हजो बापूय वांचलो ना. आनी ताजेफाटल्यान पसऱ्याची नाब सांबाळून बसपाचो प्रस्नच नासलो. तो वेगळेंच सुचयतालो तें हांव जाणां. ताका म्हणपाचें आसलें, सगले तरेचे आडधंदे केले तरी निमाणेकडेन पसरो हो पसरोच. अडचल्ल्या वेळार उपकारतलो. पूण धंदो अशे तरेन वाडलो की, पसरो बंद करचोच पडलो. पसऱ्यार कसले तरेचो वेपार जातालो हें हांवें तुका सांगलांच. व्हडले व्हडले धंदे करतकच तो पसरो कसो चलयतलो आसलो? आनी थंय बसयतलो आसलो तरी कोणाक? खासा बापूय निमाण्या दिसांनी पसऱ्यार बसनासलो. तागेले धंदे भायरच चलताले. म्हज्यान जातासर हांवें पसरो सांबाळ्ळो. बापूय सामकोच कंजूश... आतां म्हजे भुरगे म्हाका कंजूश म्हणटात. पूण बापायलीं हिमटेपणां तुका कशीं

सांगतलों ? सोड. आज तो ना देखून ताजेआड कागाळ करीत बसप समा जावंचें ना. लग्नाची सोयरीक ताणेंच जुळयिल्ली. पूण नवें घर बांदपाची कल्पना ताका मान्य नासली. आनी हांव नव्या घरांत व्हंकलपावणी हाडूंक सोदतालों. हीं उलोवणीं जातासर बापायक मरण आयलें आनी घर बांदपाची म्हजी वाट मेकळी जाली. म्हजी आई ह्या घरांत आयली. पूण ती चड दीस जगली ना. म्हणटकच म्हज्या दुख्खाक आवय बापूय कारण जालीं अशें कोणाच्यान म्हणूंक जावंचें ना.''

''मागीर दुख्खाचें कारण कितें ?'' हांवें विचारलें.

''कारण कोण म्हणून सांगूं ? बायल म्हजी. हांव तिका तळव्यावयल्या फोडाभाशेन सांबाळटालो. पूण कित्याक कोण जाणा तिजें - म्हजें केन्नाच जुळ्ळें ना. हांव कसो दिसतां तें तुवें पळयलांच. जुवानपणांत चड सुंदर दिसतालों अशी गजाल न्हय. कावळ्याक दुदान न्हाणयलो म्हणून तो पारवो थोडोच जातलो ! पूण म्हजी बायल नक्षत्रासारकी सुंदर. ती कॉलेजाचें शिक्षण घेतिल्ली गरिबाची चली. रुपान सुंदर, शिक्षणांत हुशार आनी गरिबींत वाडिल्ल्यान घरकामांतूय केन्ना फाटीं रावनासली. ब्रह्मदेवान आमची गांठ बांदली पूण आमचीं मनां जुळ्ळीं नात.''

''अजून तें दुख्ख घेवन तूं कित्याक बसला ? हांवें श्रीनिवासाक म्हळें. ''कसोय जाल्यार तुजो घर संवसार बरे तरेन चलला. तुगेली चली कुळारा परतली तें सोडलें जाल्यार पूत आनी सुनांनी तुगेलें घर भरला. आतां हे पिरायेचेर त्यो पोरण्यो यादी काडून खंत करीत बसप शाणेपणाचें जावंचें ना.''

''पुरती खबर आयकुनूच उलय. आदींच उलयलो जाल्यार कशें जातलें ? म्हाका दोन बायलो हें तुका खबर ना ? हांव तुका सांगतां तें पयले बायलेविशीं. आनी तुवें पयर पळयली ती म्हजी दुसरी बायल.''

हांव विस्मीत जालों. हांवें विचारलें, ''आनी हीं भुरगीं ?''

''दोनय चले दुसरे बायलेचे. फकत चली मात पयलेली... आनीक कितें विचारपाचें आसल्यार पयलींच विचार. उलयतना म्हाका मदीं आडावं नाका.''

आमी उलयतां उलयतां गाडी केन्नाच गोंयची शीम हुपून भायर पाविल्ली. ती जेन्ना घाट चडूंक लागली तेन्ना हांवें विचारलें, ''आमी खंय वतात ?''

''आंबोली घाटाचेर.'' श्रीनिवासान जाप दिली.



आंबोली घाटाची चडण चडटना श्रीनिवास उलोवपाचो थांबलो. तो आपली जिवीतकाणी येवजितालो काय घाटांत अपघात जायत म्हणपाची ताका भिरांत दिसताली तें म्हाका कळ्ळेंना. हांवें एक दोन खेपे तोंड उकतें केलें. पूण हातांनीच ताणें मागीर उलोवंया अशें खुणायलें.

गाडी वयर पावतकच एके कॉटेजीच्या दारांत वचून उबी रावली. एकदम श्रीनिवास सकल देंवलो. ताणें उदक मागोवन घेवन घोंट घेतलो आनी म्हाका म्हळें, ''मोटारीन प्रवासाची म्हाका संवय ना. रोखडीच मोटार लागता.''

दनपारचो वेळ जाल्लो. श्रीनिवासान एक कॉटेज बूक करून दवरिल्ली हें म्हाका समजलें. थंय सगली तयारी आसली.

''आतां हांव थोडी व्हिस्की घेतलों. तूं घेना हें हांव जाणां. पूण आज म्हाका मातसो बेबदो जावपाचें आसा. बेबदो जालेबगर मनाचीं दारां उकतीं जायनात. आनी तुका तर हांव कांयच लिपोवंक सोदिना. मनांत आसा तें सगलें सांगतलों. ते उपरांत कितें छापचें, कितें छापचें न्हय तें तूं थाराय. म्हाका आतां कोणाची पर्वा ना. सगले छापतलो जाल्यार जशाचे तशें छापून उडयल्यारय जाता. म्हाका कोणाची पर्वा

ना.''

मोटारीचे डिकींत व्हिस्की, सोडा आनी आयसबॉक्स सगलें आसलें. थंयच्या हॉटॅलाच्या मनशाक आपोवन श्रीनिवासान खावपाच्यो वस्तू मागयल्यो आनी उपरांत खाटीचेर मांडी घालून बसून तो एके तरेन बडबडूंकच लागलो.

''उश्ण्याचें मागीर कितें जालें ?'' ताका विशयाक फुडें गती दिवपाच्या हेतान हांवें विचारलें.

''आज उश्णो नाका. उश्णो, उश्णो, उश्णो... तो म्हजे जिणेंत इतलो भरून उरला की, विचार वता थंय उश्णो दिसता. कंसाक कृष्ण दिसतालो म्हणटात. हांव कंसा इतलो दुश्ट न्हय आनी उश्णो कृष्णासारको अवतारी मनीस न्हय.' श्रीनिवासान म्हळें.

''बरें आसा. हांवें फकत तुका याद दिवंक ताजें नांव घेतिल्लें. तशी घाट चडचे आदीं तूं तुज्या घराची खबर सांगतालो. चलयेची.. नांव कितें तिजें ?''

''सावित्री !'' एक सुस्कार सोडून श्रीनिवासान म्हळें, ''ते सावित्रीन यमाकडच्यान घोवाचे प्राण परत मेळयिल्ले. आमच्या सावूकडेन तितली पुण्याय नासलीं. जाणटेल्यांची तरांच विपरीत. म्हजे आजयेचें नांव सावित्री. ती ल्हान पिरायेचेर सवायशीण मेल्ली. ते उपरांत घरांत चली आयलीं ती ही. तिजें नांव हिका दवरलें... सोड. नांवांत कांय ना. पूण तिजेखातीर म्हजो जीव मिडमिडटा. तुवें तिका पळयल्या. घरांत ती दशा करून रावता. पूण सारकी न्हेसून भायर सरली जाल्यार शंबरांमदीं उठून दिसतली. सगल्यांनी केली अपुर्बाय. देखून चड शिकली ना. तिणें शिकून कितें करचें पडलां अशेंय सगल्यांनी म्हळें. म्हाकाय पयशांची मस्ती आशिल्लीं. पूण तिजी आवय गेलीं आनी चली उबंत पडली. कोणे तरी तिजेखातीर एक स्थळ सुचयलें. घराणें श्रीमंताचें. म्हाका दिसलें सावू सुखी जातली. ती नापसंत जावपाचो प्रस्नच नासलो. तिजेकडेन रूप आसलेंच तशी ती गुणीय आसलीं. सवती आवयच्या हाताखाला... इशारतीखाला म्हळ्यार जाता ती सगलें घरकाम करतालीं. हांवें कांय उणें पडूंक दिलेंना. जे पिरायेचेर तिका मायेची गरज आसली ती माया हांवें तिका दिली. बरें घालप घालून लग्न करून दिली. आनी वर्साभितर घवें कपल घेवन ती परत आयलीं.''

एकदम श्रीनिवासाक हुडको फुटलो. सरबत पिवंचें तशी ग्लासांतली व्हिस्की ताणें गटगटींत ताळ्यांत रकयली. आनी दोनूय पोशांनी आपलें तोंड धांकून रडत रडत ताणें म्हाका सांगलें - ''२०-२२ वर्सांचें पोर. सगल्यो उमेदीं मरून गेल्ल्यो. हांवें खूब समजायली. पूण दुसरें लग्न करूंक कबूल जाली ना. उमेदीचीं वर्सां सवती आवयच्या सुखाखातीर हुलपायलीं. तिगेल्या चल्यांचो सांबाळ केलो. घरची वावराडी आनी रांदतली जावन जीण जगली. म्हाका एकच कांच उरला म्हणजे फाटल्यान सावूचें कशें जातलें ? म्हज्या पुताक तिजेविशीं कळवळो ना. ते तिका घराभायर लेगीत काडीत...''

''पूण तुवें सावूचे आवयविशीं कांय सांगलें ना ?'' हांवें म्हळें.

''तेविशीं म्हाका कांय विचारूं नाका. उपकार कर. हांव तुका लिपोवंक सोदतां अशें समजूं नाका. सगलें सांगतलों.''

''म्हजो आग्रो ना.'' हांवें म्हळें. ''पुण तुजे पूत आनी सुनो तरी तुका सूख दितात मूं ?''

''ना कशें म्हणूं ?'' श्रीनिवासान म्हळें. म्हज्याच रक्ताचे गुळे ते. अजून मेरेन म्हज्या उतराभायर वचूंक नात. तांचे आवयक तुवे पळयल्या. ती कोणाकच पातयेना. देखुनूच घरांत लेगीत भांगराच्यो वस्ती आंगार घालून वावुरता. दुसरेपणांतले बायलेक घोवाचीं माया नासता म्हणटात. तिजें लक्ष आसता तें घोवाले इस्टेटीचेर. तें सामकें खरें हें हांवें अणभवलां.''

ल्हवू ल्हवू व्हिस्केची घुंवळ श्रीनिवासाचे तकलेंत चडटाली. ''पूण म्हजे तकलेंत एक धाडशी विचार

घोळूंक लागलो. म्हाका दिसलें सावूचें उश्ण्याकडेन लग्न जुळयलें जाल्यार.....''

इतलें उलोवन श्रीनिवासान म्हळें, ''जेवले उपरांत हांव थोडो न्हिदतां. म्हगेलें जेवण तूं जाणाच. उकडिल्लीं भाजी आनी धंय खातलों हांव. म्हाका एक वरभर न्हीद जाय. तूं भोंवतलो जाल्यार भोंवन यो. पूण आदीं पोटभर जेव.''

श्रीनिवास लकता हें म्हाका कळटालें. आनी आतां तो उलयत बसलो जाल्यार आनीक व्हिस्की पितलो म्हणपाचो म्हाका हुस्को आसलो. देखून हांवें ताका म्हळें ''तशेंच करुंया. हांवय पांय मेकळे करून येतां.''

जेवतां जेवतांच बशिल्लेकडेन तो न्हिदलो. ताजी प्लट काडून दवरून हांवें ताका न्हिदयलो. खूबशें जेवण वादाविसूळ जाल्लें, हांवें हॉटेंलाच्या मनशाक तें सगलें व्हरूंक लायलें आनी हांव कॉटेजींतल्यान भायर सरलों.

भायले वाटेन वातावरण शांत आसलें. मळबांत पुंजक्यांनी काळीं कुपां दिसतालीं पूण पावस नासलो. जाल्यारय म्हाका दिशिल्लीं ते तरेची थंड हवाय नासली. रातीच्या वेळार घडये हवा थंड जाता आसुंये. पूण त्या उक्त्या वातावरणांत सह्याद्रीच्या तेंगशांची विविधताय पळयत हांव वर - देड वर भोंवलों. उकत्या वातावरणाक लागून मन प्रसन्न जालें. म्हाका ओगीच दिसलें, श्रीनिवासाच्या चपक्यांत सांपडिल्ल्यान हांव अडचणेंत आयलां. ताजेखातीर वेळ दिवंचो पडटा. वेळाची व्हडली पर्वा नासलीं. पूण तो खूब सुस्त मनीस. आपलेभाशेन कोटी - कवनां करूंक वता. ताका लागून कथेंत आडकथ्या खूब येता. अशें आसूनय तो मेकळेपणान उलयना. कितें तरी लिपयता असो म्हाका दुबाव येतालो.

हांव परत कॉटेजींत आयलों तेन्ना श्रीनिवास भायलेवटेन पासयो मारतालो. ड्रायव्हरान गाडी घुंवडावन दवरिल्ली. परतुपाची तयारी जाल्या अशें म्हाका दिसलें. आनी हांवें श्रीनिवासाक म्हळें ''म्हाका वेळ जालो.''

''कांय वेळ जावंक ना. यो अजून आमी थोडें उलोवंया.''

तो म्हाका घेवन परत कॉटेजींत आयलो आनी ताणें म्हळें. ''तुका हांवें उश्ण्याविशीं थोडें सांगलां. ताका हांवें म्हज्या मनांतलें केन्नाच सांगलेंना. पूण उश्णो हुशार. ताका तें कळ्ळें आसतलें. पूण ताणें म्हाका चकयलो. तेन्नाच्यान म्हाका ताजो भंयच न्हय राग लेगीत येवंक लागलो. ती खबर हांव फुडले खेपे तुका सांगतां. पूण उपकार करून हांव उश्ण्याक जांवय करून घेवंक सोदतालों म्हणपाचें कोणाक म्हणूं नाका.''

''पूण पुस्तक बरयतकच लोकांक कळचें ना ?''

''तोय प्रस्न आसा खरो. म्हजेखातीर म्हणिना. आमच्या सावित्रीखातीर....''

श्रीनिवासान एक सुस्कार सोडलो आनी एकदम म्हळें ''चल वेळ जातलो. आमी परतुंया.''

*

परतीच्या प्रवासांत श्रीनिवास जे उमेदीन उलयतालो ती पळयली जाल्यार दनपारचे व्हिस्कीचो प्रभाव अजून ताजेर आसा असो म्हाका दुबाव येतालो. तो भोंवन भोंवन तोखणायो करतालो त्यो आपले पयले बायलेच्यो.

''तिचें नांव पार्वती. पूण पारू हे तिणेंच आपणाक दवरिल्लें नांव. आपणाक पारू ह्या नांवानच उलो मारूंक ती सगल्यांक सांगताली. म्हजी आवय तिका पार्वती म्हणटा इतलेचखातीर तिका मांयचो राग येतालो... म्हाका खूब खेपे अशें दिसता, म्हजे उर्जितावस्थेक पारूच कारण आसूंक जाय. नव्या

घरांत ती आयली पूण त्या घरांत केन्ना कांयच उणें पडलेंना; घर सदांच भरत रावलें. तरी ती खंती आसता असो म्हाका दुबाव येतालो. तिज्या दुख्खाचें कारण समजून घेवपाचो हांवें यत्न केलो. पूण तिणें केन्ना म्हाका तें सांगलेंना....''

''तूं सगलीं खबर सांगता. पूण तुजें बायलेक फुडें कितें जालें ते सांगिना.'' हांवें म्हळें.

''तुका हांवें कांयच लिपोवंक ना.'' श्रीनिवासान म्हळें, पारू एक दीस सांगले - सवरले बगर घर सोडून गेली. वता आसतना तिणें टॅक्सी मागयली. घरची मोटार वापरली ना. हांव बोवाळांत आसलों. सावित्री तीन वर्सांची. ती थंयच खेळटाली. पारू आयलीं आनी दाराच्या हुंबरार उबीं रावन तिणें म्हळें ''हांव वतां.''

''म्हाका दिसलें ती लागींच खंयय वता आसतलीं. एकाद्री आपले मैत्रिणीक मेळूंक ती अदींमदीं वताली तशीच त्या दिसा वता अशें म्हाका दिसलें. हांव बोवाळांत आसलों. हांवें इतलेंच विचारलें 'सावित्रीक व्हरता ?' 'ना.' अशी तुटक जाप तिणें दिली आनी ती गेली ती परत आयलीच ना.''

''पूण ती परत येवंचिना हें तुका केन्ना कळ्ळें ?' हांवें विचारलें.

''उपरांत तिणेंच सांगले. सावित्री घरा खेळटाली आनी तिका सांबाळपी मनशां आशिल्लीं. दनपारची पारू आयली ना. तेन्ना म्हाका कांय दिसलें ना. सांजमेरेन परत येतली अशें म्हाका दिशिल्लें पूण मदीं ड्रायवर दिश्टी पडलो. ताका विचारलें तेन्ना ताणें सांगलें ''आपणेंच तिका टॅक्सी हाडून दिल्या. तिणें गाडी नाका म्हळी'' तें आयकतकच मात म्हजें मन हुस्केलें. आतां तिका खंय सोदतलो ? आनी सोदूंक गेलो जाल्यार बोवाळ जातलो अशें येवजून हांव ओगी रावलों. तिणें सांजमेरेन ती आयलीं ना तेन्ना चारकडेन तिका सोदली. पूण मेळ्ळी ना.''

''आपूण परत येवंचिना अशें केन्ना सांगलें तर तिणें ?'' हांवें विचारलें.

''दुसऱ्या दिसा ती आपल्या कुळारच्या घराकडेन मेळ्ळी. थंडसाणेन तिणें सांगलें, ''कायद्याचे सोपस्कार सवकसायेन पूर्ण केल्यार जातात. पूण हांव परत येवंचिना'' आनी आपल्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र तिणे ताज्या हातार दवरले.

ती खबर सांगतना मोटारींत बशिल्लेकडेन लेगीत तो सद्गदीत जाल्लो. ड्रायवरान दोन खेपे तकली धुंवडावन फाटल्यान पळयिल्लें. ताणें म्हाका म्हळे, ''पारु बायची खबर काडूं नाका.''

पूण श्रीनिवास ड्रायवराचेर धेंगशेलो. ताणें म्हळें, ''आमी कितें उलयतात तें तूं आयकूं नाका. सगली खबर सांगूंक म्हणून ताका आपयला.'' मागीर म्हाका लेखून श्रीनिवासान म्हळें ''हो विश्वास गाडी चलयता इतल्याच खातीर ताका ड्रायव्हर म्हणपाचें, पूण तो सामको आमचो घरचो मनीस. नांवा माशेनच विश्वासू.''

श्रीनिवासान घुस्मटत घुस्मटत पारूची खबर पूर्ण केली.

जेन्ना श्रीनिवास तिका सोदीत तिच्या कुळारच्या घरा पावलो तेन्ना त्या घरांत पारू एकलीच आसली.

''तुका कोणें कितें म्हळें ? म्हाका सांग. सगलें तुज्या मनासारकें जातलें. तूं परत यो. सावू तुजी याद काडटा.'' श्रीनिवासान पारूक सांगलें.

''कोणेंच म्हाका कांयच म्हणूंक ना. कोणाविशीं कसलीच कागाळ ना. पूण म्हजी सावळी सावूचेर पडिल्ली म्हाका नाका. सावूची हांव आवय खरी पूण ती तुजी चली. ती तुजे म्हऱ्यांत उरची. तुवें म्हाका मोग दिलो, मान दिलो तेखातीर हांव तुजी उपकारी आसां. म्हज्या काळजाच्या करंडांत ही उपकाराची भावना सदांच उरतली. आंगावयलें भांगर हांवें हाडूंक ना. तुवें हाडिल्लीं उंची न्हेसणांय हांवें थंयच

दवरल्यांत. पूण म्हजो निर्णय बदलचो ना.'' पारून जाप दिली.

''पूण अशें पडलें कितें ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

''कांय ना. तेविशीं म्हाका उपकार करून विचारूं नाका.'' तिणें जाप दिली.''

अदीक संवाद जावंक पावलोना. आपुण श्रीनिवासाक सांगुनूच भायर सरल्यां अशें तिणें म्हळे.

''म्हाका दिसलें राग न्हिवतकच ती येतली. पूण ती आयलीं ना. मागीर हांव तिका सोदूंक गेलों तेन्ना ती मेळ्ळी ना. ते उपरांत तिजी - म्हजी भेट जावंक ना. श्रीनिवासान म्हाका सांगलें.

''सावू तिज्याच घरांत उरली ?'' हांवें विचारलें. ''तें तुवें पळयलांच न्हय ? तिज्या नशिबांत दुसरें घरच ना. पारू दतकच सावूच्या रुपान पारूक पळोवन हांव म्हजें दुख्ख विसरलों. धंदो वाडत रावलो. म्हजे तकलेंत असो विचार आतां घोळूंक लागलो..'' एकदम फोडणिशी केल्ले भाशेन श्रीनिवासान फुडें म्हळें.. व आतां म्हळ्यार केन्ना ? हांव ते उपरांतची खबर सांगतां. सावू लग्ना उपरांत परत कुळारा आयली तेन्ना उशण्याक घरजांवय करपाचीं सपनां हांव पळयतालो. पूण म्हाका ताजो दुबाव येतालो आनी भंयय दिसतालो.''

उलयतां उलयतां परत उशण्याचो विशय श्रीनिवासानच काडिल्लो. तरी म्हाका प्रस्न विचारूक संकोच जातालो.

गाडी पूर्ण वेगान धांवताली. श्रीनिवास भायले वटेन नदर करून सैम नियाळटालो. मदींच ताणें गाडी थांबोवंक सांगली.

कुशीक एक खोंप आसली.

''हांगा बरीं भजीं मेळटात. हांव हेवटेन आयलों जाल्यार मुजरत खातां. चल आमी खावंया. विश्वासाकय च्या घेंव दी.''

ल्हानशी खोंप. एक बांक आनी एक फाटमोडकें कदेल. एक लाकडी मेज. कुशीक हॉटेलाचो धनी एके काशीचेर बशिल्लो. श्रीनिवास येनाफुडें तो उठून उबो रावलो आनी ताणें म्हळें. ''सारको वेळार पावलो भाटकार. निक्तीच कायल रान्नीर दवरल्या.''

भितल्लें वटेन तापिल्लें तेल चुळचुळूंक लागलें. भजीं दुसरो कोणीय तरी तळटालो आसूंये. भायलेवटेन धुंवर येतालो. पूण त्या धुंवरावांगडाच भज्यांचो घमघमाटय येवंक लागलो.

हॉटेलाचो धनी श्रीनिवासाच्या संवकळीचो दिसतालो. श्रीनिवासान ताका म्हळें ''सगलें जग बदललें तरी तुजें हॉटेल अजून बदलना.''

''तेच खातीर थोडो आदार मागतालों.'' ताणें माथें खरपीत म्हळें.

''हॉटेल अशेंच उरपाचें. जोड नासत जाल्यार तें सुदारून फायदो ना, जाणा मरे गोपाळ ?'' श्रीनिवासान म्हळें, ''तुजे धुवेच्या लग्नाखातीर तुवें पयशे मागले आनी हांवें ते दिले. तुका अडोवन दाखयलें ? ना न्हय ? पूण दुकान सुदारूंक हांव पयशे दिवंचो ना. दुकानाक जोड जाता जाल्यार ते जोडींतल्यानच तुवें तें सुदारूंक जाय. इतलो फायदो जाता तो खंय वता ? दिसाक दोनशें रुपयांचीं भजीं खपतात मरें ?''

ह्याच वेळार एके पत्रावळीचेर तळिल्लीं भजीं घेवन एक बायल भायर आयली. ती गोपाळाची बायल आसुंये. भजीं मेजार दवरून तिणें म्हळें, ''तुमीच विचारात ताका भाटकारांनो, तीनशीं - चारशीं रुपयांचो गल्लो येता आनी हो दादलो जुगारांत आनी सोऱ्यांत सगलो खर्चून उडयता.''

''जाणां हांव तें'' श्रीनिवासान म्हळें, गोपाळाक हांव सारको वळखतां. ताज्या हातार पयशे पडूंक फावोनात. जुगार खेळून कोण व्हड जाला ? आनी सोरो पियेवन कोणें आपले प्रस्न सोडयल्यात ?

पयशांक पयशे काबार आनी मलायकेचें लुकसाण'' श्रीनिवासान म्हळें.

''दोनीय व्यसनां पाड हीं,'' उद्वेगान तें बायलेन म्हळें. हाजें चित्र काडूंक नजो. देखून चलयेक कुळारा येतना भांगर हाडूं नाका म्हणून सांगून दवरलां हांवें. त्या पांडवांभाशेन हो म्हाका लेगीत एक दीस जुगाराक लायत म्हणपाची म्हाका भिरांत दिसता.'' अशें म्हणून ती भितर गेली.

*

खंयच्याय गंभीर नाटकांत उपपात्राचो अर्धगंभीर आनी अर्धविनोदी प्रवेश येवन वचचो तसलो अणभव त्या भज्यांच्या हॉटॅलांत हांवें घेतलो. श्रीनिवासाची संवकळ कितली ताजो अदमास थंयच्या वेव्हारावयल्यानच आयलो. आमचेमुखार पत्रावळीचेर घालून दवरिल्लीं भजीं उण्योच वीस प्लेटी आसतलीं. आमी थोडीं खालीं आनी उरिल्लीं श्रीनिवासान कागदान बांदून घेतलीं. च्या तशीच एके ॲल्युमिनियमचे किटलेंत घालून तिणें दिली. ड्रायव्हराकडेन एक दुदी आनी सूर्न गाडयेंत दवरूंक दिलो.

''दुदी आनी सूर्न फाटलेवटच्यान जातलो'' तिणें सागलें.

श्रीनिवासान येता आसतना बायलेच्या हातार शंबर रुपयांची नोट दवरली. तेभायर गोपाळाक २० रुपया दिलें.

''तुका सांगून व्यर्थ हें हांव जाणां. हांवें मना केलो तरी तूं जुगडी खेळटलो, ना जाल्यार ताळो भिजयतलो. पूण तुका पयशे कित्याक दितां जाणा ? तुजे बायलेच्या कश्टांच्या पयशांचेर तुवें डल्लो घालचो न्हय हेखातीर !''

गोपाळान परती जाप दिली ना. मोटारीमेरेन येवन मान सकल घालून उबो रावलो. ताजे बायलेन भितोडेक रावनच निरोप घेतलो.

''भजीं कशीं लागलीं ?'' गाडी सुरू जायनाफुडें श्रीनिवासान म्हाका विचारलें.

''अजून तोंडांत तांची रूच उरल्या. खरेंच बरीं भजीं. हांचे असलीं मेळचीं नात.'' हांवे म्हळें.

''सकाळचीं हांगा पातळ भाजी आनी पोळे मेळटात. हुनहुनीत पोळो गोपाळाची बायल भाजून वाडटा. जिबेर कुडको दवल्लो जाल्यार विरून वचचो इतलो नाजूक पोळो. पातळ भाजी... सगले रांदप तीच करता. हांवें तिका आमगेर रांदूंक येता काय म्हणून विचारिल्लें. ती आयली ना. आतां वतान करपल्या आनी कश्टांनी थकल्या. तेभायर तिजी पिराय जाल्या. पूण आदल्या काळार तिका तुवें पळयिल्ली जाल्यार तूं पिसो जावपाचो. सिनेमांतले नटयेक फाटीं घालतालीं. काळ्या सावळ्या रंगांतलें एक अप्रूप शिल्प कशीं ती दिसताली. हांवें पयलेंच खेपें पळयलीं तो प्रसंग अजून याद जाता.''

श्रीनिवासान २५ - ३० वर्सां आदल्या त्या प्रसंगाचे तल्लीन जावन वर्णन केलें.

''मिनाची खण सोदूंक आमी मेळत ते वाटेन भोंवताले. तेन्ना अशो मोटारी नासल्यो आनी रस्तेय नासले. हांव एक मोटरसायकल चलयतालों. आनी पयस खंयय वचपाचें आसलें जाल्यार दुसऱ्याक कोणाकय सांगातान घेतालों. त्या दिसा सगली सकाळ रानांनी भोंवले आनी दनपार देंवंक लागली तरी आमच्या ताळ्यार उदकाचो थेंब पडूंक नाशिल्लो. च्याचें दुकान ह्या भागांत आसपाचें कारण नासलें. पूण कोणय पयशे घेवन तान - भूक मागोवपाखातीर कितेंय दीत काय म्हणून वासपूस करीत रावले. एका राखण्यान हे खोंपीकडेन बोट दाखयलें,'' श्रीनिवासान त्या प्रसंगाचो उगडास काडलो.

खोंपीच्या दारांतच हो गोपाळ - तेन्ना भुरगो आसलो - खाकीचें मोटवें कलसांव घालून उकतोच उकडयां बसून विडी ओडटालो. आमची मोटरसायकल पळोवन तो उबो रावलो.

''हें हॉटॅल ?'' श्रीनिवासान वासपूस केली.

''हांगा हॉटॅल खंयचें'' बेफिकिरीन शिळोण घालीत ताणें जाप दिली.

''श्रीनिवासान ताका आपली अडचण सांगली आनी म्हळें ''पयशे आमी दितात, आमकां च्या मेळत जाल्यार उपकार जातले.''

''दूद ना. फुटी उपकारता ?'' त्या तरणाट्यान विचारलें.

''जाता''

''राव आं, दूद असल्यार पळोवन सांगतां. पूण खावंक कांय मेळचें ना.... एक पणसूल पिकिल्लें आसा. गरे उपकारतात ?''

गरे न्हय, कितेंय उपकारतालें. श्रीनिवासान तोंड धुवंक फाटले वटेन गेलो. तो तरणाटो भायर मोटरसायकलीकडेन वचून ती पळोवंक लागलो. सांगाताक आयिल्लो मनीस भायले वटेनच उबो रावलो.

फाटले वटेन बांय आसली. श्रीनिवासान उदक लागले तशें भितोडेक आशिल्ली बायल भायर आयली. तिज्या आंगार मोटवें न्हेसण. तिजे रूप आनी लज धांपपाक तें पुरो आसलें. तिणें कळसुली काडीसर श्रीनिवास तटास नदरेन तिका पळयत रावलो. कळसुली दवरली आनी ती भितर गेली. श्रीनिवासान हात - तोंड धुवन येता आसतना भितल्ले वटेन नदर भोंवडायली. तीच रांदचीकूड. जमनीर एका वस्त्राचेर देड - दोन म्हयन्यांचें भुरगें न्हिदलां आनी कुशीक ती बायल रांदनीचेर आदन दवरून बसल्या.

''हांवूय तेन्ना मनान आमी देहान तरणो आसलों.'' श्रीनिवासान म्हाका सांगलें. ''ह्या रानांत एक सुंदरी आसा हाजेर म्हजो विस्वासच बसना आसलो. ओपारच दितलो जाल्यार तिका अप्सरेची ओपार दिवची पडटली... तिका पळयली आनी म्हजी तान - भूक न्हिवली. हांव अधाशासारको तिका पळयतालों. ती हालता तशी तिचो अर्द उक्तो देह पानांआड लिपिल्ल्या फळांवरी नदरेंत भरतालो. तिणें च्याचो तोप सकल काडलो आनी पितुळचे दोन पेले काडून दवरले. एका पेल्यांत जेन्ना तिणें आपलेंच दूद घालें तेन्ना हांव भानार आयलो. हांवें बेगीबेगीन तिका सांगलें, ''एक च्या फुटीच आसूं म्हाका दूद नाका.''

हो प्रसंग वर्णन करून श्रीनिवासान म्हाका सांगलें ''इतल्या वर्सांची आमची वळख - हांव वयलेवयर हांगा पावतालों. हॉटॅलाची कल्पना हांवेंच तांकां दिलीं. थोडे पयशेय दिले. आज हॉटॅल बरें चलता. ती बायल जावन ह्या दादल्याक पोसता. म्हाका केन्नाय दिसता, पतिव्रतेच्या दुःखाक जर वाचा फुटिल्लीं जाल्यार गोपालाच्या बायलेसारक्यो बायलो अशे करपून वचपाच्यो न्हय... म्हजें तेन्ना लग्न जाल्लें. पूण हांव सांगतां, कोणूय तिजेकडेन लग्न जावंक तयार जायत आसलो. ना जाल्यार रांदतली म्हणून तिका घरांत दवरून घेत आसलो...''

''धुवेच्या लग्नाविशीं तूं कितें म्हण्टालो न्हय ?''

''तीच धूव ती. तिका नांव दवरिल्लें शांता. दोन म्हयन्याची आसतना तिका पळयिल्ली. आवयचें रूप तिका आयलें ना. पूण आवयचे तालमीन वाडली. तिका बरो घोव मेळ्ळा म्हणून आयकतां. तिज्या लग्नावेळार हांवें म्हजे तांकी प्रमाणें आदार दिल्लो.... पूण ती गजाल वेगळी. जालेंय जाल्यार खूब वर्सांमेरेन अप्सरेविशीं वाचता आसतना म्हज्या दोळ्यांमुखार गोपाळाची बायल उबीं रावताली.'' श्रीनिवासान म्हळें.

म्हाका उश्ण्याची फुडली खबर समजून घेवपाची आसली. हॉटेलांत गेल्ल्यान तो विशय कुशीक उरिल्लो.

''ह्या प्रसंगाक लागून तुवें दिल्ल्या दानाची म्हाका कल्पना आयली.'' हांवें म्हळें.

''आमी दानां दीत आसतात. साद्या साद्या कामाखातीर सरकारी मनशांक लांच दितात. तेंवय दानच. पूण आपलीं दानां जाहीर करपाची नासतात. एक खेपे म्हजे सरीं कांय भुरगे आयले आनी तांणी एका हॉलाक म्हज्या बापायचें नांव दिवंचेखातीर दान मागलें. हांवें दिलें ना. हांवें सांगलें, बापायक आपलें नांव हॉलाक दिल्लें दिश्टी पडपाचें आशिल्लें जाल्यार वेगळी गजाल आसली. ताका कांय दिश्टी पडपाचें ना. ताज्या नांवान हॉल बांदून ताका फायदो कितें ? कशें म्हण्टा तूं ?''

हो निमाणो प्रस्न श्रीनिवासान म्हाका विचारिल्लो.

हांवें म्हळें ''तूं स्वतंत्र बुध्दीन विचार करपी हेविशीं म्हज्या मनांत आतां दुबाव उरूंक ना.''

''विचार केलो म्हणून उपकारता. हे विचार लोकांक कळूंक जाय. म्हजे दुखखच न्हय, म्हजे विचार लेगीत तुवें बरोवन काडूंक जाय. गरीब मनीस गिरेस्त जालो, लक्षाधीश भिकारी जालो असल्यो काणयो सगलेच बरयतात. पूण लक्षाधीशाकय दुख्ख आसता तें मात कोणाक खबर नासता.''

''पूण तुजी खबर अर्दारच उरली. तूं उश्ण्याविशीं कितें सांगतालो तें अर्दारच उरलें.''

उश्णो फकत म्हजो मॅनिजर उरलो ना. ताजेविशीं म्हज्या मनांत कसली भावना आसली हें उतरांनी सांगूक जावचें ना. म्हजो सगलो धंदो ताज्या हातांत आसलो. तो सांगता थंय हांव सय करतालों. तो म्हाका फटोवंचो ना म्हणपाचो विस्वास आसलो. हांवें पळयलें, न्याय - नीतीच्या मार्गान चलपी उश्णो फटींगपणा करिना पयशे चोरिना. हांव दितां तितलो पगार घेता. ताका कसलेंच व्यसन ना. ताका लागून म्हाका ताजी भिरांत दिसताली. ह्या उश्ण्यान म्हाका त्रासांत घालो.'' श्रीनिवासान सांगलें.

''ताणें सावित्रीकडेन लग्न जावंक नकार दिलो ?'' हांवें विचारलें.

''हांवें सांगिल्लें जाल्यार तो लग्न जायतय आसलो. पूण म्हजेंच मन बदललें. एकेक घडणूक घडत गेली आनी ऊश्णो म्हजेपसून पयस पयस वचत रावलो.''

वाद ! झगडीं ! मतभेद ?'' हांवें विचारलें. ''तसलें कांय ना. आपलें मत तो सांगतालो. पूण हांव सांगतां ताजे आड सूर काडिनासलो... पूण ती खबर फुडले खेपे सांगतां. आतां आमी उरिल्लीं भजीं खावंया... म्हाका तीं पचनात. पूण जीब हुळहुळटा,'' श्रीनिवासान म्हळें.

*

उश्णो हो श्रीनिवासाला नोकर. तो वर्णन करता तेभाशेन तो नम्र, आज्ञाधारक आनी सरळ मार्गान चलपी मनीस. ताजो भयं श्रीनिवासाक कित्याक दिसचो ? एके वटच्यान तो उश्ण्याक जांवय करूंक सोदतालो तरी ताका भिंयेतालो. दोगांच्या संबंदांमदीं कितें तरी गुपीत आसतलें, जें श्रीनिवास म्हाका सांगनासलो असो म्हाका दुबाव आयलो.

''उश्ण्याक नोकरेवयलो काडपाक कारण कितें जालें ?'' हांवें विचारलें ''घरच्या प्रस्नांत तो घुस्पलो ?''

''घरच्या म्हळ्यार तूं सावूविशीं विचारता आसत जाल्यार आदींच सांगतां. सावूचो आनी उश्ण्याचो केन्नाच संबंद आयलो ना: आनी म्हाका दिसना सावून केन्ना नदर वयर करून ताजेकडेन पळयिल्लें आसत. घडलें अशें की, एक दीस उश्ण्यान येवन म्हाका सांगलें, कंपनीच्या हिशोबांत गोंदळ आसा.''

''अफरातफर ?'' हांवें विचारलें.

''तशें तो सुचयतालो. पूण म्हाका दिसलें, हांव जे पद्दतीन पयशे काडटां वा एकेकडच्यान दुसरेकडेन व्हरतां ते पद्दतीक तो आक्षेप घेता आसतलो. हांवें ताका हिशोब म्हाका दाखोवंक सांगलें.''

उश्ण्यान श्रीनिवासाक हिशोब दाखयलो. हिशोबाची पद्दतच आदल्या मॅनेजरान चुकयिल्ली. उश्ण्यान सगलो हिशोब तपासून कांय निश्कर्श काडिल्लें. तातूंत म्हजे आदले बायलेच्या म्हळ्यार पार्वतीच्या नांवान गेल्या पयशांचे आंकडे आसले. एक आनी दोन न्हय लाखांनी रुपया.

''पारूबायक पयशे दिल्ल्याचो उल्लेख आसा. सगले पयशे दितना रोख दिले. पूण तिजी पावती ना वा तुमची मंजुरी ना.'' उश्ण्यान श्रीनिवासाक सांगलें.

''तिका पयशे दिवंक म्हजे मंजुरीची वा तिजे पावतेची गरज खंय आसली ?'' श्रीनिवासान उश्ण्याक शेडायलो.

''हो वेव्हार सादो - सुदो न्हय. दर खेपे हजारांनी रुपयांचो वेव्हार जाला. तितले पयशे पारूबांय खंय व्हरतली. तांचें तिणें कितेंय केल्लें जाल्यार दिसूंक जाय आसलें. हाची रूजवात करून घेतिल्ली बरी''

श्रीनिवासाक एकदम दिश्टावो जालो. आपली बायल तरी घर सोडून गेल्लीं आसली तरी वतना तिणें कांयच व्हरूंक ना. भांगराक हात लावंक वा. मंगळसूत्र लेगीत परत दिलां. तिणें मनांत हाडिल्लें जाल्यार आनीकय पयशे आनी भांगरां तिज्यान व्हरूं येतालीं. आपले असवडीं ती मॅनेजराकडल्यान पयशे कित्याक घेतली ?

''त्या खिणाक सावन म्हजी तकली घुंवली. आदल्या मॅनेजराचेर म्हजो पुराय विस्वास. उश्णो फटींग अशें हांवें म्हणूंक ना. पूण सादेपणानच उश्ण्यान आदल्या मॅनेजराच्या आनी म्हजे बायलेच्या तोंडावयलीं रूपडीं पिंजून उडयिल्लीं. खरें कितें हे कशें कळटलें ? आदलो मॅनेजर अजून हांतुणार आसा. ताका विचारलें जाल्यार तो जाप दितलो की, जो कितें वेव्हार जाला तो बरयिल्लो आसा. ह्या प्रस्नाची जाप पारूच दिवंक शकत. पूण तिका खंय सोदतलो ? आनी तिचेर विस्वास दवरपाचो कांय आदल्या मॅनेजराचेर दवरपाचो असो प्रस्न म्हाका पडलो.'' श्रीनिवासान सांगलें.

''तूं उलयता तेवयल्यान सांगतलो जाल्यार पारूचेर तुजो पूर्ण विस्वास आसलो अशें दिसता.'' हांवें म्हळें.

''आसलोच न्हय, अजून आसा.'' श्रीनिवासान जाप दिली.'' तिणें वांटो मागिल्लो जाल्यार लेगीत तिका चड पयशे मेळपाचे. तेभायर तिणें मागले आनी ना म्हळें अशें केन्नाच घडूंक नासलें. अशे परिस्थितींत तिका सोदून काडून वासपूस केली जाल्यार घडये तिचे मन दुखवतलें अशें म्हाका दिसूंक लागलें. जे पयशे गेले ते धंद्यांत बुडले अशें मानपाचें हांवें थारायलें. पूण काळजांत एक खंत उरली. पयशे गेल्याचें म्हाका दुख्ख नासलें. हांव स्वताक शिटूक समजतालों. पूण हांव फटवलों हाजें म्हाका दुख्ख जातालें.''

''फुडें त्या पयशांचो खुलासो जालो ?''

''खरें तें तुका सांगतां. खुलासो जालो ना. पूण हांवें उश्ण्याचोच दुबाव मनांत धरून परीक्षा घेवपाचें थारायलें. हांव ऑफिसांत थोडे दीस गेलोंना. कांय कोरे चॅक सय करून उश्ण्याकडेन दवरले.''

''त्या वेळार अफरातफर जाली ?'' हांवें विचारलें.

''ना. उरफाटो अणभव आयलो. कामां सदचींच पूण खर्च उणो जालो आनी येणावळ वाडली. पयेन पयचो ह्शिोब हांवें तपासलें. पूण सगलो ह्शिोब चोख आसलो.''

ऑफिसांतल्या ल्हान - व्हड मनशांक श्रीनिवासान आपोवन घेवन वासपूस केली. सगलेच उश्ण्याची तोखणाय करताले. कोणाचीच कागाळ नासली. इतलेंच न्हय, दर एका मनशाचे घरचे प्रस्न तो समजून घेतालो. कोणूय बरो नासलो जाल्यार तो ताज्या घरा वचून खबर घेतालो... हें सगलें

आयकून श्रीनिवासाक दिसलें, आपूण नासलों जाल्यार धंदो सारको चललो खरो पूण उश्णो नासत जाल्यार तो बंद पडूं येता. उश्ण्याबगर पानय हालना. अशे परिस्थितींत उश्णो गेलो जाल्यार कशें जावपाचें ? आपल्या नांवान धंदो चलता. पूण तो धंदो चलोवंक आपली गरज करूंक ना ही भावना ताका अस्वस्थ करूंक लागली. आपले मनस्थितीचें सारकें वर्णन करप ताका जमलेंना. पूण म्हाका तें समजल्लें.

आंबोलीसावन परत येतकच हांव ताज्या ऑफिसांत वचून ताका मेळिल्लों. एक सादेंच बैठें घर. पूण श्रीनिवासालो चेंबर खूबच व्हड आसलो. थंय एके कुशीक देवारो. देवाच्या पायनेला मुखार एक उदवात लायिल्ली.

एका कोनशाक उंची सोफा रचून दवरिल्ले. आमी सोफाचेरच बशिल्ले.

श्रीनिवासान म्हाका आपल्या टेबलासरीं आपयलो. अर्धा वाटकुळाच्या आकाराचें चकचकीत टेबल. ताका मर्दी एकच खण. तो खण उकतो करून ताणें एक फोटो भायर काडलो आनी म्हज्या हातांत दिलो.

फोटो एके चलयेचो आसलो.

''हिका वळखतां ?'' ताणें म्हाका विचारलें.

हांव तिका वळखनासलो. पूण फोट्यांतली चली सुंदर दिसताली. तिज्या भेसावयल्यान आनी पिरायेवयल्यान ती भर्जी विकतल्या गोपाळाची बायल आसूंक नजो इतलें कळटालें. म्हाका दिसलें फोटो - ग्राफरान आपलें कसब ओतून काडिल्लो सावित्रीचो तो लग्नाआदलो फोटो आसतलो.

हांवें विचारलें ''हो सावित्रीचो फोटो ?''

''ही सावित्रीसारकी दिसली तुका ?'' अजापून श्रीनिवासान म्हाका विचारलें. तुवें सावित्रीक पळयल्या न्हय ?''

''एक खेपे पळयल्या. पूण तितल्यानच तिजें रूप म्हजे मतींत थिरावंक ना. तेभायर हो फोटो लग्ना आदलो आसतलो अशें म्हाका दिसलें.'' हांवें जाप दिली.

''तूं म्हणटा तशें तिका सावित्रीसारकें मारता आसुंये.'' श्रीनिवासान म्हळें. ''नाय जाल्यार सावित्रीची आवय ती !''

''पार्वतीबायचो फोटो हो ?'' अजापून हांवें विचारलें.

''हय. पारूचो. हो फोटो. तिजी म्हाका सोयरीक सांगून आयली तेन्नाचो. हांवें तो म्हजेचकडेन दवरला. मेजाच्या खणांत उरता. ऑफिसांत येतकच आर्दीं हांव तिका दोळेभर पळोवन घेतां.''

उपरांत म्हज्या हातांतलो फोटो घेवन श्रीनिवास तो नियाळूंक लागलो. मदींच ताणें म्हळें ''ह्या फोट्यांत दिसता ताचेपरसय पारू सुंदर वाडिल्लें. आंकवार चलयेची खंत ह्या फोट्यांत आसा. फोट्यांत ती सामकी सुकिल्लीं दिसता. लग्नाउपरांत तिजे आंग रसरशीत भरून आयलें... फट म्हणुनूच तूं आयक, पारूक पळोवंक लोक मुजरत रस्त्यार उबे रावताले. तिज्या सौंदर्याची नामना शारभर जाल्ली.''

श्रीनिवासान जतनायेन तो फोटो परत खणांत दवरलो. खण बंद करून चावी केली आनी तो घडये पारूचेच येवजणेंत आसत, तटास नदर करून वणटीकडेन पळयत रावलो.

''उश्ण्याचें फुडें कितें जालें ?'' हांवें ताका विचारलें.

''तुका सांगलें न्हय. उश्ण्यान म्हाका धर्मसंकटांत घालो. हांव नासलों तरी धंदो चलता, फायदो

वाडटा हें सिध्द करून दाखोवप म्हळ्यार म्हजें म्हत्व सोंपप न्हय ? म्हाका दिसलें हांव जिखलों म्हणपाचो म्हजो अहंकार उश्ण्यान जिरयलो... ताणें म्हाका हारयलो.''

पूण ते अफरातफरीचो प्रस्न तुवें सोडयलाच ना ?''

''असले प्रस्न सोडोवपाचे नासतात. ते सोडोवंक गेल्यार गेल्ले पयशे परत मेळनात. पूण नव्यो कटकटी मात जावं येता.'' श्रीनिवासान जाप दिली.

''तेंय खरे.'' हांवें म्हळें, ''पूण ती भानगड सोदून काडली इतलेचखातीर तुवें उश्ण्याक कामावयलो काडून उडयलो ?'' हांवे विचारलें.

''ना, ना. म्हाका, कित्याक कोण जाणा, उश्ण्याची भिरांत दिसताली. ओगीच दुबाव येता की एक दीस असो येतलो जेन्ना हांव कुशीक पडटलों आनी म्हज्या धंद्याचीं सगली सुत्रां उश्ण्याच्या हातांत वतलीं.''

आमची गाडी परत 'गांवांत पावली तेन्ना श्रीनिवासान म्हाका विचारलें, ''म्हज्या कथेंत आतां तरी कितेंय अर्थ असा अशें तुका दिसता काय ना ? ना जाल्यार हांवे तुजो वेळ घेवप आनी अर्थ नाशिल्ली बडबड करीत रावप हें समा जावचें ना, म्हाका कितें जाय तें हांव जाणा. बटाट्याची भाजी जाय म्हणप आनी बटाटे हाडपच ना जाल्यार जो रांदपी आसा तो बटाट्याची भाजी कसो करतलो ? त्याच न्यायान म्हजी खबर बरय म्हणून सांगतकच सगली खबर तुका सांगना जाल्यार कशें जातले ?''

''खबर तुवें सांगलीच. पूण जे तरेन तूं खबर सांगत वता ती तुजी तरा म्हाका खूब आवडटली.'' हांवें श्रीनिवासाक म्हळें, ''सगले एकदम सांगून उडोवंचे बदला इल्लें इल्लें सांगून उत्सुकताय वाडोवपाची कला तुका बरी सादता.''

म्हाका ताणें घराकडेन पावयलो आनी विचारलें, ''आतां परत केन्ना मेळपाचें ?''

''अजून चड सांगपाचें उरलां ?'' हांवें ताका विचारलें.

''तुका वेळ मेळना हें हांव जाणा. पूण आनी एकच खेपे तूं यो. ते उपरांत बरोवंक बस. बरोवन जातकच मागीर परत आमच्यांनी मेळूं येता.''

''तुका केन्ना फुरसत आसतली ?'' हांवें विचारलें.

''म्हाका फुरसत सदांच आसता. पूण म्हाका गांवाभायर वचून थंड वातावरणांत इल्ली व्हिस्की घेवन उलोवप आवडटा... आजच पळय, आम्ही हांगाच राविल्ले जाल्यार इतलें सगले उलोवन जावपाचें न्हय. कशें म्हणटा ?''

''तूंच दीस थाराय आनी म्हाका कळय.'' हांवे जाप दिली.

*

श्रीनिवासाचे चरित्र म्हज्यान बरोवंक जातलें काय ना तेविशीं म्हज्या मनाची खात्री जायनासली. पूण ताणें जितली माहिती दिल्या तिज्या आदारान जें जें ताणें सांगलें तें बरोवन काडूं येतलें आनी पुस्तकाच्या रुपान नासलें तरी मनोगतांतल्यान उजवाडावंक येतलें अशें हांवें येवजिलें आनी दुसऱ्याच दिसा श्रीनिवासाक हांवें जावन फोन केलो.

''तुवें फोन केलो हे बेस बरें जालें'' ताणें म्हळें.

''इतले बेगीन तुका फोन करूंक धजपाचों न्हय. तूं केदो वेळ दिवंक शकतलो ?''

''म्हाका फुरसद आसा.'' हांवें म्हळें. ''आज सगली काणी आयकून घेतां आनी उगडास ताजो आसतना बरोवन काडटां.''

''तशें जाल्यार हांव तुगेर येतां. प्रसंग आयलो जाल्यार आयची रात आमी खंयच्याय हॉटेलांत

वचून रावया.'' फोन सकल दवरचे आदीं श्रीनिवासान सुचयलें.

ज्या मनशाच्या आतिथ्याचो स्विकार केल्लो आसा तो आमगेर येतकच ताजी सरबराय करूंक जाय अशें येवजून हांवें श्रीनिवासाखातीर घरांत च्या - फराळाची वेवस्था केल्ली. पूण श्रीनिवास चड वेळ बसलोना. उब्यांनीच ताणें एक कप च्या घेतली आनी म्हळें, ''एका काळार म्हाका भूक आसतालीं आनी जिरवणय आसताली. पूण तेन्ना खावंक मेळनासलें. आज भूक ना आनी जिरवणय ना. खावंक मात खूब आसा. आतां खावंचे आदीं विचार करचो पडटा. कितें खाल्यार साकर वाडटा आनी कितें खाल्यार कॉलेस्टॅरॉल वाडटा ह्या विचारानच खाण - जेवण नाका जाता. पूण खावपासारकें सूख ना. खावपासारक्या सगल्या वस्तूंची हांवें रूच घेतल्या. पूण हांव रुचीन खातां तें व्हिस्की घेतना.''

मोटारींत बसतकच हांवें ताका विचारलें, ''तूं सद्दां व्हिस्की पिता ?''

''हय. एकादऱ्या वेळार फुरसद मेळ्ळी ना जाल्यार हांव न्हायना. व्हिस्की घेतलेबगर म्हाका न्हीद पडना. तसो हांव सदाचारी न्हय. हांव फट उलयतां, हांव लांच दितां आनी वेपारांतलीं सगलीं फटींगपणां करतां. ज्या वेळार जें करप गरजेचें अशें म्हाका दिसता तें हांव करतां. भीड मुर्वत हांव धरिना. न्यायनितीचो विचार करिना...''

''पूण तुवें जीं पुस्तकां वाचल्यांत तातूंत न्याय आनी धर्माचो, नीत आनी सदाचाराचें सार येवन वता.''

''ती गजाल वेगळी. पुस्तकांनी आदर्श कितें तें आसता. सगलेच आदर्श मनीस पाळूंक लागलो जाल्यार नरका नारायण जातलो. पुस्तकांतले आदर्श आनी पुराणांतलीं वायंगीं सारकींच. तीं पोटांत पडनात. पूण पाद्री जालो म्हणटकच सेमाँव सांगचोच पडटा. पूण तो व्हनयेखातीर नासता. पाद्रीच्या शेमाँवाची खबर तूं जाणा न्हय ?'' श्रीनिवासान म्हाका विचारलें.

''हांवें आयकल्या. पूण तुवें परत सांगल्यार जाता.'' हांवें म्हळें.

''तशी व्हडली अगत्याची खबर न्हय ती. रातीकडेन आपले व्हनयेक दुसऱ्या दिसाक जेवणाक कोंबयेची शागोती करूंक सांगले उपरांत सकाळचो इगर्जेंत सेमाँव सांगतना एका पाद्रीन खंय मोनजातीचेर मोग करपाचो उपदेस केलो. व्हनी मिसाक गेल्लीं. सेमाँव आयकून तिजेर परिणाम जालो. घरा येनाफुडें तिणें शागोती करूंक बांदून दवरिल्ली कोंबी सोडून दिली. सोड ती गजाल. हांवें वेपार केलो, पयशे जोडले. टाळ घेवन भजन केल्लें जाल्यार पुण्य जोडटलों आसलों. देखुनूच उश्णो करता तें सारके करिना अशें म्हाका दिसतालें. उश्णो न्यायाची भास उलयतालो. सत्याच्या मार्गान वतालो. देखुनूच ताजी म्हाका भिरांत दिसताली.''

हांव कांय उलयलोंना.

''ओगी कित्याक ? तुका कितें दिसता ?'' श्रीनिवासान म्हाका विचारलें.

''तूं उलय हांव आयकतां. उश्णो जर प्रामाणिक आसलो आनी एकनिश्ठ आसलो जाल्यार ताचो भंय कसलो ?''

''ज्या मनशाक हावेस ना तो मनीस म्हाका आवडना. सुणें धनयाची निश्ठेन सेवा करता. तसोच उश्णो आसलो. सगलीं कामां केलीं म्हणून जायना. खंय तरी मनशाक सभावीक अशे गूण - दोश तातूंत आसूंक जाय. प्रस्न आयलो म्हणटकच न्यायनीतच आपणावन उकारना. तो प्रस्न सोडोवंक जाय. उश्ण्याचें आनी म्हजें ते बाबतींत पटनासलें. एक दीस एक मनीस सांगिना - सवरिना आसतना उठून गांवाक गेलो. पंदरा दीसमेरेन तो आयलोना. हांवें ताका नोकरेवयलो काडलो. थोड्या दिसांनी

उश्णो म्हजेसरीं आयलो आनी विचारूंक लागलो, ''तुवें ताका नोकरेवयलो काडलो? हांवें म्हळें हय. तोच नोकरी सोडून गेलो.'' श्रीनिवासान त्या प्रसंगाचो उगडास काडलो.

उश्णो थोडो वेळ ओगी रावलो आनी ताणें म्हळें ''ताका परत नोकरेर घेवंक जाय.''

श्रीनिवासाक राग आयलो. उश्णो मॅनेजर आसलो आनी सगलीं कामां सांबाळटा आसलो तरी कोणाक नोकरेर घेवंचो हें उश्णो थारायनासलो आनी आपणें नोकरेवयलो काडून उडयला ताका परत नोकरेर घेवंक सांगपी मॅनेजर कसलो?''

''कित्याक?'' श्रीनिवासान उश्ण्याक विचारलें. ''तो सांगिना - सवरिना आसतना कामाक येवंक नासलो.''

''पूण म्हाका सांगून तो गेल्लो.'' उश्ण्यान म्हळें. ''आनी ताका हांवें रजा दिल्ली.''

''रजा?'' अजापान श्रीनिवासान विचारलें. ''तो दिसवड्याचो मनीस. काम आसतना ताका घेवपाचो, काम ना तेन्ना ताका सोडपाचो. रजेचो प्रस्न खंय आयलो?'' श्रीनिवासान विचारलें.

''गांवांत तागेलो पूत मेलो. रातीच्या वेळार म्हजेकडेन रेकाद पावलो. देखून तो गेलो. हांवेंच ताका वच म्हळें. तुमकां सांगूंक फुरसद नासली.''

''ते उपरांत तुवें म्हाका कित्याक कळयलेंना?'' श्रीनिवासान उश्ण्याक विचारलें.

''कंपनीचो कारभार हांवच पळयतां. देखून तुमकां कळोवपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसलेंना. तेभायर तसो प्रसंगय आयलो ना.''

त्या दिसा श्रीनिवास आनी उश्णो हांचेमदीं जें संभाशण जालें ताका लागून तांचे संबंद इबाडले. श्रीनिवास जें उलयलो तें मोन्यांनी आयकून घेवन उश्णो गेलो. वता आसतना ताणें श्रीनिवासाक म्हळें, ''ताजी काकूट करात. ताणें कंपनीचो नेम बळयां मोडूंक ना.''

''बळयां मोडूं वा चुकून मोडूं, नेम हो नेम. एक खेपे एकल्याक तो मोडूंक दिलो जाल्यार दुसरे खेपे दुसरे लोक मोडटले.''

उश्ण्यान म्हळें, ''तें खरें. पूण संवसाराचे दुसरे नेम आसतात. मरण हें मनशांच्या हातांत नासता. कोणाक केन्ना मरण येत सांगूंक जायना...''

श्रीनिवासाक दिसलें उश्णो आपणाक जाणवायो सांगता. ताका राग आयलो पूण तो मोनो रावलो. उश्णो फुडें उलयलोना. थोड्या वेळान उश्णो गेलो.

इतली खबर सांगून श्रीनिवासान विचारलें, ''म्हजें कितें चुकलें? म्हजो मान, प्रतिश्ठेचो विचार कर आनी जाप दी.''

''तुजें कांय चुकूंक नासलें तरी उश्ण्याचें चुकलें अशें तुज्यान म्हणूंक जावंचेंना.''

''कशें तर?'' श्रीनिवास उसळ्ळो. ''नोकरी मागूंक येतना तो कसो आयिल्लो हें तुका सांगलां. आतां म्हाका उपदेस करूंक लागिल्लो. हांवें कोणाचेर अन्याय करूंक ना. तुका कितें दिसता?'' श्रीनिवासान म्हाका विचारलें.

''तुजे विचारसरणेन तूं येवजिता. उश्णो आपले विचारसरणेन येवजितालो.'' हांवें म्हळें.

''तुजें म्हणणें कितें? उश्णो म्हणटा तें हांवें हय म्हणपाचें? हांव धनी. तो नोकर. पूण थोड्या दिसांनी म्हाका कळ्ळें की, ज्या मनशाक हांवें नोकरेवयलो काडून उडयिल्लो ताका उश्णो पयशांचो आदार दिता. म्हयन्याक दोनशें रुपया दिता. हांवें ताका आपोवन तेविशीं विचारलें.''

''हय. हांव दोनशें रुपया दितां हें खरें.'' उश्ण्यान जाप दिली.

''ताका हांवें कामावयलो काडला आनी तूं ताका मदत दिता? हो म्हजो अपमान न्हय?''

श्रीनिवासान विचारलें.

''हांव म्हज्या पगारांतल्यान ताका मदत दितां. हांवें मदत दिली ना जाल्यार सगलें कुटूंब उपाशी उरतलें. ताका नोकरेंत दवरचो काय ना हो निर्णय तुमी घेवंचेलो आसलो तरी हांवें ताका मदत दिवप काय ना हें तुमी कशें थारायतले ?'' उश्ण्यान श्रीनिवासाक विचारलें.

श्रीनिवास निरुत्तर जालो.

''त्याच दिसा उश्ण्याक मेकळो करपाचो निर्णय हांवें घेतलो.'' श्रीनिवासान सांगलें.

✳

हॉटॅलांतलो रूम म्हळ्यार एके तरीची बंदखणच. वातानुकुलीत जाल्ल्यान जनेलाच्या हारशांतल्यान दिसतालो तितलोच संवसार वांट्याक येतालो. पियेवपाची आनी खावपाची ऑर्डर दितकच श्रीनिवासान आंगवयले कपडे काडले आनी खाटीचेर तो आडवो जालो.

''पूण उश्ण्याक तुवें कसो काडलो ?'' हांवें विचारलें.

''तितलें शाणेपण म्हाका आसा.'' श्रीनिवासान म्हळें, ''हांवें पयलीं ताजेकडचो हिशोब काडून घेतलो. म्हाका दिशिल्लें तो अपमान मानून उश्णो नोकरी सोडटलो... आनी हांव तुका सांगतां, आमच्या ह्या धंद्यांत सर्त कडक आसता. हांवें कोणाकय काडलो जाल्यार म्हजे प्रतिस्पर्धी ताका चड पगार दिवन घेवंक तयार आसतात. उश्णो आपल्या कामांत हुशार आसलो आनी इतल्या वर्सांच्या अणभवाक लागून तो सगलीं कामां करूंक जाणा आसलो. हुशार मनीस प्रतिस्पर्धकांक जाय आसलो. पूण म्हाका ताजी पर्वा दिसली ना.'' श्रीनिवास सांगूंक लागलो.

अजून दनपार जावंक ना तरी श्रीनिवासान व्हिस्की पियेवंक सुरवात केली. वेटरान हाडिल्ल्यो प्लेटी ताणें दवरून घेतल्यो. ताका घसघशीत टीप दिली आनी म्हळें, ''हांगा कोण येवंक जायना. तुका आपोवपाचो जालो जाल्यार फोन करतां.''

गरम काफयेचो कप हातान उखलून हांवें म्हळें, ''उश्णो अनुभवी मॅनेजर हें खरेंच. पूण तुगेल्या धंद्यांतल्यो वाटो आनी आडवाटो तो एकलोच जाणा आसलो. अशा मनशाक काडून उडोवप म्हळ्यार धाडसाचीच गजाल म्हणूंक जाय.'' हांवें म्हळें.

''हय. पूण ताजी वागणूक म्हाका सोंसली ना. मनांत खंय तरी दुबाव आनी भंय आसलोच. पूण तेभायर ताणें म्हजो अपमान केला हीय भावना आसली. कित्याक कोण जाणा म्हजे तकलेंतल्यान तो देंविल्लो...''

''आनी तो तुगेलो जांवय जाल्लो जाल्यार ?'' हांवें विचारलें.

''जालो ना तें बरें जालें'' श्रीनिवासान म्हळें. ''पूण जाल्लो जाल्यार लेगीत हांव ताका मनांत वेगळो काडटलों आसलों. ताका वेगळो धंदो सुरू करून दितलों आसलों. पूण म्हजे कंपनींत दवरपाचों न्हय. पूण उश्णो आपूण जावन नोकरी सोडपाची मासच उलयलोना. हांवें अशी तजवीज केली की, एकय फायल ताजेकडेन वचची ना. कोणच ताजेकडेन उलोवंचो ना. ताजें मेज वणटीक तेंकोवन दवरलें. सगलो वेळ कोरे वणटीकडेन पळयतकच तो बदलतलो. एक तर उबगून नोकरी सोडटलो ना जाल्यार म्हजेसरीं येवन माफी मागतलो अशें म्हाका दिशिल्लें पूण तशें कांय घडलेंना.'' श्रीनिवासान सांगलें.

''मागीर कितें जालें ?'' मोटे उमळशिकेन हांवें ताका विचारलें.

''म्हज्यानच रावं नजो जालें. हांवें एक दीस ताका डिसमीस करून उडयलो. ताज्या जाग्याचेर दुसरो मॅनेजर हाडलो.''

''बडतर्फ करतकच तरी उश्णो तुका मेळूंक आयलो ?''





''ना. ताणें तोंड दाखयलेंना. तो म्हजो सभाव वळखतालो. म्हजें उतर हें बाणाभाशेन आसता. एक खेपे तोंडांतल्यान भायर सरलें म्हणटकच तें हांव फाटीं घेना हें तो जाणा आसलो. पूण खरें म्हळ्यार म्हाकाच मदीं मदीं ताजो उगडास जायत रावलो'' श्रीनिवासान सांगलें.

''धंद्यांत कसलीय अडचण आयली ?'' हांवे विचारलें.

''कसलीच ना. पूण म्हाका दिसूंक लागलें, न्यायनीत उश्ण्याच्या अर्दान आसा.''

इतलें उलोवन श्रीनिवास ओगी रावलो. म्हाका प्रश्न पडलो, हातूंत बरोवपासारकें कितें आसा ? ओगीच दुबाव आयलो. हो एक काणी रचून म्हाका खेळयना मूं ?

तो उठून बसलो आनी व्हिस्की पियेवंक लागलो. तो जेमेरेन व्हिस्की घेत आसलो तें पळोवन म्हाका ओगीच भिरांत दिसूंक लागली. एके वटच्यान तो कंजूश. पूण दुसरे वटेन फोल्गी, ताजी जितली जितली वळख जायत वताली तितलो घुस्पागोंदळ वाडत वतालो. पूण इतलेय दीस तो फक्त उश्ण्याविशीं उलयला. दोन बायलांविशीं वा आपल्या भुरग्यांविशीं तो तितलेपुरतेंच उलयला.

''आज हांवें चड व्हिस्की घेतल्या. पूण म्हाका लागल्या अशें समजूं नाका. म्हज्या मनांत सांगपाचें आसा तितलेंय आतां सांगून उडयतां. फायचो दीस कोणें पळयला ?'' श्रीनिवासान म्हळें.

''अशें कित्याक म्हणटा तूं ?'' हांवें विचारलें.

''उश्ण्याच्या उतरांचो म्हाका उगडास येता. मरणाचो नेम मनीस थरयना. राजांच्या राणयांक लेगीत मरण चुकना; खंयच्याय खिणाक तें येवं येता. तशें म्हाका मरण आयलें जाल्यार हांव जें सांगूंक सोदतां तें सांगपाचें उरतलें... ताका लागून संवसाराचें कांय अडचें ना. हांव मेलों तरी फाल्यां सकाळीं सूर्य परत उदेतलो. सांजच्या वेळार अस्ताक वतलो. सगळें जथापथ चलतलें....''

''तुजी मनस्थिती पळयली जाल्यार उश्ण्याक नोकरेवयलो काडलो हाजें तुका वायट दिसलां आसूंक जाय.''

''निखालच ना. तूं विचारता म्हणून हांव उश्ण्याविशीं सांगतां.'' श्रीनिवासान सादूर जायत जाप दिली.

''आमचें विशयांतर खूब जाता. मूळ खबर थंयच उरली.''

''कसली मूळ खबर ?'' ताणें विचारलें.

''जी हांवें बरोवंची अशें तुका दिसता... तूं आपूण हारलों म्हणटालो...'' हांवें म्हळें.

''खरें, खरें. म्हज्या मनाची अवस्था तुका कशी सांगतलों ? ती वळखून तुवें बरोवंक जाय. तुका हांव त्रास दितां हें जाणा. तुका घेवन हांगा येतां आनी पियेवंक बसतां हें म्हाका सोबना.''

''उश्ण्याचें कितें जालें ?'' हांवें विचारलें.

''तो गेलो तो म्हाका मेळ्ळो लेगीत ना. तो खोशयेन गेलो काय रागान गेलो तें कळ्ळेंना. तुका दशरथाची खबर आसा'' अचकीत श्रीनिवासान प्रस्न विचारलो.

''कोण दशरथ ?'' गोंदळून हांवें विचारलें.

''रामायणांतल्या रामाचो बापूय...'' श्रीनिवासान जाप दिली.

''तूं रामायणाची काणी जाणाच आसतलो. शिकारेक गेल्ल्यान आपल्या पुताक वनवासाक धाडचो पडटलो हें दशरथाक आदीं कळिल्लें जाल्यार तो रानांत वचपाचोच न्हय.''

''अशें घडलें कितें ?''

''धंद्यांत एक नवो प्रतिस्पर्धी तयार जालो आनी ताजो धंदो बरो चलता देखून आमचो धंदो बसूंक लागलो. ताज्या पालवाबगर आमचो धंदो सुरक्षीत उरचोना अशें वातावरण तयार जालें. देखून त्या

मनशाक मेळूंक हांवें म्हज्या नव्या मॅनेजराक धाडलो.''

''तो मनीस म्हळ्यार उश्णो'' हांवें विचारलें.

''हय. तें उपरांत कळ्ळें. लागशिल्ल्या शारांत तो रावतालो. मॅनेजर ताका मेळून आयलो आनी ताजें नांवय म्हाका सांगलें. इतल्यांत सोंपलेंना. तो उश्ण्याच्या तोखणायो करूंक लागलो आनी उश्णो म्हजेविशीं खूब बरें उलयता हेंय म्हाका आयकयलें.'' श्रीनिवासान जाप दिली.

''तुवें नोकरेवयलो काडलो तरी तुजे उपकार तो स्मरतालो म्हणूंक जाय.'' हांवें म्हळें.

''हय. तेच गजालीचें म्हाका अजाप दिसलें. जाचो हांव दुस्वास करतालो, जाचेर हांवें अन्याय केल्लो तो म्हजी वाखाणणी करता, तीय बी तिसऱ्या मनशाकडेन.... ताणें म्हाका गाळी घालल्यो जाल्यार वायट दिसपाचें न्हय. पूण तो वाखाणणी करता हें कळटकच म्हाका वायट दिसलें. म्हजे दोश हांव जाणां आसलों. उश्णो उलयतालो तें खरें न्हय हेंय म्हाका खबर आसलें. म्हाका दिसलें उश्णो आतां बदलला. धंद्यांत पडत सावन तो फट उलोवंक शिकला... धंद्याचें एक शास्त्र आसता. धंद्यांत कोणच सदांखातीर दुस्मान नासता. आनी दुसऱ्याक दुशण दीत बसल्यार कोणच धंदो करूंक पावचो ना. म्हज्या मनांत आयलें, उश्ण्याक वचून मेळचें''.

''आनी तूं उश्ण्याक वचून मेळ्ळो ?'' हांवें विचारलें.

''एकदम वचून कसो मेळटलो ? कसलेंय तरी निमित्त जाय आसलें म्हजो आदलो नोकर तो. ल्हानपण घेवन ताजेसरीं कसो वतलों ? पूण रोखडीच एक संद आयली. उश्ण्यानच म्हाका आमंत्रण धाडलें.''

''कसलें ? लग्नाचें ?'' हांवें विचारलें.

''न्हय, न्हय. तागेले कंपनीन एक जेवण दवरिल्लें. त्या जेवणाक मंत्री आनी अधिकारी येवपाचे आसले. आमच्या धंद्यांतले कांय मौशीक प्रस्न आसले. ते सोडोवपाखातीर आमी आमचेपरीन प्रयत्न करताले. पूण उश्ण्यान वेगळीच मांडणी काडली. ताणें मंत्र्यांच्या मानाक जेवण दवरलें आनी धंद्यांतल्या सगल्या प्रतिस्पर्ध्यांक त्या जेवणाक आपयले. मंत्री येतले देखून अधिकारी आयले आनी एका निमित्तान धंद्याचे प्रस्न सुट्टले अशें येवजून हेर वेपारीय आयले.''

''तुका आमंत्रण पोस्टान धाडलें ?'' हांवें विचारलें. ''ना. आमंत्रण घेवन खासा तो आमगेर आयलो... घराकडेन आयलो. हांव उकतोच भायर बशिल्लों. दारांत मोटार थांबली आनी सुटा बुटांतलो एक तरणाटो देंवलो. तो उश्णो म्हणपाचें वळखूंक म्हाका कळाव लागलो. इतलो तो बदलिल्लो. म्हजेसरीं आयलो आनी म्हज्या पांयांक हात लावन ताणें म्हाका नमस्कार केलो. ताका हांवें बसूंक सांगलें. पूण तो बसलोना. उब्यांनीच ताणें कार्ड म्हज्या हातांत दिलें आनी म्हळें, तुमी येवंकच जाय.''

''जेवणाचेंच कार्ड मूं ?'' हांवें विचारलें

''हय. पूण हांव इतलो गोंदळून गेल्लों, की, म्हाका दिसलें तो आपल्या लग्नाचें आमंत्रण दिवंक आयला. हांवें वाचचे पयलींच येतां अशें उत्तर दिलें.''

उश्ण्यान म्हळें, ऐन वेळार सगलें थरलें दुसरो कोण आयलोना जाल्यार म्हाका वायट दिसचेंना. पूण तुमी येवंकच जाय.''

तरीकय श्रीनिवासाक दिसलें तें लग्नाचेंच आमंत्रण आसतलें.

उश्णो परत वचूंक लागलो तेन्ना श्रीनिवासान ताका बसपाचो आग्रो केलो. कितेंय तरी घेवन वच अशें सुचयलें.

''आज ताकतीक आसा.'' ताणें म्हळें परत येतले.''

''तूं म्हाका वळखलो न्हय'' श्रीनिवासान दुबाव काडूंक प्रस्न केलो.

''तुमकां हांव कसो विसरतलों ?'' अशी जाप दिवन उशणो मोटारींत वचून बसलो.

*

उशणो येवन गेलो आनी श्रीनिवासाक एक सपन पळयिल्ल्याचो भास जालो.

''तो पुराय बदलून गेल्लो. म्हजेकडेन राविल्लो जाल्यार मॅनेजर म्हणूनच मरपाचो. आतां तो केदो व्हड जावंये हाजो अदमास कोणाच्यानच करूंक जावंचें ना अशें म्हाका दिसलें. ताणें आपयिल्ल्या जेवणाक वचचें कांय वचचें न्हय अशें हांव येवजितालों.''

''निमाणें तूं गेलो काय गेलोना ?'' हांवें विचारलें.

''गेलो आनी चड विस्मीत जालों. व्हडले व्हडले लोक थंय आसले. पूण उशण्यान म्हाका व्हडलो मान दिलो. मंत्र्यांकुशीक म्हाका बसयलो आनी सगल्यांकडेन म्हजी तोखणाय करूंक लागलो. म्हजे तकलेंत एक विचार आयलो. आमचे सावित्रीविशीं ताका विचारचें... आनी म्हजी नदर एकदम बदलली. तो म्हजो जांवय जावं येता हे नदरेन पळयतकच तो म्हाका वेगळोच दिसलो... पार्टेक व्हिस्की आसलीं. सगल्यांनी घेतली. हांवें सांबाळून घेतली. पूण हांवें पळयलें, उशण्यान ग्लासाक हात लेगीत लायलोना. जेवणाच्या मेजाचेर ताजे प्लेटींत आसली ती भाजी आनी रोटी. त्या दिसा सरकाराकडलीं आमचीं कामां जालीं. मंत्र्यान थंयचे थंयच आदेश दिले. फायदो सगल्यांचोच जालो. पूण काम एकल्या उशण्यान केल्ले. त्या खिणाक ताजो म्हाका अभिमान दिसूंक लागलो.''

''मागीर तुवें सावित्रीचो विशय काडलो काय काडलोना ?'' हांवें श्रीनिवासाक विचारलें.

''थंय कसो काडटलों ? पूण ताजें मन कितलें व्हड तें सांगतां. सगले घरा वतकच हांवें व्हिस्की घेतिल्लीं. इतलेचखातीर उशणो म्हाका घरामेरेन पावोवंक आयलो. तसो हांव बेबदो जावंक नासलों. वाटेर म्हज्यान विशय काडूं येतालो. पूण हांवें काडलोना. देंवता आसतना हांवें ताका इतलेंच म्हळें, ''आमी परत मेळूंक जाय. तूं आमगेर यो. ना जाल्यार हांव तुगेर येतां.''

''तुमी आमगेर आयल्यार तें आमचें भाग्य अशें हांव मानतलों.'' उशण्यान म्हळें. ''पूण तुमी आपयशात त्या खिणाक हांव तुमच्या दारांत हजर रावतलों.''

दुसऱ्याच दिसा उशणो मेळूंक आयलो. श्रीनिवास ताका पळोवन गडबडून गेलो. ताका बसोवन घेवन श्रीनिवासान म्हळें, ''तूं म्हजेर रागार आसतलो हें हांव जाणां.''

''तुमचेर रागार जावपाइतलो हांव कृतघ्न न्हय. उरफाटो हांव तुमचो उपकारी आसां. तुमच्या उपकाराचें रीण ह्या जल्मांत तरी म्हज्यान फारीक करूंक जांवचें ना.'' उशण्यान जाप दिली.

''म्हाका लजोवं नाका.'' श्रीनिवासान म्हळें.

''हांवें तुका नोकरेवयलो काडलो... तुजो कसलोच गुन्यांव नासतना.''

''उरफाटें, हांव म्हणन तुमी नोकरेवयल्यान काडलो देखुनूच हांव स्वतंत्र धंदो करूंक पावलो. आनी तुमी सुरवातेक आदार दिवंक नाशिल्लो जाल्यार म्हज्या नशिबांत हें वैभव आसपाचें न्हय. खंय तरी हमाली करून पोट भरचें पडपाचें.''

''तूं तुज्या कर्तृत्वान वयर सरला. ओगीच म्हाका मोटेपण दिवं नाका. पूण इतलें सांगतां, तूं येदो व्हडलो मनीस जालो हाजो म्हाका अभिमान दिसता. तूं म्हजेपसून पयस उरचो न्हय अशी म्हजी इत्सा.''

''तुमचे इत्सेभायर हांव ना. तुमी सांगशात तें करपाची म्हजी तयारी आसा.'' उशण्यान जाप

दिली.

मुख्य विशय कसो काडचो हें श्रीनिवासाक समजना. श्रीनिवासान थारायिल्ले भाशेन त्या दिसा सावित्रीच च्या घेवन भायर आयलीं. पूण उश्ण्यान नदर वयर करून एकेय खेपे तिजेकडेन पळयलें ना. श्रीनिवास ताज्या तोंडावयले भाव पळयतालो. पूण सावित्रीविशीं तागेलें तटस्थपण श्रीनिवासान देखलें.

''वेपाराचो व्याप तुवें वाडयलो. आतां संवसाराचो व्यापय वाडोवंक जाय. कांय गजाली वेळच्या वेळार करचेल्यो आसतात.'' श्रीनिवासान सुचयलें.

''कित्याविशीं म्हणटात तुमी ?'' उश्ण्यान विचारलें.

''तुज्या लग्नाविशीं. लग्नाचो कितें विचार केला तुवें ?''

उश्ण्यान जाप दिली ना. पूण ताज्या तोंडावयलो संकोच लिपून उरलो ना.

''कुटुंबांत जाणटेलो कोण आसा ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

उश्णो मातसो खांकुडलो. येवजिल्ले भाशेन करून ताणे म्हळें ''आई आसा.''

''तुजी आवय आसा हें तुवें म्हाका केन्नाच सांगलेंना. खंय आसा ती ?'' श्रीनिवासान अजापून विचारलें.

''घराच आसता... तशी ती म्हजी आवय न्हय... पूण आवय समान...'' उश्ण्यान जाप दिली.

''तूं आमगेर आसतना एकय दीस ती तुका मेळूंक आयली ना वा तूं तिका मेळूंक गेलो ना कसो ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

''हांव मदीं केन्नाय वतालों. पूण तिजेविशीं तुमकां सांगपाचो प्रस्नच उपरासलो ना.''

''तशें जाल्यार हांवच एक दीस तुमगेर येतां. तूं न्हवरो म्हणटकच तुजो मान राखूंक जाय.''

''तुमी आयल्यार आनंद आसा. न्हय, तुमचे पांय आमच्या घराक लागचेच. लग्नाविशीं म्हणशात जाल्यार तुमकां हांव आतांच सांगून उडयता. तुमची इत्सा ही म्हाका आज्ञेसमान.''

''अशें कशें जातलें ? प्रस्न तुज्या आयुश्याचो आनी रीत म्हणून आसता. हांवच एक दीस तुगेर येता. तुजे आवयक मेळटां आनी तिजो आशीर्वाद घेवनच सगलें थारायतां.'' श्रीनिवासान म्हळें.

उश्णो परत गेलो आनी श्रीनिवासाची उमेद वाडली. सगलें बरे भाशेन जुळून येतलें अशें ताका मनांतले मनांत दिसलें.

''मागीर तूं उश्ण्यागेर गेलो काय गेलो ना ?'' हांवें विचारलें.

''ना. दुसऱ्या दिसा उश्णो परत आमगेर आयलो आनी ताणें आडखळत सांगलें की, हांवें तागेर येवंचें न्हय.''

''तुमचो अनादर करतां अशें उपकार करून मानूं नाकात. ह्या विशयाचेर म्हाका चड कांय विचारूं नाकात.'' उश्ण्यान दोळ्यांत दुकां हाडून श्रीनिवासाक सांगलें.

''म्हाका दिसलें तो नाटक करता. म्हजेकडेन खेळटा. म्हाका नाचयता. हांव एकदम तापलों. आदल्या दिसा हो म्हाका आपल्या घरा आपयतालो आनी दुसऱ्या दिसा हो नाका म्हणटा. कारण सांगिना...''

''ताजी अडचण वेगळी आसूं येता. तुवें ताजेकडेन सोयरिकेचो विशय काडून पळोवं येतालो.''

''हांवें येवजिलें, उश्णो घडये म्हजो अपमान करपाची संद सोदता आसुंये. चार - पांच दीस हांवें ताची वासपूस केली ना. पूण भायले.भायर खबर काडीत आसलों. उश्ण्याक आवय आसा हे खरें म्हणपाची जेन्ना खात्री जाली तेन्ना एक दीस हांवच उठून उश्ण्यागेर गेलों.'' श्रीनिवासान सांगलें.

घराचें दार उकतेंच आसलें. कुशीच्या पोरसांत कोण तरी ताका पळोवन भितर गेलो म्हणपाचें ताका

जाणवलें. थोड्या वेळान घरांत काम करपी एक चली भायर आयली आनी 'उश्णो घरा ना' अशें तिणें श्रीनिवासाक सांगलें.

''उश्ण्याली आई आसा मूं घरांत ?'' श्रीनिवासान ते चलयेक विचारलें.

हय म्हणून ती भितर गेली.

भितल्ल्या दाराच्या फाटल्यान एक बायल उबी आसली. तिणें मंद आवाजांत म्हळें, ''कितें रेकाद आसलो ?''

श्रीनिवासान म्हळें, ''तूं अशी मातशी भायर यो. हांव उश्ण्याक सोयरीक घेवन आयलां.

''तुमका पसंत आसल्यार जाली. तुमच्या उतराभायर उश्णो ना.'' भितल्ल्यान आवाज आयलो.

जाप आयकून श्रीनिवासाक अजाप जालें. ताणें विचारलें, ''तूं म्हाका वळखता ?''

''हय ? तुटक जाप.''

''चली कोण ती तूं जाणा ?'' श्रीनिवासान विचारलें.

ती जाप दिवचे आदींच फुडल्या दारांत मोटार थांबली. उश्णो आयिल्लो. श्रीनिवासाक पळोवन ताणें अजापून म्हळें, ''तुमी कळयिल्लें जाल्यार हांव घरा रावतलों आसलों. आई मेळ्ळी आसतली.''

इतलें म्हणून उश्णो भितर गेलो. ताजे आवय मात भायर आयली ना. च्या - फराळ उश्ण्यानच भायर हाडून दिलो.

श्रीनिवासाक एक दुबाव आयलो. उश्ण्याची आवय लिपता कित्याक ? ती तोंड दाखयना आनी तुटक उलयता. उश्णो घरांत आयलो तरी ती भायर येना. देखून दुबाव काडचेखातीर ताणें म्हळें, ''म्हजी चली सावित्री ल्हान पिरायेचेर विधवा जाली.''

''उश्ण्याक तिजी सोयरीक हाडल्या ?'' भितल्ल्यान आवाज आयलो.

आनी श्रीनिवास त्या प्रस्नाची जाप दिवच्या आदींच ती बायल एकदम भायर आयलीं.

श्रीनिवासान इतलें सांगून रिकाम्या ग्लासांत व्हिस्की रकयली आनी ती तशीच पियेवन म्हाका सांगलें, ''तोंडार थापट मारचें तशी म्हजी अवस्था जाल्ली. म्हजी आदली बायल पारू थंय पळोवन म्हजी वाचाच धरली !''



दामोदराक हांव भुरगेपणातसावन वळखतां. म्हज्या जीवितांत जे थोडे चिरतरुण मनीस हांवें पळयल्यात तातुंतलो दामोदर एक. ३० - ४० वर्सांपयलीं ह्या मनशाक हांवें जे तरेच्या भेसांत पळयिल्लो तेचतरेचो भेस आजय तो घालता. थोडोसो बदल घडला, ना अशें न्हय. एका काळार तो मोटवें कल्सांव घालतालो आनी वयर रंगीत खोमीस. तेंय हातकापें. आता लांब पँट आनी हातकापो बुशशर्ट घालून तो भोंवता. चाल पयलींसारकीच तुरतुरीत. आत्तां तो सत्री घेवन भोंवता. ते सत्रेकय खूब वर्सां जाल्लीं आसतलीं. तिचें काळें काप विटून धवसार जालां. पावस आसूं वत आसूं, सकाळ आसू सांजवेळ आसूं, दाव्या हातांत फुलयिल्ली सत्री धरून दामोदर भोंवता. अजून ताजो एकय केंस धवो जावंक ना आनी पिरायेच्यो मिरयो तोंडार उदेवंक नात.

हो मनीस करता कितें ? असो भुरगेपणांत म्हाका प्रस्न पडटालो. तो कितें करता तें आजय हांव नकळं. ल्हान आसतना एक काणी वाचिल्लीं. ते काणयेचो नायक हो लोकांचेर उपकार करीत भोंवता आनी सगळ्यांक अडचल्या वेळार पावता. ती काणी वाचता आसतना कित्याक कोण जाणा, दामोदराची मूर्त म्हज्या दोळ्यामुखार उबीं राविल्लीं. आयज दामोदराचो उगडास करतना म्हाका ते काणयेचो उगडास जाता. दामोदर हो परोपकारी अशें म्हज्या मनांत बसलां.

मर्दीं - मर्दीं म्हाका तो मेळटा आनी मेळ्ळो जाल्यार उणेच अर्दवर खाता. म्हजो हात आपल्या हातांत घट्ट धरून तो रस्त्यारच उलयत रावता. खंयय बसूया अशें सांगपाचे धाडस म्हाका केन्ना जालें ना. उब्यानी हो जर इतलो उलयता जाल्यार बसतकच कितलो उलयतलो असो प्रस्न म्हाका पडटा. हांव कामांत आसतां तेन्ना दामोदराक चुकोवपाचो यत्न करतां. पूण ताची नदर कावळ्यासारकी. तो पयसुल्यान म्हाका पळयता आनी व्हडाव्हडान उलो मारीत रावता. तेन्ना दुसरो उपाय नासून ताका जाप दिवचीच पडटा.

पयर अचकीत तो मेळ्ळो आनी ताणें म्हाका म्हळें, ''तुवें श्रीनिवासाची खबर बरयल्या ती पूर्ण न्हय... आनी ती थोडीशी एकांगीच आसा.''

म्हाका एकदम तो कोणाविशीं उलयता ते कळ्ळें ना. हांवे येवजिलें... पूण म्हाका याद जाली ना. हांवें ताका विचारलें, ''कोण श्रीनिवास ?''

''पळयलें ? खरें तें अशें भायर सरता.'' ताणें म्हळें, ''तुवें ताजें नांव लिपयलें आनी श्रीनिवास हें नांव ताका दिलें. ताणें सांगली ती खबर सारकी ना... हांव ताका वळखतां आनी म्हज्याय परस चड ताका एवरीक वळखता. हांवें एवरीकाक तुवें कितें बरयलां तें सांगलें. ताजी प्रतिक्रिया कितें जाली जाणा तूं ?'' दामोदरान म्हळें.

''म्हाका कशी कळटली ? तूं कोणाविशीं उलयता तें लक्षांत आयलें. पूण तुगेल्या एवरिकाक हांव वळखना.''

''तोय तुका वळखना आनी तूं बरयता तें तो वाचिना. पूण केन्नाय मुजरत ताका मेळ. तुका जाय जाल्यार हांव ताजेसरी व्हरतां. ताज्या तोंडातल्यान सगळी खबर आयक.'' दामोदरान म्हळें.

''केन्नाय मेळूं येता. पूण एक सांग, ताजी प्रतिक्रिया कितें जाली म्हणटालो तूं ?'' हांवें विचारलें.

''ताणें तुगेल्या श्रीनिवासाक चार गाळीं घाल्यो आनी त्या बरपांत आपलें नांव ना हेखातीर तुका आनी ताका दोगांकय दुशण दिलें.''

''म्हजो कसलो गुन्यांव ?'' हांवें म्हळें, ''श्रीनिवासान जें कितें सांगलें तें हांवे बरयलें. नांवां हांवें बदल्लीं हें खरें. पूण ताणें केन्ना एवरीक हें नांव घेतिल्ल्याचो उगडास जायना. आनी जी खबर तो सांगूंक सोदतालो तिजेकडेन एवरीकाचो संबंद पावता अशें म्हाका दिसना.''

''तें तुका तोच सांगतलो. तूं मुजरत ताका एक खेपे मेळ. आमकां तो सदांच श्रीनिवासाच्यो खबरी सांगता आनी कोणय अडलो जाल्यार श्रीनिवासगेर वचून पयशे लेगीत तो हाडून दितालो.'' दामोदरान म्हळें.

''बरें आसा.'' हांवें म्हळें, ''हांव श्रीनिवास मेळटलो तेन्ना ताका एवरीकाविशीं विचारून पळयतां आनी उपरांत गरज दिसली जाल्यार एवरीकासरी आमी वचुंया.'' हांवें सांगलें.

''आतां श्रीनिवासाक तूं खंय मेळटलो ? श्रीनिवास मेलो. तुका खबर ना ?'' दामोदरान म्हाका विचारलें.

म्हाका धक्कोच बसलो. तो मस्करी करता काय खऱ्यांनीच श्रीनिवास मेलो तेंच म्हाका कळना जालें. अजापाची गजाल म्हळ्यार श्रीनिवास मेल्ल्याची बातमी लेगीत हांवें वाचूंक नासली. हांवें दामोदराक विचारलें, ''तूं खंयच्या श्रीनिवासाविशीं उलयता ?''

''तुवें जाचे विशीं बरयलां त्याच श्रीनिवासाविशीं हांव उलयता. एक सांग, तूं ताका निमाणो केन्ना मेळिल्लो ?'' दामोदरान म्हाका विचारलें.

''हांवें आमचे निमाणे भेटेची खबर बरयली काय दिसता म्हाका.'' हांवें म्हळें, ''पूण स म्हयने जाले आसतले. हांवें हालींच ताचेविशीं बरयिल्लें आसलें तरी ताणें म्हाका आपली खबर सांगल्यार स म्हयने जाल्ले आसूं येतात.'' हांवें जाप दिली.

''स म्हयने खंयचे ? तो मेल्यारच आठ म्हयने जाले. तुका तो मेळिल्लोच आसल्यार णव - धा म्हयने जाले आसतले. पूण एक सांग, तुका खऱ्यांनीच श्रीनिवास मेळिल्लो ?''

दामोदराच्या प्रस्नांत खोंच आसली. हांवे म्हळें, ''तुका हांवें बरयलां तें म्हजे कल्पनेंतलें दिसता ? हांवें अदमासान स म्हयन्यांआदी आमी मेळिल्ले अशें म्हळें तें धा म्हयन्यांआदी, वर्साआदीं आसूं येता.''

''मागीर ताज्या मरणाची खबर तुका कशी चुकली तर ? सगल्या पेपरांनी ती आयिल्लीं.'' दामोदरान म्हळें.

म्हाका अजाप जालें. असली बातमी नदरेंत भरलेबगर उरना. श्रीनिवासाच्या मरणाची खबर कळिल्लीं जाल्यार हांवे ताज्या अंत्यदर्शनाक गेलेबगर रावपाचो न्हय. एकच शक्यताय आसली, मदीं आठ - धा दीस हांव गोंयाभायर आसलों. त्या दिसांनी ताका मरण आयिल्लें आसत जाल्यार ती बातमी वाचिना आसतना उरूं येता. हांवे त्या म्हयन्याचो उगडास केलो आनी दामोदराक म्हळें, ''तूं म्हणटा ते खरे. आठ म्हयन्यांआदी हांव थोडे दीस भायर गेल्लों.'' हांवें ताका म्हयनो सांगलो. तेन्ना ताणें म्हळें, ''हें सारकें. त्याच म्हयन्यांत श्रीनिवास गेलो.''

मुख्य विशय उलोवन सोंपतकच म्हाका म्हज्या कामाक वचपाचें आसलें. देखून हांवे दामोदराक म्हळें, ''तूं सांगता तशें करुंया. आमी एक दीस तुज्या एवरीकाक मेळुंया. तो नवें कितें सांगता तें आयकूंक कितें जालां ?''

''एक दीस म्हणून टाळाटाळ करूं नाका. केन्ना मेळुंया सांग ?'' दामोदरान म्हळें.

''ताका केन्ना फावतलें ?'' हांवें विचारलें.

''ताका केन्नाय फावता. तो न्हंयंत गरो सोडून देगेवयल्या खडपाचेर बशिल्लोच उरता. ताका आतां कांय ना धंदो - पिरायेन जाणटो जाला पूण भलायकेन बरो आसा. ताज्यो यादी आकांताच्यो. पुस्तकांत पळोवन तारीख आनी वार सांगचो तसो तो उलयता.

''तशें जाल्यार तूंच दीस थाराय.'' हांवे ताका सुचयलें.

''आतांच या.'' असो तो हट्ट घेवन बसलो.

ताका समजायतासर हांव कासावीस जालों. निमाणे दोन दिसां उपरांत एवरीकाक मेळूंक चिके पयसुल्ल्या गांवांत वचपाचें आमी थारायलें. तरी आपल्या हातांत धरिल्लो म्हजो हात दामोदर सोडिना.

''आतां म्हाका वचूं दी.'' हांवें ताका म्हळें.

''वच तूं, म्हाका तरी खंय फुरसत आसा ? पूण एक सांग, तळ्यांत साळकांच्यो मुंडल्यो मेळटात त्यो तुवें केन्ना खाल्यात ?'' एकदम ताणे विशय बदललो.

ह्या प्रस्नाक आनी श्रीनिवासाचे खबरेक संबंद कितें तेंच म्हाका कळना जालें. पूण विचारिल्ल्या प्रस्नाची जाप दिवंक जाय आसली. देखून हांवे म्हळें, ''भुरगेपणांत खाल्यात अशी याद जाता. साळकाच्या मुळाकडेन अशीं बोंडां मेळटात आनी तातूंत नाचण्यासारको घोरोप आसता असो म्हाका उगडास जाता.''

''त्योच साळकाच्यो मुंडल्यो. चड खाल्यो जाल्यार माणे लागतात... तुका कित्याक सांगलें जाणा ? तुगेल्या श्रीनिवासाची आनी म्हजी भुरगेपणांतली वळख आसली. हांवे आनी ताणें तळ्यांत

वचून असल्यो मुंडल्यो पुंजावच्यो. एक दीस ताणें साळकाचो दैंठ समजून एक पाण सोरोपच भायर काडलो. म्हजें लक्ष गेलें म्हणून बरें. नाजाल्यार त्याच दिसा श्रीनिवास मरपाचो... हें सांगपाचें कारण म्हळ्यार त्या दिसा हांवें ताका वांचयलो. देखून फुडलें सगळें घडूंक पावलें.''

अशे सांगून दामोदरान म्हजो हात सोडलो. तरी तो उलयतालो. पूण हांव ताकतिकेन कडसरलों.



दामोदराक मेळपाचो दीस थारायिल्लो खरो, पूण हांव विसरून गेलों. सांजचो दामोदरच आमच्या घराकडेन हजर.

''अशे तरेन वेळ चुकयलो जाल्यार कशें जातलें ? नाजाल्यार वेळ थारावंक जायना. म्हाकाय कामां आसतात.'' दामोदर तापिल्लो.

म्हजी चूक जाल्ल्यान आदीं ताका शांत करप गरजेचे आसलें. हांवे म्हळें, ''चूक म्हजी. तूं दिता ती ख्यास्त् भोगपाक हांव तयार.''

''म्हजे एक सोड. तो एवरीक वाट पळयतलो, ताजें कितें ?'' दामोदर मातसो न्हिवलो.

''आतांच या. आंगार कपडे चडोवपापुरतो वेळ दी.'' हांवे म्हळें.

मातशें येवजिल्लेभाशेन करून दामोदरान म्हळें, ''सांजचो हो वेळ सारको न्हय. ह्या वेळार एवरीक मेळूंक कठीण. तो खंयच्याय तरी बारांत बशिल्लो आसतलो. तूं थंय गेलो म्हणून तो उठचो ना. आनी उठलोय तरी उलोवपाचे अवस्थेंत आसचो ना. आमी फाल्यां सकाळीं या.''

हांव कबूल जालों. पूण दामोदर आमच्या घरा पयलेच खेपे पाविल्लो. देखून ताका बसोवन घेतलो.

''तूं सगल्यांविशीं बरयता. म्हजी मात तुका केन्ना याद जाली ना.'' दामोदरान शीण काडलो. ''हरशीं तुजेर म्हजो पयलो हक्क. तूं ल्हान आसतना हांवे तुका धरला... तुका घडये उगडास नासतलो. तुजे सदांच कौतुक केलां. तूं बरयता तितलेंय हांव नेमान वाचतां. तुजो म्हाका अभिमान आसा. पूण तूं मात म्हाका विसरलो.''

''थोड्यांक आपणाविशीं बरयिल्लें आवडटा ते हांव जाणां. पुण थोड्यांक तें रुचना. कितेंय बरयतलो जाल्यार निमित्त वा प्रसंग जाय आसता.'' हांवे म्हळें.

''चार वर्सांआदीं म्हाका पाऊणशें वर्सां पुराय जाली. फुडल्या वर्सा ८० वो वाडदीस. तुका खंय खबर आसा ? आतां फुडल्या वर्सा उगडासान म्हजेर बरय.''

''तुजेविशीं कितें बरोवपाचे तेंय सांग.'' हांवें म्हळें, ''हांव तुका वळखता. भुरगेपणाक सावन वळखता हें खरें. पूण मदलीं वर्सां हांव भायर उरलों...'' हांवे म्हळें.

''आतां बरोवपाचें थरलें मूं ? हांवूय म्हाका येवजता तितलें बरोवन दवरतां.'' दामोदरान म्हळें, ''पूण आमी इतिहास पळयला, फिरंग्यांच्या राज्यांत दीस काडल्यात आनी ते उपरांत गोंयचें स्वातंत्र्य पळयलां. गोंयच्या सगल्या ल्हान - व्हडांक हांव वळखतां. ते सगळे म्हज्यान सांगूं येता. एक कला देवान दिली ना ती बरोवपाची. बरोवंक आयिल्लें जाल्यार हांवच बरयतलों आसलों. आतां तो विशय नाका. आतां तुगेल्या श्रीनिवासाविशीं जाय जाल्यार म्हज्यान खूब सांगूं येता. तेभायर एवरीक सांगतलो.''

''बरे भाशेन.'' हांवे म्हळें, ''पूण तूं परत परत तुगेलो श्रीविनास म्हणून थोमणो मारिल्लेभाशेन कित्याक उलयता ?'' हांवें विचारलें.

''हांव थोमणो मारिना. तुवें ताका श्रीनिवास हें नांव दिलें. आमी ताका खरेल्या नांवान वळखतात. श्रीनिवास म्हळें म्हण्टकच कितलेशेच श्रीनिवास दोळ्यांमुखार उबे रावतात. देखून तुगेलो श्रीनिवास अशें हांव म्हणटां. आमची वळख ल्हानपणांतली. साळकाच्या मुडल्यांचो प्रसंग तुका हांवे सांगलो. पूण

आनीकय जायते प्रसंग आसात. भुरगेपणांत तो आमच्याच गांवांत आसतलो. ताच्या बापायचो पसरो आशिल्लो हें खरें. पूण ताजे आवयविशीं लोक तरांतरांनी उलयताले हें तूं जाणा ?''

''ना. तेविशीं म्हाका कांयच खबर ना. पूण तसल्या उलोवण्याक गरजेभायर म्हत्व दिवंक जायना.'' हांवे म्हळें.

''सामकें खरें तुजे.'' दामोदरान रोखडोच आपलो सूर बदललो. ''बायलांची निंदा करप सोंपी. आनी ती बावडी आदले मुस्तींतली बायल. तिजें नांव घेवन ओगीच निंदा कित्याक करुंया ? विशय आयलो म्हणून हांव उलोवन गेलों.'' दामोदरान म्हळें.

''एक सांग.'' हांवे ताका विचारलें, ''गुड्स गाडयांच्या वागणींतलें धान्य आपलो बापूय चोरून विकतालो अशें ताणें म्हाका सांगिल्ले तें खरें ?''

''ताणें सांगलें जाल्यार खरें आसतलें. पूण हांव जाणा ते इतलेंच, त्या दिसांनी आमी भुरगे वागणीचे खांचींत सुरयो तोंपून मसमीची भिकणां काडटाले. जण एकल्याक पोसो पोसो भिकणां मेळटाली. आतां ताचो बापूय वेगळें कितें करतालो तें म्हाका खबर ना.''

''तेविशीं हांवें बरयलां हें तूं जाणाच.'' हांवे म्हळें.

''हय, हय. वाचलां. सगलें वाचलां. तातूंत सगलेंच फट आसा अशें हांव म्हणिना. ताणें आपल्या मास्तराची गजाल बरयल्या ती सगल्यांकच खबर आसा. म्हजे पिळगेच्या लोकांक तरी ती लिपून उरूंक ना.''

''पूण तुगेल्या एवरीकाचो आनी श्रीनिवासाचो संबंद कसो आयलो ?'' हांवें विचारलें.

''अशें विशयांतर करूं नाका.'' दामोदरान म्हळें, ''त्या मास्तराविशीं तुका आयकून घेवपाचें ना ?''

''सांग. आनी एवरीकाविशींय सांग.'' हांवे म्हळें.

''श्रीनिवासान उमेदीचे पिरायेचेर एक बायल दवरिल्ली. कोण म्हणटालो, ती विधवा म्हणून... तिगेलो चलो तो मास्तर.''

''म्हळ्यार उश्णो श्रीनिवासालोच चलो ?'' हांवे विचारलें.

''न्हय. तो ते बायलेलो चलो...''

''तूं सांगता ते खरें आसत जाल्यार सगलोच घुस्पागोंदळ म्हणूंक जाय. श्रीनिवास जे तरेन म्हजेकडेन उलयलो ताका लागून उश्णो हो श्रीनिवासाली पयलीं बायल पार्वतीचो चलो अशें म्हाका दिशिल्लें.''

''तशें तुवे बरयलां तें हांवें वाचलां. पूण तें सगलें खरें न्हय. श्रीनिवासान तुका फटयला अशें हांव म्हणिना. पूण ताणें तुका सगलें सारकें सांगूंक ना.'' दामोदरान म्हळें.

''सगळे सांगपाचो प्रसंगय आयलो ना. पूण ताणें फट सांगलां अशें म्हाका दिसना.'' हांवे म्हळें.

''तूं सांगता जाल्यार तेच खरें म्हणूं या.'' दामोदर तिरसुवादपणान उलयलो, ''पूण तुगेलो श्रीनिवास कित्तलो फटींग ते हांव जाणा. ताज्याकय चड खबर तुका एवरीक सांगतलो. वागणींतलें धान्य चोरून गिरेस्त जावं येता ? तो काणयो सांगता आनी तूं आयकता. ताणें फटींगपणां केल्यात तीं सोंसपाची न्हय. आतां इतलेच की, कायद्यान तो सांपडलो ना.''

''कसले तरेचीं फटींगपणां ?'' हांवे विचारलें.

''तो उतराचो मनीस न्हय. तो फट उलयतालो आनी पयले खेपे उलयिल्लें दुसरे खेपे आपूण उलोवंकच ना अशें बासतालो. गांवचे अडिल्ले लोक मांगराच्यो वस्ती दवरून ताजेकडच्यान कळांतरान

पयशे व्हरताले. काणयांतले सावकार करताले तसो तो येणें खूब आसा असो हिशोब दाखोवन वस्ती गिळटालो. धा रुपया दितालो आनी शंबर रुपया बरोवन दवरतालो... आतां कितें, तो गिरेस्त जालो. ताका चोरी पचली. तुवें - हांवें केल्ली जाल्यार आमकां बंदखणींत खडी फोडची पडपाची ना जाल्यार कट्टेंत नाक बुडोवन जीव दिवचो पडपाचो.''

''आपूण सदाचारी अशें तो म्हणिनासलो. पूण एक सांग, तुका ताणें फटयला ?'' हांवे विचारले.

''तो बरो फटयत आसलो. पूण हांव फटोवन घेवं नाका ? ताणें एवरीकाक फटयला... गिळ्ळा म्हळ्यार जाता. पूण ती खबर हांव सांगिना. ताज्याच तोंडांतल्यान आयक.''

''तुजो ताजेविशींचो कसलोय अणभव आसल्यार कित्याक सांगिना ?''

''सांगतलो जाल्यार खूब सांगूं येता. एक खेपे ह्या श्रीनिवासान अर्द पवन चोरलें. तो आमगेर खेळूंक म्हणून आयिल्लो. आमच्या देवाऱ्यांत रुप्याचे वाटयेंत एक अर्द पवन घालून पुजेखातीर बापायन दवरिल्लें. सगल्यांचो दोळो चुकोवन हाणें पंचामृत घेवपाचे निमित्त करून अर्द पवन काडले. म्हजी आवय ताका पळयताली. तिका दुबाव आयलो. ती येवन पळय जाल्यार अर्द पवन ना. तिणें बोवाळ केलो. तेन्ना हो श्रीनिवास कसोच कबूल जालोना. ताणें ते पवन गिळ्ळें आनी आपली बोल्सां तपासून पळय अशें म्हजे आवयक सांगलें.''

''पूण ताणें पवन गिळ्ळें अशें तुका कशें कळ्ळें ?''

''तेन्ना कळ्ळेंच ना. म्हज्या बापायक दिसलें, वाटी घांसूंक उडयता आसतना ते अर्द पवन चुकून खंयय पडिल्लें आसतलें. पूण आठ दिसां उपरांत श्रीनिवासालो बापूय तें खरेलें मांगर कांय कितें हें विचारूंक गांवच्या शेटीगेर गेलो तेन्ना गुपीत भायर फुटलें. ताणें तें गिळिल्लें पवन भायरी घेवन भायर काडिल्लें.''

''मागीर तें परत दिलें ?'' हांवें विचारलें.

''तागेल्या बापायन सगलो गांव माथ्यार घेतलो. मेळिल्लें पोवन तो परत दिता ? आमीय त्या पवनाचे वासपुशेक गेले नात.'' दामोदरान सांगले.



गांवामायर न्हंयचे देगेर एक व्हडलें तळप आसा. तळपाचे कुशीक एक आंब्याचें झाड. ताज्यो फांदयो अशे तरेन पातळ्ळ्यात की, दिसयमर त्या तळपाचेर सावळी उरता. सगलेकडेन वत, न्हंयच्या दोनय देगांनी तरेकवार झोंपां आनी मदीं एकच आंब्याचें झाड नदरेंत भरता. कोणें तरी त्या तळपाचेर चडून बसपाखातीर सोंपणां कोरल्यांत. तळप सामकेंच ल्हान न्हय आनी तळपाची वाट सुळसुळीत. चार मनीस हातपांय सोडून न्हिदूंक पावत इतलें लांब - रूंद तळप. त्या तळपाचेर बसून उदकांत गर सोडून एवरीक न्हंयचेर नदर थिरावन बसला. ताज्या तोंडांत मोर्तालीत तंबाकू वळून केल्ली अर्दी सिगरेट आसा जी ताज्या सकल्या ओंठाक दकिल्लेमाशेन दिसता. सिगरेट पेटल्या काय पालवल्या तें कळना. दांताचेर दांत दवरून एका कोंकणी कांतराची धून तो शिळोण घालून वाजयता.

दामोदरान ताका हटकिलो तसो ताणें गरो भायर काडलो. गऱ्याक नुस्तें नासलें आनी हांयसय नासलें. एवरीकान गरो कवळ्ळो. आपल्या उकत्या आंगाचेर एक टी शर्ट चडयलो आनी विचारलें, ''हांगाच बसुंया काय घराकडेन या ?''

''श्रीनिवासाविशी तूं कितें सांगता म्हणटालो न्हय ?'' दामोदरान विचारलें.

गोंदळिल्ले माशेन तो आमचेकडेन पळोवंक लागलो. तेन्ना दामोदरान श्रीनिवासाचें खरेलें नांव ताका सांगलें, तेन्ना तो हांसलो. ताणें म्हळें, ''म्हाका कोर्टांत उबो केलो जाल्यार लेगीत हांवें सगलें

सांगून उडोवंक कबूल आसां. ताणें आमच्या घराब्याचो घात केला !''

''कोणाकय आदार जाय जालो जाल्यार तुवे श्रीनिवासाकडल्यान तो हाडून दिला अशें दामोदर म्हणटालो.'' हांवें म्हळें.

''तो ताणें म्हाका भिंयेवन दिला. हांवे म्हजेखातीर ताजेकडेन केन्ना भीक मागली ना.''

''पूण तुजो घात केला अशें तूं कित्याक म्हणटा ?'' हांवे विचारलें.

तोंडांतली पालविल्ली सिगरेट हात लायनासतना थुंकिल्ले माशेन करून एवरीकान न्हंयंत उडयली आनी म्हळें ''घात केलो अशें सांगलें. तो भायल्यान कसो दिसतालो ताचेर वचूं नाका. तो जितलो भायर आसलो ताचे दुप्पट भितर आसलो.''

''तुजी ताजी वळख कितल्या वर्सांची ?'' हांवें विचारलें.

''ताच्या जल्मासावन मरणामेरेन हांव ताका वळखतां. मदीं थोडी वर्सां हांव भायर मनवराचेर उरलों. पूण तो हांगाच उरलो. लोकांच्या कश्टांचे पयशे ताणें लुटले देखून तो मोटो जालो.''

ताजो वेपार - धंदो बरो चलतालो न्हय ?'' हांवें विचारलें.

''हालींच्या वर्सांनी धंदो बरो चललो हें खरें. त्या धंद्याक जाय आशिल्ले पयशे खंयच्यान आयले हें कोणाक खबर ना.''

''तेंच तूं सांग मरे ?'' दामोदरान ताका सुचयलें.

''आमचे पयशे आनी भांगर ताणें लुटलें आमचें भाट गिळ्ळें...'' एवरीकान म्हळें.

हांवे म्हळें, ''तूं सुरवातेक सावन म्हळ्यार भुरगेपणा सावन कितें कितें घडलें तें कित्याक सांगिना ?''

''तूं आयकतलो जाल्यार सांगतां'' अशें म्हणून एवरीकान दुसरी सिगरेट वळून घेतली. लायटर भायर काडून ती पेटयली आनी म्हाका विचारलें, ''तूं ओडटलो ?''

हांवें हांसून ना म्हळें. पूण दामोदरान ताजेकडचे तंबाकूचें बॉक्स मागून घेवन आपलेखातीर एक सिगरेट वळून घेतली.

''हो लायटर भांगराचो काय कितें रे ?'' दामोदरान ताका विचारलें.

''भायलें कवर भांगराचें. हांवें तें जर्मनीत घेतिल्लें.'' आनी आपल्या हाताची मुदी दाखेवन ताणें म्हळें, ''हें खरें वज्र. मनवराचेर एके बायलेन आपलो उगडास म्हणून म्हाका ती दिल्ली.''

''श्रीनिवासाच्या खबरांभायर तुजेकडेन भायल्या देसांच्यो आनी तारवांवयलो खबरोय खूब आसतल्यो, न्हय ? हांवें विचारलें.

''खूब आसात. तुका हांव सांगतां संवसारांत इतले बरे बरे गांव आसात आनी बरे बरे मनीस आसात... त्या हिसपान आमचो गांव पाडो आनी आयचो लोक कुस्को.''

''तशें जाल्यार तूं हे जाणटे पिरायेचेर ह्या गांवांत कित्याक परत आयलो ?'' दामोदरान ताका विचारलें.

हो आनीक कसलो प्रस्न म्हणपाची नुरा करून एवरीकान जाप दिली, ''मागीर खंय वचपाचें म्हणटा तूं ? हांगा मेलों जाल्यार गांवचे चार लोक जमून शिमेतरींत पावयतले. दुसरेकडेन मेलों जाल्यार कावळे आनी गीध तोंचतले, ना जाल्यार मडें उखलून दर्यांत उडयतले.''

''हय मरे ? मागीर गांवच्या लोकांक गाळी घालून तुका कितें मेळटलें ?'' दामोदरान विचारलें.

''हें आनी बरें मरे ! हांवें कोणाक गाळी घाल्यात ? हांवें तुका सांगलां, आमचो गांव बरो न्हय आनी लोक बरो न्हय म्हणून. पूण तितले खातीर तो आमचो न्हय जाता ?''

विशयांतर जाता हें पळोवन हांवें मर्दी तोंड घालें, ''श्रीनिवासाची खबर थंयच उरली.''

''हय. श्रीनिवास आनी हांव भुरगेपणांतले शेजारी आनी इश्ट. तागेल्या घरा देवसपण कडक. तो आमच्या घराकडेन उदक लेगीत पियेनासलो. तागेल्या घरांत कोणच किरिस्तांव वा दुसऱ्या धर्माचो मनीस भितर येवंक जायनासलो. पूण घराभायर आमी दोगी भाव कशे वावुरताले. तो मराठी शाळेंत शिकतालो आनी हांव पाद्रील्या इश्कोलांत वतालों बाकी वेळार आमी सांगतान भोंवताले. ल्हान पिरायेसावन आमी उंडीर वचून वाफोर पळयत रावताले.''

''ही न्हंय तुवें पळयल्याच. सकले वटेन आदल्या काळार वाफोर आनी फातमाऱ्यो येताल्यो. आतां सगली न्हंय पुरोवन गेल्या. तेन्ना मोटारींचो रस्तो नासलो, बसीं नासल्यो.''

''पूण श्रीनिवास म्हणटालो, आपल्या भुरगेपणांत बापायचो एक पसरो आशिल्लो आनी रेल्वे मार्गाकुशीक ताचें घर आसलें.''

''तें खरें. त्या वेळार आमच्या दोनीय घराब्यांनी हांव बदलिल्लों ती खबर उपरांत सांगतां... म्हजो बापूय ते मुस्तींत तारवार आसलो. गांवचे आनीक थोडे भुरगे तारवांचेर काम करताले. वाफोर दनपरां बारा वरांचेर आमच्या गांवांत पावतालो. एक वराचेर सुट्टालो. वाफोर येता केन्ना, आनी वता केन्ना उंडीरवयलो देखाव पळोवपासारको आसतालो. गांवांत देंवपी वा गांवच्यान वाफोरार चडपी लोक थोडेच आसताले. पूण जेवण वा च्या घेवचेखातीर वाफोरांतले सगले लोक सकल देंवताले. दादले, बायलो आनी भुरगीं, उंडीरकडेन एक हॉटॅल आसलें....''

''तुमी वाफोराकडेन येवन करताले कितें ?'' कांय ना. वाफोर पळयताले. केन्नाय फातमाऱ्यो पळयताले. भायल्या गांवात गेल्लो वा भायल्या गांवांक वचूंक आयिल्लो गांवचो कोणय आसा काय कितें हें पळोवन घेताले आनी आमचो वेळ वतालो.''

''तुजो बापूय त्या वेळार तारवार आसलो ?'' हांवे विचारलें.

''हय. एक दीस तो आयलो. वाफोरावयल्यान देंवतना आमी ताका पळयलो. ताणें जायत्यो वस्तू हाडिल्ल्यो. त्या दिसा आमच्या सांगातान श्रीनिवास आमच्या घरा आयलो. म्हज्या बापायन हाडिल्ल्यो वस्तू पळोवन तो विस्मीत जालो. आमी ताका बानयानां, चॉकलेटी बी दिल्यो आनी उडयो मारून घरा गेलो.''

''त्या दिसांनी श्रीनिवासालो बापूय कितें करतालो ?''

''ताजो एक पसरो आसलो. पूण तो सारको चलनासलो. गांव कुशीक उरतालो आनी वाफोराचेर येतल्या वतल्या लोकांक पसऱ्यार घेवपासारकें कांय नासतालें. आमी ल्हान खोंपींत रावताले. एक दीस श्रीनिवासाचो बापूय आमच्या घराकडेन आयलो आनी ताणें म्हज्या बापायक सांगलें, ''आपलो पसरो सारको चलना. तेन्ना आपुणूय तारवार येता. आपलेखातीर सिर्विस सोद. म्हज्या बापायन ताका समजायलो की, तारवाचेर तागेलें अनवाळेपण उपकारचें ना. तेभायर तारवावयलें काम खूबच कश्टांचें आसता. तेपरस ताणें गांवांतच पसरो घालपाचो जालो जाल्यार आपूण ताका आदार दिवंक कबूल आसां.'' एवरीकान सांगलें.

''त्या उपरांतच एवरीकाल्या बापायन दिल्ल्या पयशांनी श्रीनिवासाल्या बापायन लागशिल्या गांवांत पसरो घालो आनी थंयच्यान रेल्वे वताली. थंय म्हजी आनी श्रीनिवासाची इश्टागत जाली.'' दामोदरान म्हळें.

''तेन्ना एवरीकाची आनी श्रीनिवासाची इश्टागत सोंपली काय कितें ?'' हांवें विचारलें.

''ना. खरें म्हळ्यार आदीं आमी त्या गांवांत एक घर विकतें घेतलें आनी उपरांत श्रीनिवासाचो

बापूय थंय रावंक गेलो. तारवारसावन हांडिल्ले सगले पयशे त्या वेळार म्हज्या बापायन श्रीनिवासाल्या बापायकडेन दिल्ले.'' एवरीकान सांगलें.

''कितलें पयशे ?'' हांवें विचारलें.

''म्हज्यान सांगूंक जावचें ना. पूण हजारांनी रुपया आसतले. तारवट्यांक पगार म्हयन्या म्हयन्याक दिनात आसले. ताका फुकट जेवण खाण आनी न्हेसण मेळटाले. पॅसेंजराचें तारूं आसलें जाल्यार पॅसेंजर बक्षीस दिताले. तेच पयशे हजारांनी जाताले. त्याभायर दोन - तीन वर्सांनी परत येतना पगाराचे सगले पयशे मेळटाले. म्हणटकीर तूंच येवजून पळय. म्हज्या बापायक कसलेंच व्यसन नासलें आनी ताजेकडेन बडाय नासली. गांवांत आसतना तो काश्टी न्हेसून रावतालो.

घरांत पयशे दवरले जाल्यार ते चोरयेक वतले अशी ताका भिरांत दिसताली. देखून ताणें ते श्रीनिवासाल्या बापायकडेन दवरूंक दिल्ले.'' एवरीकान सांगलें.

''त्या पयशांनी तांणी पसरो घालो ?''

''हय. तशें ताका म्हज्या बापायनच सांगिल्लें. ते हांव म्हणिना. आमकां किर्तेय लागलें जाल्यार तोच पावयतालो. तो आपल्या बुकांनी हिशोब बरोवन दवरतालो. म्हजो बापूय गांवांत येता तेन्ना ताका हिशोब दाखयतालो. ते पयशे ताणें खाल्ले नासत, तो तसो बरो मनीस आसलो. पूण श्रीनिवासान मात आमकां सामकेच फटयले. तेय बी खूब उसरां.'' एवरीकान सांगलें.

✳

न्हंयच्या पात्रांत एका शेंवट्यान उडी मारली आनी एवरीकाचें लक्ष थंय गेलें. खीणभर तो उदकाकडेन पळयत रावलो आनी उपरांत म्हळें, ''वचून वचून खंय वतलो ? आज ना जाल्यार फाल्यां तूं म्हाका मेळटलोच.''

तो म्हाका सांगता काय स्वगत उलयता हें म्हाका कळ्ळें ना. देखून हांवें ताका विचारलें, ''तूं म्हाका म्हणटालो ?''

''तुका न्हय, हांव त्या शेंवट्याक सांगतालों'' अशें म्हणून एवरीकान परत म्हजेवटच्यान तोंड केले आनी विचारलें, ''तूं तागेलो (श्रीनिवासालो) सोयरो बी लागता ?''

''ना, ना. तुका ताजी खबर सांगपाची आसत जाल्यार ती मेकळेपणान सांग. तो म्हाका मेळ्ळ्यार खूब म्हयने जाले. तो मेला म्हणपाची खबर लेगीत म्हाका दामोदरान दिली... कितें जालें ताका ?''

''म्हाकाय सारकें खबर ना. तो खूब पियेतालो आनी तितलें खायना आसलो. घडये काळजाचें जालां आसत, घडये लिवराचें.'' एवरीकान जाप दिली.

''आपले धुवेखातीर तो सदांच खंती उरतालो. तिका लग्न करून दिवपाची ताका उमळशीक लागिल्ली.'' हांवें म्हळें.

''तूं ताजे धुवेक वळखता तर ?'' एवरीकान विचारलें.

''एकेच खेपे तिका पळयिल्लीं. हरशीं चली कशी ?''

''तो कितलोय कुसको जावं. चली भांगर.'' एवरीकान जाप दिली. ''तिची आवय लेगीत अशीच सादी आनी शिटूक आसली. सावित्री दिसूंक आवयभाशेन दिसना. पूण तिजो सभाव सामको आवयभाशेन. उतरान कोणाक दुखोवची ना आनी आपणाकडच्यान जाता तीं कामां मोन्यांनी करतलीं. गिरेस्तकायेची बडाय ना. दारांत आशिल्ल्या मनशांक मानान वागोवंक जाणा. एक खबर सांगता ताजेवयल्यान ती केद्या व्हड मनाची बायल तें तुका कळटलें.'' एवरीकान म्हळें.

''तूं कोणाविशीं म्हणटा ? धुवेविशीं काय आवयविशीं ?'' हांवें विचारलें.

''धुवेची आनी म्हजी तितली संवकळ ना. हांव आवयची खबर सांगतां... तूं जाणा न्हय ही आतां आसा ती सावित्रीची आवय न्ही... धूव तागेले पयले बायलेची...''

''तिजेविशीं आयकलां हांवें. खासा श्रीनिवास तिका खूब मानतालो.''

''तसलीच बायल ती. सायबिणीभाशेन.'' एवरीकान म्हळें, ''एक खेपे म्हजो बापूय श्रीनिवासागेर गेल्लो. म्हाका दिसता ती ताची निमाणी भेट आसतलीं. दोगांयमदीं कितेंय तरी झगडें जालें आनी रागाभरशीं म्हज्या बापायन श्रीनिवासाच्या पोल्यार थापट मारलें. ताच्या घरांत घडिल्लीं गजाल. तेन्ना पार्वती आसली. ती धांवन भायर आयली. म्हजो बापूय तापतालो. श्रीनिवास मोन्यांनी आयकतालो, कांय उलयनासलो. पार्वतेक पळयनाफुडें म्हजो बापूय फाटीं सरलो. तो परत येतालो. पूण ते बायलेन ताका आग्रो केलो. दनपारच्या वेळार जेवलेबगर वचूंक जायना असो सोपूत घालो आनी म्हजो बापूय जेवन परत आयलो. आपल्या घोवाक ताणें मारला हे जाणा जावनय पार्वती आपल्या धर्माक जागली. तिणें खंय म्हज्या बापायक सांगलें, तुमची पयशांचीं झगडीं म्हाका लागनात. पूण तूं आमच्या घराचो इश्ट. तें नातें मोडूंक फावना.''

''थापट मारीसर तांचें कसलें झगडें जाल्लें ?'' हांवें विचारलें.

''झगडें एकच. पयशांचे. म्हजो बापूय तारवार वतना सगले पयशे आनी भांगर श्रीनिवासाकडेन दवरून गेल्लो. आमचो एक भाटाचो कुडको आसलो. तें भाट लेगीत तोच पळयतालो. घरांत म्हजी आवय आनी हांव... झगडीं जालीं तेन्ना हांव जाणटो आसलों. म्हजो बापूय रिटायर जावन परत आयिल्लो आनी हांव तारवार गेल्लों. झगडीं जालीं त्या दिसा हांव घराकडेन नासलों. पूण उपरांत बापायनच म्हाका सगली खबर सांगली.''

''दवरिल्ले पयशे ताणें खाले ?'' हांवे विचारलें.

''सगले पयशे ताणे खाले. पूण त्या दिसा दोगांय इश्टांचें झगडें जालें हें वेगळ्या कारणाखातीर. श्रीनिवास तेन्ना भुरगो. भुरगो म्हळ्यार सामको कुकुलो न्हय. ताजें लग्न जाल्लें. म्हज्या बापायक पयशांची गरज जाली आनी तो पयशे मागूंक श्रीनिवासागेर वतालो. एक - दोन खेपे ताणें 'मागीर येवन व्हर' अशें सांगलें. तिसरे खेपे तो गेलो तेन्ना ताणें वेगळीच जाप दिली. ताणे म्हळें खंय ''तुजे पयशे कोणें खावंक ना. पूण ते धंद्यांत घालले आसात.''

''म्हाका सामकी गरज आसा. पांच हजार रुपया जाय.'' एवरीकाल्या बापायन तगादो केलो.

''तशे काडूंक कशे मेळटले ? तुजे पयशे हांव खायना. पूण आतां मेळचे नात.'' श्रीनिवासान जाप दिली.

''झगडें हें इतलेंच. रागाभरशीं म्हज्या बापायन ताजेर थापट मारिल्लें. आनी पार्वती न्हय जाता जाल्यार त्याच दिसा नवें कितेंय घडपाचें.''

''दिले ताणें मागीर पयशे ?'' हांवें विचारलें.

''ते दिले आनी दोगांयमदली इश्टागत उरली. उपरांत सुमार दोन वर्सांनी म्हज्या बापायक मरण आयलें. मरचे आदीं ताणें म्हाकाय सांगिल्लें, ''श्रीनिवास भरवंशाचो इश्ट हें विसरूं नाका. आनी बापायच्या उतराक मान दिवन हांवेंय ताचेकडेन इश्टागत दवरली.'' एवरीकान सांगलें.

''म्हाका एक समजलें ना.'' हांवें म्हळें, ''ताणे पयशे दिलें म्हणटा तूं, आनी ताणें सगले पयशे खालें अशेंय म्हणटा. सारकें कितें घडलें ?'' हांवे विचारलें.

''म्हजो बापूय आसतना जाल्लें तें तितले एक झगडें. पूण बापायन ताजेकडेन कितें दवरिल्लें तें कोणाकच खबर नासलें. म्हजी आवय लेगीत नकळो आसली. बापूय मेले उपरांत हांव तारवार

उरतालों. म्हजी आवय एकलीच घरा उरताली. तिका ताणें सगलो आदार दिलो... ना म्हणीना. हांवूय म्हजे पयशे तागेरच व्हरून दवरतालों. म्हाका ताणें वेगळें सांगिल्लें, आपणाक धंद्याखातीर बँकेकडच्यान पयशे घेवंचे पडटात. म्हगेले पयशे धंद्यात घाले जाल्यार तो म्हाका कळंतर फारीक करतलो... हांव तारवावयल्यान परत आयलों आनी केन्नाय लागले जाल्यार ताजेकडच्यान पयशे घेतले. हिशोब केन्ना केलो ना. म्हजी आवय मरून गेली. निमाणें एक दीस हांव पयशे मागूंक गेलों. तेमेरेन श्रीनिवास पुराय बदलून गेल्लो. ताची पयली बायल सोडून गेल्ली आनी तो खूब मोटो मनीस जाल्लो. हांवे ताचेकडेन हिशोब मागलो तेन्ना ताणें म्हाका सांगलें, की म्हज्या बापायचो हिशोब तो जितो आसतनाच मेकळो जाल्लो आसा आनी हांवें दवरिल्ले पयशे म्हाका परत पावल्यात.''

''तुवेंय हिशोब दवरूंक नासलो ?'' हांवें विचारलें.

''हांवें कित्याक बरयला. तोच हिशोब बरयतालो. म्हाका लागता तेन्ना हांव मागून हाडटालों. म्हाका दिशिल्लें चडच जाल्यार कळंतराचे पयशे हांवें घेतिल्ले आसतले, मुदल ताजेकडेन आसतले. पूण ताणें आपल्या बुकांत वेगळोच हिशोब दाखयलो. म्हाका म्हळें... तुका हिशोबाचें कित्याक पडलां ? तूं म्हाका भावासारको. तुका खर्चाक जितले पयशे लागतले ते मागून व्हर, हांव तुका दितां.''

''आनी ताणें दिले ?'' हांवें विचारलें.

''हय. हांव मागूंक गेलो जाल्यार ताणें ना म्हणूंक ना. हांवे म्हजेखातीर पयशे हाडले आनी लोकांखातीरय मागून हाडले.''

''पूण तुका दिसता ताचेकडेन चड पयशे पाविल्ले ?''

''दुबाव ना. जिवीतभर हांवें आनी म्हज्या बापायन जितलेंय जोडले ती सगली जोड ताजेचकडेन दवरिल्ली.''

इतलें उलोवन एवरीक उठलो.

''जालीं, सोंपली खबर ?'' हांवें ताका विचारले.

''सोंपली म्हळ्यार जायत्यो खबरी आसात. त्यो सगल्यो सांगून फायदो कितें ?''

''आतां श्रीनिवासालो धंदो कोण पळयता ?'' हांवें विचारलें.

''तागेले दोन पूत आसात. दोगय पूत धड न्हय. बायलांचें एकामेकांकडेन जुळना. ते वेगळे सरपाचे आसात अशें आयकलां.''

''आनी तांची आवय ?''

''आवय आसा. तिका धंद्यांतले कांय समजना. हांव गेलों जाल्यार म्हाका बरी जाप दिता.'' एवरीकान म्हळें.

''सावित्रीचें कितें जालें ?'' हांवें विचारलें.

''जातले कितें ?'' एकरीकान म्हळें, ''आपल्याच घरांत वावराडी जावन ती वावुरता. तिची खरी काकूट. आतां लग्नाची पिराय उरूंक ना. आनी दुसरेकडेन वचून रावतली म्हळ्यार जागो ना.''

खडपावयल्यान एवरीक सकल देंवलो. तांचे फाटल्यान आमीय देंवले.

''आतां म्हाका वचूंक जाय. वयले वटेन वचून नुस्तें कितेय मेळटा जाल्यार पळयतां.'' एवरीकान म्हळें.

''तुवे श्रीनिवासाले पयले बायलेविशीं कांय सांगलें ना.'' दामोदरान ताका उगडास दिलो.

''तेंय सांग म्हणटा ?'' एवरीकान म्हळें. ''सांगतलो.जाल्यार खूबशें सांगपासारके आसा... पूण आतां म्हाका फुरसत ना.''

पांयवाटेन न्हंयचे देगेन एवरीक चलत रावलो. दामोदरा सांगातान हांव परतलों. वाटेंत दामोदरान म्हाका म्हळें, ''तो असोच, कोल्ली मनीस. या आमी. हांवूय तुका उरिल्लीं खबर सांगतां. पूण तुका कळ्ळे न्हय, श्रीनिवास कोणाल्या पयशांचेर मोटो जालो तो !''

दामोदर हांसलो. हांव ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलों.

✷

''आतां तुका विचारपाचे आसत तर तें म्हाकाच विचार.'' मोटारींत बसतकच दामोदरान म्हाका म्हळें.

''खरें म्हळ्यार एवरीकान नवें कांय सांगलें ना. तुवें आग्रो केलो देखून हांव ताका मेळूंक आयलों.'' हांवे म्हळें.

''आतां तुका फुडलीं खबर सांगूंक हांव मेकळो जालों ना ?'' दामोदरान म्हळें. ''ताज्या तोंडांतल्यान तुवें आयकले तितलें पुरो. सगलो गांव जाणा एवरीकाले पयशे श्रीनिवासान खाले म्हणून.''

''अशे कितले पयशे आसतले ?'' हांवे विचारलें. ''घडये श्रीनिवास म्हणटा तरी ते पाविल्लेय आसूं येतात...''

''एवरीकाचें एक नांव घेतलें. पूण दुसऱ्याय लोकांक ताणें अशेंच केलां. अडिल्ल्या वेळार मनीस कितेंय घाण दवरता. श्रीनिवासान ताचो फायदो घेतला. एका अरबाची खबर हांव जाणां. ताणें विस्वासान श्रीनिवासाकडेन भांगर दवरिल्लें. दोन वर्सां उपरांत तो परत आयलो जाल्यार श्रीनिवासान ताका सांगलें, तें भांगर सरकारान जप्त केलें म्हणून. धंदो चोरयेचो जाल्ल्यान बोवाळ करूंक मेळ्ळो ना आनी कागाळय करूंक मेळ्ळी ना.''

''तूं म्हणटा ते भाशेन श्रीनिवास स्मगलींग करतालो ?'' हांवे विचारलें.

''ते हांव नकळो. पूण स्मगलरांकडेन ताचो संबंद आसतालो इतलें खरें. ओगीच इतलें पयशे जोडले नात...''

''सोड, खंयच्याय मार्गान आसना ताणें पयशे केले ती गजाल वेगळी. पूण ताजे पयले बायलेचें कुवार्डे कितें ? तें कित्याक सांगना ?'' हांवें दामोदराक विचारलें.

''हांवें आयकल्या तशी हांव सांगतां. श्रीनिवासाचे एके जाणटे बायलेकडेन संबंद आसले. ती बायल गोंयची न्हय, घाटावयली. तिका कोंकणी उलोवंक लेगीत येना आसली. धंद्याखातीर तिजो घोव गोंयांत येवन राविल्लो. आनी धंद्यानिमित्तान ताजो श्रीनिवासाकडेन संबंद येतालो. त्या वेळार श्रीनिवास तरूण. बावीस - पंचवीस वर्सांचो आसतलो. तिच्या घोवाक एक दीस पांयाक खिळो रोमलो अशें निमित्त जालें आनी धोनकुटी जावन तो मेलो. तो आसतना श्रीनिवास तांगेर यो - वच करी. उपरांत ताजे बायलेक श्रीनिवासानच आदार दिलो. पिरायेन ती श्रीनिवासापरस जाणटी. पूण लोक तरातरांनी उलयताले. कोण म्हणटाले, श्रीनिवासाचे तिजेकडेन संबंद आसात. पूण त्याचबरोबर एके निराधार विधवेक तो आदार दिता अशेंय म्हणपी लोक आसले. उलयतल्याची जीब तूं जाणाच... ती कोण धरतलो ? पूण कशेंय आसना तांचे संबंद दुबावाचे. आयिल्ल्या दिसा हो तिगेर वचून रावतालो.''

''ती बायल आज खंय आसा ?'' हांवें विचारलें.

''ती जिती आसा काय ना तें म्हाका खबर ना. पूण ती गोंय सोडून गेल्यार खूब वर्सां जालीं.''

''तिचो आनी पार्वतीचो संबंद कितें ?'' हांवे विचारलें.

''संबंद म्हळ्यार ? पार्वती तिची धूव.'' दामोदरान सांगले. ''ती गोंयांत आयिल्ली कोणें केन्ना

पळयलें ना. देखून तूं विचारशीत जाल्यार ती औरस काय अनौरस ते हांव नकळों. ती घाटार खंय तरी शिकताली आनी तिचो बापूय तिका पयशे धाडटालो... हांव हें जाणां. कशें तें सांगतां. मदीं ब्लॉकिड जाली तेन्ना आपले धुवेक ताणें म्हजेकडच्यान पयशे धाडल्यात. आमचे थंय संबंद आसताले. तो म्हाका हांगा पयशे दितालो आनी हांव रकाद धाडून तिका पयशे पावोवंक लायतालो. त्याच अदमासाक ताका मरण आयले. ते उपरांत श्रीनिवासान जायते खेपे म्हजे मार्फतीन तिका पयशे धाडल्यात...''

''पार्वतीचे आवयचे आनी श्रीनिवासाचे संबंद कशेंय आसूं, निमाणेकडेन ते मांय आनी जांवयाचे संबंद उरले मूं ?'' हांवें विचारलें.

''एका अर्थान हय. पूण म्हाका दिसना श्रीनिवास पार्वतीकडेन कायद्यान लग्न जाल्लो आसत म्हणून.''

''घडये रजिस्ट्रेशन केल्लें नासत. ती आपले घर सोडून गेली म्हणपाची गजाल श्रीनिवासान म्हाका लिपोवंक नासली.''

''निमाण्या दिसांनी लेगीत तो तिका आपली पयली बायल अशेंच म्हणटालो. देखून म्हाका दिसता जरी रजिस्ट्रेशन जालें ना तरी तांचें लग्न जाल्ले आसूंय जाय. तेभायर तिगेली चली अजून श्रीनिवासाल्या घरांत आसा, हें तरी खरें मूं ?''

''तशें आसत. पूण बायलां बाबतींत श्रीनिवास इल्लो उदार आसलो. जायत्या बायलांकडेन ताजे संबंद आसताले अशें लोक उलयतात.''

''ती गजाल खरी मानली तरी व्हडलो फरक पडचो ना. आमी दुसरीच गजाल उलयताले न्हय ?'' हांवें म्हळें.

''हय. ताजेर चड घासाघीस कित्याक करूंक जाय ?'' दामोदरान म्हळें, ''विशय आशिल्लो ताज्या पयले बायलेचो. ती ताजेसरी रावतालीं हें सगले लोक जाणात आनी सगलेजाण तिका ताजी बायल म्हणुनूच वळखताले. देखून तांच्या संबंदांचेर हांव काय सांगिना.''

''प्रस्न उरूं येता तो सावित्रीच्या जल्माचो.'' हांवें म्हळें.

''तातूंत कसलोच दुबाव ना. सावित्री ही श्रीनिवासाली धूव आनी ताजी आपले धुवेचेर खूब माया हे सगल्यांक खबर आसा. पूण पार्वतेकडेन तो लग्न कसो जालो तें मात चडशे कोणच नकळो.''

''पार्वती ताका सोडून कित्याक गेलीं हें तरी लोकांक खंय खबर आसा ? ताजेंय ते कारण सांगूंक ना.'' हांवें म्हळें.

''हांव सांगतां. पार्वती भायर शिकताली. म्हाका दिसता शिक्षण पुराय जातकच ती आवयसरीं आयली. थंय तिका श्रीनिवास भेटलो.'' दामोदरान म्हळें.

''म्हळ्यार तांणी प्रेम केलें ?'' हांवें विचारलें.

''प्रेम आसूं येता, ना जाल्यार लाचारी आसूं येता. कशीय जाल्यार ती श्रीनिवासाच्या उपकारांत आसली. आपले आवयक आदार दिलो. आपलें शिक्षण पुराय करूंक पालव दिलो हें तिका खबर आसलें. देखून...''

''तूं म्हणटा तशे जर पार्वतीचे आवयकडेन श्रीनिवासाले अनैतिक संबंद आशिल्ले जाल्यार ती श्रीनिवासाकडेन आपले चलयेक लग्न करूंक कशी कबूल जातली आसली ?'' हांवें विचारलें.

''तें कोणाच्यान सांगूंक नजो.'' दामोदरान जाप दिली. तो त्या वेळार तरूण आसलो. ती खूब जाणटी. तिणे विचार केलो आसूं येता, पार्वतीकडेन ताचें लग्न जालें जाल्यार दोगांयचीय जीण सुरक्षीत जातली. पार्वती शिकिल्ली चली. दिसुंकूय स्मार्ट आसली. श्रीनिवास शिकिल्लो नासलो तरी

ताचेकडेन पयशे आसले. तिणें फाटलो फुडलो विचार करुनूच लग्नाक मान्यताय दिल्ली आसतली. तें लग्न जाले... अशें म्हणचे परस पार्वती श्रीनिवासागेर रावंक आयली आनी तिगेली आवय गोंय सोडून गेली.'' दामोदरान म्हळें.

''आसूं येता. धुवेचें लग्न जातकच ती मूळ गांवांत वचून रावली आसूं येता.'' हांवें म्हळें.

''ते उपरांतची खबर तूं जाणाच.'' दामोदरान म्हळें.

''हांव चड काय नकळों. श्रीनिवासानय म्हाका चड काय सांगूंक ना. पूण म्हाका कुवाडें सुटना तें एकच. आपखोशयेन ती श्रीनिवासाकडेन लग्न जाल्ली. ती शिकिल्ली आनी हो अर्दशिक्षीत हें मान्य केलें तरी तांचो संवसार बरे तरेन चलतालो. तांगेर एक चली जाली. श्रीनिवासान तिका मान दिलो आनी पैशेंय दिले. पयशे कमी पडूंक दिले नात हें तागेल्या उलोवण्यावयल्यान कळटालें. अशे स्थितींत ती ताका सोडून कित्याक गेली ?'' हांवें विचारलें.

''हो प्रस्न तुवें एवरीकाक विचारूंक जाय आसलो. तो तांगेर येतालो - वतालो. अजुनूय वता आसतलो.'' दामोदरान म्हळें.

''पूण ताणे विशय सांगलो तो फक्त आपणाक आनी आपल्या बापायक श्रीनिवासान फटयले इतलोच. पार्वतीविशीं वा सावित्रीविशीं तो बरें उलयलो खरो पूण चड सांगूक तयार आसा अशें दिसलें ना.'' हांवें म्हळें.

''हय. म्हज्याय तें लक्षांत गेल्लें. पूण असलो प्रस्न विचारल्यार घडये तो जाप दीत आसलो. म्हजेय तकलेंत एक कारण कितलीं वर्सांच घोळटा. सामकीच कल्पना अशें म्हणूंक जावंचे ना.'' दामोदरान म्हळें.

''उपकारता. आतां आमी तर्कच करूंक बसल्यात जाल्यार तुजे तकलेंतली कल्पना वा दुबाव कितें आसत जाल्यार तो सांगून उडय.''

''पयली गजाल म्हळ्यार पार्वतीची आवय धुवेच्या लग्ना उपरांत गोंय सोडून कित्याक गेली ? ती खंय गेली, कित्याक गेली ? आनी ती थंय कितें करता ? हाजी श्रीनिवासान केन्नाच वासपूस केल्ली नासतली अशें तुका दिसता ?'' दामोदरान म्हाका विचारलें.

''केल्ली आसूं येता आनी केल्ली नासूं येता. कशीय जाल्यार ती पयस गेल्ली.'' हांवें म्हळें.

''ताचें - तिचें नातें लक्षांत घेतल्यार तो तिका तशी वाऱ्यार सोडचो ना. दोन कारणांखातीर. एक, तिचेविशीं ताका आदीसावन ओड. तूं म्हणटा तसलीच मानली जाल्यार लेगीत तांचे संबंद पुताचे आवयकडेन आसतात तसले म्हणुंया. लग्ना उपरांत ती ताची मांय जाली. तिका घोव ना. ती खंय वचूंक भायर सरल्या हाजी ताणें वासपूस करूंक नाका आसली ?''

''केल्ली आसूं येता आनी तिणें सांगिल्लें आसूं येता. धुवेचो संवसार बरे भाशेन चलचो. आपले कर्तव्य सोंपलें. आपूण आतां गांवांत वचून रावतां वा तीर्थयात्रेक वतां.'' हांवें म्हळें.

''हय. अशें घडिल्ले आसूं येता. पूण उपरांत तो तिची खबर घेवंचो ना ? तो एक खेपे सोड, तिगेली धूव आवयची खबर घेवची ना ?'' दामोदरान म्हाका विचारलें.

''तूं दुबाव कितें ते सांगपाचे सोडून म्हजीच तपासणी करूंक लागला.'' हांवें म्हळें.

''ही तपासणी न्हय. म्हज्या दुबावाक आनी तर्काक हांव आदार सोदतां.''

शारांत गाडी पावली तरी दामोदर थोडेभितर सांगूंक तयार जालो ना. कोणाक तरी ताणें पळयलो आनी ताकतिकेन देंवन तो ताजेसरीं गेलो.



हांवें आतां श्रीनिवासाचो विशय तकलेंतल्यान काडून उडोवपाचें थारायिल्लें. म्हजेपुरती श्रीनिवासाची मरणाची खबर कळनाफुडें ती कथा सोंपिल्ली. म्हजे नदरेन तें एका कथानकाचें मुख्य पात्र आसलें. साहित्य निर्मणेच्या वावरांत लेखक एकच पात्र वा एकच विशय झरयत बसना. नवीं पात्रां, नवे अणभव, नवे वातावरण तो सोदता. पूण दामोदरान श्रीनिवासाचो विशय काडलो देखून हांवें त्या विशयाक परत हात घालो. कथेचें सूत्र फुडें व्हरतलो जाल्यार म्हजेमुखार दोनच पात्रां आसलीं. एक खासा दामोदर आनी दुसरो एवरीक. म्हाका तरी दिशिल्लें की, तांचेकडेन चड सांगपासारकें आनीक कांय उरूंक ना.

पूण दोन दिसांनी दामोदरच आमच्या घरा हजर. दारांतच ताणें म्हळें, ''आतां सगली खबर सारकी घेवन आयलां. हांव सांगतां, तूं बरोवन काड.''

''तुका एवरीक परत मेळिल्लो ?'' हांवें विचारलें.

''मेळ्ळो ना. मुजरत वचून ताका मेळून घेतलो आनी ताजेकडच्यान खूबशें समजून घेतलें. हरशीं तो पिशेपणां पांगुरता. पूण सरळ प्रस्न विचारल्यार सरळ जापो दिना. तो कितें तरी लिपयता. पूण आडवे - उबे प्रस्न विचारतकच ताका थोड्यो गजाली सांगच्यो पडल्यो आनी जें समजुपाचे तें म्हाका समजलें. आतां तूं विचार, हांव जाप दितां.''

''हांव कितें विचारतलों ?'' हांवें म्हळें.

''म्हजें काम आयकुपाचें. आयकतना कितेंय अस्पश्ट उरलें जाल्यार बारीकसाणेन समजून घेवपाचें. तूंच सांग.''

''आमी पार्वतीविशीं उलयताले. याद आसा न्हय ?'' ताणे म्हळें.

''हय. आनी त्याच संदर्भांत तिचे आवयविशीं उलयताले. ती गोंय सोडून खंय गेली, कित्याक गेली... आतां ती खंय आसा आनी पार्वती खंय आसा ?''

''खरी खबर एवरीकाकडच्यान म्हाका कळ्ळी. देखून ती खरी म्हणूं येता. जाणा तूं! एक खेपे एवरीक आनी श्रीनिवास दोगीय पारूले आवयक मेळूंक गेल्ले.'' दामोदरान म्हळें.

''ती गोंय सोडून वतकच काय गोंयांत आसतना ?'' हांवें विचारलें.

''गोंयांत आसतना तिका श्रीनिवास सदांच मेळटालो. हांव सांगता ती गोंयच्यान गेले उपरांतची खबर. पारूक दीस गेल्ले आनी घरांत कोणाचो आदार नासलो. देखून श्रीनिवास पारूले आवयक आपोवंक गेल्लो... सावित्री पोटांत आसतनाच गजाल.''

''पूण एवरीक तारवार आसतालो न्हय ?''

''तारवटी तारवार आसले तरी दोन - तीन वर्सांनी एक खेपे घरा येतात. एवरीक वयलेवयर येतालो आनी गोंयांत आसतकच तो श्रीनिवासागेरच उरतालो. अजुनूय श्रीनिवासाल्या घरांत एवरीकाली कूड आसूंक जाय.'' दामोदरान म्हळें.

''तशें जाल्यार पार्वतीची आवय खंय गेल्ली आनी कित्याक गेल्ली हें श्रीनिवासाक खबर आशिल्लेंच.''

''देखून तो तिका आपोवंक गेल्लो न्हय ? पूण ती आयलीं ना. तिणें कारण किते दिलें ताजो एवरीकाक सारको उगडास ना. पूण ताणें सांगलें तें अशें की, घाटावयल्या एका ल्हानशा गांवांत एका पोरण्या घरांत ती रावतालीं. तिजेच पिरायेची दुसरी एक बायल आसली. ती आपली मावशेभयण अशें तिणें सांगिल्लें.''

''एका प्रस्नाचें उत्तर मेळ्ळें. उपरांत येता तो दुसरो प्रस्न. पार्वती घोवालें घर सोडून कित्याक

गेली ?'' हांवें विचारलें.

''हो लाख मोलाचो प्रस्न. ताची जाप हांव जाणां, पूण हांवें सांगली जाल्यार तुजो विस्वास बसचो ना.'' दामोदरान म्हळें.

''अविस्वासाचो प्रस्नच ना. तूं कितें जाणा तें सांग.'' हांवें म्हळें.

''ती अशीच गेली ना.'' दामोदरान म्हळें, ''तिणे वता आसतना श्रीनिवासालो एकय पयसो व्हेलो ना. उंची न्हेसणां लेगीत ती दवरून गेली. गळ्यांतलें मंगळसूत्र तिणें आपल्या हातांनी घोवाक परतें दिलें हें श्रीनिवासान तुका सांगलांच. ती कसल्याच स्वार्थान वचूंक ना वा श्रीनिवासाक तिणें लुटूंकय ना. म्हणटकच कसलें कारण आसूं येता ?''

''हांव कशें सांगतलों ? श्रीनिवासाल्या वेसनी सभावाक लागून आसुंये.'' हांवें विचारलें.

''ना. तो पियेवंक लागला तो हालीं. पार्वती वतकच म्हळ्यार जाता. तो अर्दशीक्षित पूण खूब बुदवंत. वाटांपरस सगल्यो आडवाटो ताका खबर. खूब धोरणी मनीस. आनी दुसरी गजाल. एवरीक सांगता, पार्वती घरांत येतसावन ताजो दुसरे बायलेकडेन संबंद येना आसलो. देखून घोवाक लागून पार्वती घर सोडून वचची ना. पार्वती घर सोडून गेलीं ती तिगेली आवय मेले उपरांत.'' दामोदरान सांगलें.

''आवय मेली जाल्यार श्रीनिवास तिका कुळारा धाडटलो आसलो. घर सोडून कित्याक वचचें पडलें ? आवयच्या मरणाची खबर तिणें श्रीनिवासाक सांगली ना ?'' हांवें विचारलें.

''ती लिपोवपासारकी खबरच न्हय. ती खबर तिणें सांगली आसतली. पूण वता आसतना तिणें भांगर काडून कित्याक दवरलें ? घोवाक दुबाव येत म्हणून न्हय... वतनाच ती परत येवची ना हें थारावन गेल्ली.''

''पूण तिणें आपले चलयेक कित्याक व्हेली ना ? तिका बापायसरीं कित्याक दवरली ? हांवें विचारलें.

''सामको मार्मिक प्रस्न हो. तिगेले हे करणेक लागून सगले गुपीत उक्तें जायत वता. तूं सांग, खंयचीच आवय ल्हान भुरग्याक सोडून अशी वतली ?''

''तिचें दुसऱ्याचेर मन बसून तिणें दुसरें लग्न करपाचें थारायिल्लें आसत जाल्यार असल्यो घडणुको हेआदीं घडल्यात.'' हांवें म्हळें.

''तसो दुबाव कोणाकय येवं येता. शिकिल्ली सुंदर चली लग्ना उपरांत दुसऱ्या दादल्याच्या मोगांत पडूं येता. पूण पार्वती तशी पडूंक नासली. हें हांव तुका सांगतां आनी एवरीकय तशेच सांगता... म्हणटकच दुसरें कसलेंय तरी मोटें कारण आसचें पडलें ना ?'' दामोदरान विचारलें.

प्रस्न विचारून कुवाडें घालचें आनी उपरांत आपणेंच तें सोडोवचें ही दामोदराली उलोवपाची रीत म्हाका आतां संवयेची जाल्ली. देखून ताणें प्रस्न विचारले उपरांत लेगीत जाप दिना आसतना हांव ताज्या तोंडाकडेन पळयत रावतालों.

कोण आयकना म्हणपाची खात्री करूक चोंशीं नदर भोंवडावन दामोदरान ल्हवू आवाजांत म्हळें, ''तुवें उशण्याविशीं आयकलां... तो पार्वतीचो चलो !''

म्हजी प्रतिक्रिया पळोवचेखातीर दामोदर थीर नदरेन म्हाका पळयत रावलो. हांवें म्हळें, ''ती गजाल सुचयला म्हणपाचें हांवें बरयल्लां... तुवें वाचलांच आसतलें. सावित्रीचे लग्न उशण्याकडेन जावं येतालें तें पार्वतीनच मोडला.''

''उशणो तिगेर केन्ना जालो ? तो कोणापसून जालो ? आनी इतलीं वर्सां तो खंय आशिल्लो ?''

दामोदर म्हाकाच प्रस्न विचारीत रावलो.

तरी हांव उलयलों ना तेन्ना तो हांसलो आनी ताणें सांगलें, ''पार्वती कॉलेजांत शिकतना तिचें लग्न थारिल्लें... ती कोणाच्या तरी मोगांत पडिल्ली... ती आपले मावशेगेर रावतालीं. तें लग्न जावंक पावलें ना. कोण म्हणटा तो भुरगो फार्टी सरलो. कोण म्हणटा तो मेलो. पूण आंकवार पार्वतीन चल्याक जल्म दिलो आनी तो चलो मावशेकडेन सोडून ती गोंयांत आयली... पार्वतीचे आवयन जेन्ना तिका तिगेल्या चल्याचो सांबाळ आपूण करतां अशें उतर दिलें तेन्नाच पार्वती श्रीनिवासाकडेन लग्न जावंक कबूल जाली... पूण आपूण हांगा सुखां भोगतां आनी आपलो चलो, आपली आवय थंय कश्ट काडटात... हे तिका सोंसनासलें. तातूंतय जेन्ना आवय मेली तेन्ना चलो अनाथ उरतलो. ह्या कळवळ्यान ती उश्ण्यासरीं गेली आनी तिणेंच उश्ण्याक नोकरेखातीर श्रीनिवासासरी धाडलो... खरें दिसता हें तुका ?'' दामोदरान विचारलें.

''हय.'' म्हाका कबूल करचें पडलें. हें सगलें तर्काक धरून आसा. फुडें उश्ण्यान आपलो धंदो सुरू केलो तेन्ना ताणें आवयक हाडली आनी आवयखातीरच तो आपल्या आज्याल्या पोरण्या घरांत रावता... खरेंच तुवें म्हाका श्रीनिवासाचे जिवीत कथेचीं खूबशीं कुवाडीं सोडोवन दिलीं.''

# आमचीं कांय प्रकाशनां

**कविता :**

ब्रह्मकमळ (शंकर रामाणी)
मीनाक्षी (गौरीश कायूकिणी)

**कथा:**

पलतडचे तारूं (महाबळेश्वर सैल)
सपन - फुलां (मीना काकोडकार)
जंय वतां थंय (चंद्रकांत केणी)

**कादंबरी :**

विराट (चंद्रकांत केणी)
बर्मी दीस (चंद्रकांत केणी)

**कुळागर प्रकाशन**
पो. बॉ. नं. ७८ [] मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१